

**डॉ. श्री. शं. फडके**
एम्. ए. पीएच्. डी. (संस्कृत)
एम. ए. (समाजशास्त्र)
वेदांतपारंगत (टि. म. वि. पुणे)

*फाटलीं ३० वर्सां मडगांवच्या श्रीमती पार्वतीबाई चौगुले महाविद्यालयांत शिक्षक. कोंकणी विभागाचे मुखेली. गोवा विद्यापीठांत संस्कृत अभ्यास मंडळाचो अध्यक्ष आनी कोंकणी अभ्यासमंडळाचो सदस्य. कोंकणी भाषा मंडळाचो साहित्य पुरस्कार. पी. एच्. डी. चो प्रबंध गोंय विद्यापीठाच्या अर्थीक पालवान उजवाडायला. 'पडुवा' हो मराठी कथासंग्रह. शिक्षक विकास प्रतिशठानाचो आदर्श शिक्षक पुरस्कार (९२ - ९३). डॉ. गुडे हॉस्पिटल, कामाक्षी हायस्कूल (शिरोडा) संस्कृत प्रचारिणी सभा, परशुरामगिरिजनशाळा (मडगांव) ह्या संस्थांचो सदस्य - कार्यकर्तो.*

## दोंगरावेलीं मनशां

○ पयलें उजवाडवप : १९९४

○ प्रकाशन पयलें



○ **प्रकाशक :**
सोशल रीसर्च इन्स्टिट्यूट परशुराम.
मडगांव ४०३ ६०१

○ **मुद्रक :**
सम्राट प्रिंटर्स
बाणस्तारीं - गोंय.

○ **मुखपृष्ठ :**
एन्. एच्. कुरळे
मडगांव - गोंय

○ **मूल्य :**
५० रुपये






*ह्या पुस्तकाखातीर मडगांवचे उद्येगपती श्रीमान गंगाधरजी नरसिंगदास अगरवाल आनी श्रीमान रमाकांत सोयरू आंग्ले हाणीं अर्थीक पालव दिला.*

म्हजो इश्ट ॲड. हिरबा आनी
सौ. शीलाबाय गावणेकार
हांका मायेमोगान समर्पण

# अनुक्रमणिका




# चार उतरा....

म्हजें 'ऋणानुबंध' हें पुस्तक उजवाडाक आयलें तेन्नाच दोंगरार मेळिल्ल्या कांय लोकांच्यो व्यक्तिरेखा बरोवंच्यो असो विचार मनांत आयिल्लो, पूण म्हजे इश्ट भौ. उदयबाब भेंब्रे आनी प्रा. हरिश्चंद्र नागवेंकार हाणीं सांगलें - ''ऋणानुबंध हें शिक्षणीक प्रयोगावेलें पुस्तक. तांतूंत अशेतरेच्यो व्यक्तिरेखा नाकात, पूण तांचें एक स्वतंत्र पुस्तक जावं येता.''

ऋणानुबंधाफाटल्यान म्हजो पीएच्.डी.चो प्रबंध - फिगर्स ऑफ स्पीच अँड सेन्स इन भासस् ड्रामाज् - गोवा विद्यापीठाच्या अर्थिक पालवान उजवाडाक आयलो. 'पडुवा' हो कथासंग्रह पोरूं उजवाडायलो, आनी अंदूं 'दोंगरावेलीं मनशां' हो व्यक्तिरेखांचो झेलो उजवाडाक येता हें पळोवन म्हाका खूब खोस भोगता.

१९७९ ते १९८९ अशीं सादारण धा वर्सां हांव दोंगरार सद्दीं वतालों. थंय शाळा सुरू करपाची चळवळ, शाळा बांदप, थंयच्या लोकांच्या मुळाव्या प्रस्नांचो सुटावो करूंक पावलां मारप, अशे तरेचो वावर हांव त्या वेळार करतालों. त्या दिसांनीं म्हाका जे वांगडी मेळ्ळे ते चडशे शारी वाठारांत रावन आयिल्ले न्हय. रानांवनांनीं रावपी, गांवगिऱ्या वाठारांनी वावुरपी अशे हे लोक. चडश्या मनशांक बरोवंक वाचूंक लेगीत येनाशिल्लें. पूण काम करपाची उमेद आसली. नितळ मन आसलें, भावार्थ आसलो. कितेंय चुकलें जाल्यार 'गुरूजी' म्हगेलें चुकलें म्हणपाची मानसिक तांक आसली. करीमसाबासारको मार खावन लेगीत हातींत घेतिल्लें काम फुडें व्हरपी वांगडी, पिकलव्वा सारकी आपणालीं भुर्गीं बरीं जावंचीं, तांचो फुडार पर्जळीत जावंचो हे खातीर कश्ट करपी बायलमनीस, नमस्काररी देवराया म्हूण येवकार दीवपी परमण्णा अशीं जायतीं मनशां म्हाका मेळ्ळीं. एकेक मनीस म्हळ्यार एकेक फास्की कशी. तांतूंत कितलेशे तरेचे रंग भरूं येतात. ते रंग भरपाचें कसब चिताऱ्यांचें. हांव तांतूंत कितलो जैतिवंत जालां हें थारावप वाचप्यांचें काम. म्हजे नदरेन हांवें त्या मनशांक समाजीक संवसारामुखार हाडपाचें काय केलां. हो लेगीत रीण पावोवपाचोच वावर. त्या लोकांत हांव बसलां, वावुरलां, तांचे कडेन जेवलां, पान खालां. शाळा बांदपाच्या, चालू करपाच्या कामांतले ते वांगडी. म्हज्या सुखदुखांतले सहकारी. तांचीं चित्रां वाचप्यामुखार दवरप हें म्हजें कर्तव्य.

विद्यार्थी आसतना हांवें 'माणदेशी माणसें' हें श्री व्यंकटेश माडगूकर हांचें पुस्तक वाचिल्लें. ताचे संस्कार मनार आशिल्ले. हें पुस्तक बरयतना माणदेशी मनशांची म्हाका सारकी याद जाताली. शारी मनशाचे दीसपट्टे जीणेंत अश्या लोकांचो संबंध येता तो सामानाची पोटली तकलेर मारपी मानाय म्हण जांव बांदकामाचेर वावुरपी कामेरीं म्हण. त्या लोकांची जीण कशी चलता, तांचे हावेस खंयचे आसात हाची वासपूस भोव थोडे जाण करतात. म्हाका त्या लोकां मदीं वावुरपाची संद मेळ्ळी, तांच्या जिविताचे उत्फर्के समजून घेवपाचें भाग्य लाबलें हें म्हज्या जीणेंतलें भांगराचें पर्व अशें हांव मानतां.

हें पुस्तक बरोवपाचें थारायलें. पूण जाय तशी मेकळसाण मेळनाशिल्ली. फाटल्या मे म्हयन्यांत तशी थोडी मेकळसाण मेळ्ळी. म्हजी एक विद्यार्थिनी मेधा मळकर्णेकार हिच्या गोकुळांत बसून हांवें हें पुस्तक बरयलें. बाय मेधान बरप सारकें बरोवन निवळ केले. म्हजो वांगडी आनी इश्ट प्रो. रवीन्द्र रमाकांत म्हाड्डोळकार हाणें बरपाचेर नदर भोंवडावन तांतूंत सुदारणा केली. हें पुस्तक वाचून तांचीं मुद्रितां तपासपाचें काम ताणेंच केलां. निमाणें म्हळ्यार म्हजो 'पात्या' आनी बरें मागपी बाब फेलिस्यु कार्दोज हाणें पुस्तकाक फावोशी प्रस्तावना बरोवन दिली. म्हजी घरकान्न प्रियाबाय हिणें पुस्तक छापपाचे नदरेन पळोवणी केली. ह्या सगल्यांचे हांव मनासावन आभार मानतां. आनी एक गजाल सांगूंक जाय. हांवें हें पुस्तक बरयलें तें काकोडेंच्या पूर्णानंद नर्सरीच्या वाठारांत बसून. विठ्ठलबाब आनी सौ. ताराबाय हांचो हो आस्रम. फुलांफळांच्या सांगातान पुस्तकाचें बरप जालें. चि. बन्सीन आपणाल्या मंजूळ आवाजान आमकां संगीताचो आवाज दिलो. मानसीन च्या पाणी दिवन बरो परामर्श केलो. ह्या सगल्यांक हांवें अशेतरेन आभार मानप आवडचेंना. पूण तांचें रीण हांव मानतां आनी सगल्यांक देव बरें करूं म्हण्टां. तशेंच अभय तेजा आनी संदेश हांचो हांव आभारी आसां.

म्हजीं सगलींच पुस्तकां बाणस्तारीच्या सम्राट प्रिन्टर्सान छापल्यांत. सम्राट प्रिन्टर्स ह्या छापपी संस्थेचो मालक श्री. श्रीकांत आमोणकार आनी ताची घरकान्न सौ. सुमनबाय हांकां तांणी पुस्तक बरे तरेन छापून दिलें हे खातीर परबीं दिवन हांव तांचे आभार मानतां. तांच्या छापखान्यांत वावुरपी सगल्या लोकांचो हांव काळजांतसावन आभारी आसां.

ह्या पुस्तकांतलीं पयलीं रेखाचित्रां म्हजी विद्यार्थिनी बाय राजल शिरोडकार हिणें काडलीं. पूण तीं फुडें निवळावन सारकीं केलीं तीं श्री. एन्. एच्. कुरळे हांणी. श्री. कुरळे एक नामनेचे कलाशिक्षक आसात. बाय राजल आनी सौ. कुरळे हांकां देव बरे करूं म्हण्टां आनी निरोप घेतां.

मडगांव - गोंय
मकरसंक्रात, ९४.

**श्री. शं. फडके**

# प्रस्तावना

लेखक, समाजसेवक डॉ. श्रीधर शं. फडके हांचे हें पुस्तक - ''दोंगरावेलीं मनशां'' कोंकणी साहित्यांत अप्रूप. तांतूंत साधारण मनशांचीं असाधारण चरित्रां वाचूंक मेळटात.

ह्या पुस्तकाचें हातबरप - हांवें ताचेर एक नदर घालची म्हणून प्रा. फडके हांणी म्हजेकडेन दिल्लें. पांच - स दीस ते तशेंच पडून उरलें. पूण जेन्ना तें हांवें वाचूंक सुरू केलें तेन्ना म्हज्यान तें कशेंच सकल दवरूंक जावंकना.

ह्या पुस्तकांत २० चरित्रां आसात. पूण दर एक खेरीत, विशेश. पुस्तकांतलीं सगलीं पात्रां मडगांवच्या मोंती-दोंगराचे फाटभुंयेर, खास करून थंयचे झोंपडपट्टेंतले शाळे भोवतणीं भोंवतात, घुंवतात. दर एक व्यक्तिचित्र ल्हान कथाच म्हळ्यार जाता.

गोंयांत, सुटके उपरांत, सरवय वाटांनी उदरगत जावंक लागली. घासावाळीचो वावर करपी वावराड्यांक गोंयांत बरो वाव मेळूंक लागलो. तेन्ना गोंयांभायले जायते कामदार गोंयां येवंक लागले. आपल्या जल्म-गांवच्या मानान त्या कामदारांक गोंयांत बरी मजुरी मेळटा. हाका लागून, हळू हळू करून कर्नाटक, महाराष्ट्र, केरळ, बिहार, आदि प्रांतांतले हजारांनी वावराडी बायल-भुरग्यांक घेवन गोंयांत येवन वस्ती करूंक लागले. हांगा-थंय तांच्यो झोंपड्यो उब्यो जाल्यो. मडगांवच्या मोंती-दोंगरार, कोमुनिदादिचे सुवातेरूय तांणी राबितो केलो. कायद्याचो एकूय नेम पाळिनासतना त्या लोकांनी आपलो खोंपीं-संवसार उबो केलो. थोड्याच दिसां भितर थंय एक व्हडली झोंपडपट्टी तयार जाली. उपरांत थंय जायते समाजीक प्रस्न उप्रासूंक लागले. गोंयकारांनी ते झोंपडपट्टे आड चळवळ सुरू केली, बोवाळ केलो. पूण, त्या लोकांकडेन मतां आसात म्हण्टकच राजकारण्यांचो तांकां पालव मेळटा, आनी ते लोक हुस्क्यामेकळे थंय रावतात आनी आपलो संवसार करतात. पूण ते थंय कशे जियेतात, जोडलेले जोडिचो वापर कसो करतात हे विशीं जांव सरकाराक, जांव मतलबी राजकारण्यांक कांयच पडून वचना. वेंचणुको लागीं पावच्योनात आनी आमचे सुवार्थी राजकारणी तांचे फुड्यांत वचचेनात !

ते झोंपडपट्टेंत बेबद्यांची धुमशेणां, झगडीं - मारामाऱ्यो, चोरयो-गुंडगिऱ्यो, आदि घडणुको दिसपट्टीं जातात म्हळ्यार अतिताय जावचीना. पूण त्या वातावरणांतूय, कोळशांचे खणींत केन्नाय थोडीं वजरां मेळटात ते परीं, कांय खेरीत मनशांय सांपडटात. तीं साधारण मनशाक दिश्टी पडनात. तांकां पळोवंक प्रा. फडकेंची सूक्ष्म आनी चतूर नदर जाय.

ते झोंपडपट्टेंत रावपी सोऱ्याचे आनी हेर वेसनांचे गुलाम जावन वायट जिवीत व्हरतात, अपराध करतात. एका जाणारान म्हळां: 'एक शाळा उगती करप म्हळयार तीन बंदखाणी बंद करप'. हेंच तत्व आपले मुखार दवरून प्रा. फडके हांणी मोंती-दोंगरावेले

झोंपडपट्टेंत एक शाळा उगती करूंक निश्चेव केलो. थंयचीं ल्हान-सान भुरगीं जाणट्यांचे वांकडे देखीन फुडाराक वायट आनी दुश्ट जावंक पावतलीं म्हूण प्रा. फडकेंक चिंता जाली आनी भगीरथ प्रयत्न करून तांणी थंय एक शाळा उबी केलीच. आनी ते शाळे संदर्भांत थंयच्या जायत्या लोकांक प्रा. फडके वळखूंक पावले. कांय जाण इश्टागतिच्या नात्यान तांचे लागीं आयले. त्या लोकांच्या सुखदुखांत प्रा. फडके एकरूप जाले आनी गोड तशे कोडू अणभव तांकां चाकचेय पडले. त्या अणभवांतल्यान प्रा. फडके हांणी सरळ आनी सुरबूस भाशेंत हीं चरित्रां रेखल्यांत आनी रंगयल्यांत. तीं वाचतना ती-ती व्यक्ती दोळ्यां मुखार साक्षात उभी जाल्ल्याचो भास जाता!

फुडारपणाचे गूण आशिल्लो आनी शाळेचें काम करपी करीमसाब आपली लमाणी संस्कृताय सांबाळून आनी दीस-रात काम करून आपल्या भुरग्यांक सुशिक्षीत करपी पिकलव्या पान खायत मिठाय करपी आनी खूद लेखकाक पान खावपाची सवंय करपी गंगारामण्णा; हाडांचो सांपळो कसो पूण मनान बरो आनी हौसींग बोर्डांत ब्लॉक घेवनय 'रेड्याक किवणांचे सुख' म्हण्टात ते परीं मोंती-दोंगर सोडिनाशिल्लो हसन खान; शाळेखातीर दुडू एकठांय करूंक पावती-पुस्तकां व्हरून दुडू आनी पावती-पुस्तकां गडप करपी मेस्त्री शंकराप्पा; दोंगर वायट म्हूण सोडून गेल्लो परत दोंगरार येवन आपलें सगलें दुख सोऱ्या कोपांत बुडोवंक सोदपी भवानराय किरनाळे; एका तवनासाच्या सतावण्यांक लागून कुवैटांत वचून कायलिंतली उज्यांत पडपी आशाबी; सोरो - विडी आफुडनाशिल्लो गांधी बाजारांत भाजी विकपी परमण्णा; कसलेंय काम करपी विस्वाशी भिमराव हडपड उर्फ भिमाप्पा; सोरो पियेवय जिवितांत सामको वेव्हारी, भुरग्यांच्या फुडाराची काळजी करपी निलाप्पा; फातरा सारको घट, पूण काळजान लोणयासारको मोव, पूण दोंगरार गुंड-मवालयंक भिरांत हाडपी आनी गरीब दुबळ्यांक आलाशिरो दिवपी आदमसाब; कोणाच्याय हाताचें बावलें जावपी ''परशुराम गिरीजन संघ''चो अध्यक्ष मुपण्णा पुजारी; मोंती-दोंगरावेले झोंपडपट्टेंतल्या ''महिला मंडळा''ची अध्यक्ष गंगव्वा; म्हातारपणार आदार जातलो म्हूण भुरग्याक पोस्को घेवन त्रासांत पडलेलीं खांजापीर आनी काशीबाय; लाखांचे राशीर बसयल्यार लेगून एक पैसो काडचोना असो आप्पाजी; दीस-रात फुडारी जावपाचीं सपनां रंगवपी, सोरो ना पियेवपी पूण काळो धंदो करपी तारप्पा; झाडपाल्याचीं ओखदां आनी लोक-गितां सांबाळून दवरपी महादेवाप्पा अल्लापूर; काणयांचें भांडार घेवन आशिल्लो जाणटो शरणाप्पा हांच्या चित्रविचित्र सभावांच्यो जिवीत-रेखा वाचप्याक दुभावाविणें आनंद दितल्यो.

हें पुस्तक कोंकणी सरस्पतिच्या भांडारांत मोलादीक भर घातलेलें अशी हांव आस्त बाळगितां.

**- फेलीस्यु कार्दोज**
मडगांव, गोंय.

# पिकलव्या

म्हज्या घरासरीन एक दोंगुल्ली आसा. तिचें नांव मोंती दोंगर. म्हजे पिरायेक चाळीस वर्सां जाल्या उपरांत हांवें एक दीस थारायलें की आतां ल्हवु ल्हवु करून चलपाचो वेयाम करूंक जाय. अशीं हांव योगासनां सदींच करतालों पूण सकाळीं आठ वरांचेर चाखरेक वचपाचे ताकतिकेत सकाळीं भोंवूंक वचप कठीण जातालें. तेखातीर सांजवेळचें मोंती दोंगरार वचून भोंवपाचो वेयाम करचो अशें हांवें थारायलें. सांजेच्या पांच - साडेपांच वरांचेर हांव दोंगुल्ली चडूंक लागलों. फातर, कांटे चुकयत हांव दोंगुल्लेच्या माथ्यार पावलों तेन्ना दर्याच्या शितळ वाऱ्यान म्हाका येवकार दिलो. दोंगुल्लेच्या माथ्यावेल्यान कोलव्यां, बाणावेलचो दर्या नदरेमुखार उबो रावलो. थंयचीं माडा - पेडां थंयसल्ल्यान स्पश्ट दिसतालीं. सूर्याच्या अस्तमतेकडल्या किरणांनी उदकाचेर रूप्याची शाल पांघुरल्या असो भास जातालो.

दोंगुल्लेच्या माथ्यार वचून हांवें खीणभर विसव घेतलो. लागींच्या मळाचेर कांय भुरगीं खेळटालीं. लागींच एक ल्हानशी धा-बारा घरांची वस्ती उबी राविल्ली दिसताली. दोंगुल्लेचेर वचपाचो म्हजो सदींचोच नेम जावन गेलो. ल्हवु ल्हवु करून त्या भुरग्यांकडेन हांवें इश्टागत केली. मारक्या, चंद्या, कंम्मा, शाणू, गनी अशीं त्या भुरग्यांचीं नांवां. तांतूंतलीं खंयचीच भुरगीं शाळेंत वचनाशिल्लीं. हांवें ल्हवु ल्हवु करून तांकां थोडें भोव शिकोवपाचे यत्न चालू केले. अशे दिस वताले, सदींच भुरगीं म्हाका मेळटालीं. आमी बसून प्रार्थना म्हणटालीं, संस्कृत श्लोक म्हण्टालीं, अशे तरेचो नित्यनेम चालू अशिल्लो. म्हाका त्या भुरग्यांच्या आवय बापायक मेळपाची खूब उमळशीक आशिल्ली पूण सांजेच्या पांच वरांचेर वचून तांकां मेळप कठीण आशिल्लें. ते सगळेच लोक वावराक वचपी. दिसभर वावर करून रातीं घरा येवपी. तेखातीर तांकां मेळपाक आयतरा दिसाच दोंगरार वचून तांका मेळचें अशें हांवें थारायलें.

आयतारा दिसां सकाळीं बेगीन उठून हांव दोंगरार, दोंगरावेले वस्तेंत भितर सरलों. तेन्ना अेक बयलमनीस घरासामकार बसून आपणाले धुवेचे केंस उगयताली. महाका पळयतकच ती बेगबेगीन उठली आनी घरांत वचून मांद्री घेवन आयली. आंगणांत मांद्री घालून तिणें म्हळें 'यो गुरूजी, बस'. हांवें तिका विचारलें 'तूं म्हाका कशी वळखता?' तिणें सांगले, म्हगेलीं कम्मा, चंद्या हीं भुरगीं सदींच तुगेले शाळेंत येतात. तांकां तूं प्रार्थना शिकयता. देवाचें शिकयता तें घरांत येवन तीं म्हणटात. तांचेकडल्यान तुजी म्हायती आमकां मेळटा, ती म्हाका वळखता पूण हांव तिका वळखना देखून म्हाकाच मातशी लज दिसली.

हांवें तिका तिर्चे नांव विचारलें. 'पिकलव्वा' तिणें जाप दिली. पिकलव्वा ही एक लमाणी बायल. पूण ती आमच्या बायलांभशेन घरांत बसून रावपी न्हय. सगळ्या कुटुंबाची मुखेली कशी ती वावुरताली. दिशीं दिशीं तिची वळख वाडत गेली आनी जरीय ती मागास जमातींतली आसली तरीय लेगीत तिगेल्ल्या विचारांचें तेज नवें आसलें.

पिकलाबाय ही कर्नाटकांतल्या 'लक्ष्मेश्वरा' लागींच्या 'अरडकट्टी' ह्या गांवांत रावपी. गांव म्हळ्यार ताका लमाणी भार्शेत पाडो म्हण्टात. तिगेले आवय - बापूय त्या गांवांत रावताले. पिकलाबायच्या घरकाराचें नांव शिवाप्पा. तो सामकोच बाप्पा शिवराक. सगळे वेव्हार पिकलव्वाच चलयता. तांगेल्या गांवांत तांचो ल्हानसो जमनीचो कुडको आसा. पूण ताजेर कुटुंबाचें पोट भरना. लक्ष्मेश्वर गांवांत जैन सावकार खूब आसात. सदांच तांगेर वावर करून पोट भरप हें लमाणी लोकांचें दिसपट्टें जिवीत. दिसवडो साप उणो. दिसाक आठ-धा रूपया म्हळ्यार खूब जाले. ताजेर कुटुंबाचें पोशण जायना. घोव, भुरगीं, आवय-बापूय ह्या सगळ्यांचें अन्न, उदक चलोवंक दिसवडो पावना. तिगेले व्हडले धुवेचें लग्न करपाक तिणें सावकारा कडल्यान पयशे घेतले. आनी ल्हवु ल्हवु करून पेज निवळ पिवन तिणें सावकारालें रीण पावयलें. खरें पळेल्यार तांगेले जमातींत रीण पावोवपी लोक साप्प उणे. एक फावट रीण काडटगीच जल्मभर सावकारागेर काम करप आनी रिणां काडीत रावप. हांतूंतच ते जमातीचो जीव काबार जाता. एके तरेचे दासच ते. खूबशा आदिवासी लोकांनी ही चाल आजूनय दिश्टी पडटा. हाका 'बॉंडेड लेबर' अशें अर्विल्ल्या लोकांनी नांव दिलां. पूण पिकलाबाय सामकीच वेगळी. तिका समजलें की गांवांत रावन तिचें आनी भुरग्यां बाळांचें पोट भरूंक कठीण. तिच्याच शेजरा रावपी शंकराप्पा गोंयांत येवन मेस्त्री जाल्लो. अेक दीस तो गांवांत आयिल्ले कडेन तिका मेळ्ळो आनी तिणें ताका गोंयांत कामधंदो मिळटा काय अशें विचारलें. शंकराप्पाकय पंगड व्हरून काम करपाची उमळशीक आशिल्लीच. ताणे तिका गोंयांत हाडली. घोव, बायल, भुरगीं ह्या सगळ्यांक घेवन पिकलव्वा गोंयांत पावली आनी मोंती दोंगरार चालू आशिल्ल्या 'मायक्रोवेव्ह' स्टेशनाच्या बांदकामाचेर तिका वावर मेळ्ळो. लागसारच तिणें आपणाली खोंप घाली आनी ती गोंयकान्न जाली. गोंयांत येवन तिका आतां वीस वर्सां जावंन गेलीं. तिचीं सगलीं भुरगीं ल्हानाचीं व्हड हांगांच जालीं. पिकलव्वा जरीय गोंयांत रावली तरीय तिणें लमाणी कुळाचार सोडूंक ना. गोंयांत आयले उपरांत खुबशा लमाणी बायलांनी लमाणी भेस सोडून साडी न्हेसपाक सुरवात केली. पूण पिकलव्वान मात तिगेलो भेस केन्नाच सोडलो ना. दोनीय हातांनी हातभर धवीं फुल्ल कांकणां, तकलेक कानतोपयेभशेन तोपी, आगांर हारशाचे बारीक बारीक कुडके लावन केल्लो घागरो, असो तिचें भेस केन्नाच

चूकना.

हांवें दोंगरार भुरग्यांखातीर शाळा चालू केली. ही शाळा चालू करपाखातीर सगळ्यांत चड आदार म्हाका मेळ्ळो तो पिकलाबायलो. तिगेलीं तवऱ्या, मादेव, सीता, लोक्या हीं भुरगीं गांवांतच वाडलीं. कामाक वचूंक लागली. तीं कांयच शिकूंक नात कारण तांगेल्या पाड्यार शाळाच ना. पूण पांड्या, चंद्या, कम्मा हीं भुरगीं गोंयांत ल्हानपणातच पावलीं. आपणालीं भुरगी शिकचीं अशी तिका उपाट उमळशीक. दोंगरार शाळा नाशिल्ल्यान भुरग्यांक शाळेत घालपाचो तिजो हावेस निर्शेतालो. पूण हांवें जेन्ना शाळा काडपाचें थारायलें, तेन्ना पयल्यांत पयलीं आपणाल्या भुरग्यांक शिकय अशें म्हूण सांगून पिकलाबाय शाळेंत येवन म्हजेमुखार उबी रावली. म्हाकाय तिजें अजाप दिसलें. आनी तोखणायय दिसली.

म्हजी तिची थोडी भोव वळख जाल्लीच म्हणटगीच हांवें तिका विचारलें, 'तुगेलीं भुरगीं इतले दीस कितें करतालीं तर?' 'तीं लोखण एकठांय करूंक, नुसत्या बाजरांत पोतयो विकूंक वतालीं' तिणे जाप दिली. 'पूण आतां नेमान शाळेंत येवंक जाय. इतले दीस भुरग्यांक भायर भोंवपाची सवंय जाल्या. तांकां एका जाग्यार बसप कठीण जातलें.' हांवें तिका शिटकायली. 'ना गुरूजी, हांव तांकां सदांच शाळेंत धाडटलीं. तांकां जाता तितकें शिकयतलीं.

लमाणी जमात ही रानांत रावपी, कश्ट काम करपी, फाल्यांचो विचार करिनासतना आयचोच विचार करून जियेवपी. तांगेलें हय उतर हें नक्की खरें आसत अशें सांगूंक कुस्तार. रातीं घरा येतगीच लमाण मनशांक दिसता की आपणाक एक बरें घर जाय पूण दुसऱ्या दिसा सकाळीं तो ती गजाल विसरून वता. आयचें आयज, फाल्यांचें फाल्यां अशा विचारांचेर जियेवपी लमाण मनीस, तांतूंत पिकलव्वा सामकीच वेगळी कशी. कोळशांत जशें रत्न तशी ही पिकलाबाय.

एक दीस पिकलाबाय एका पंदरा सोळा वर्सांच्या भुरग्याक घेवन म्हजे सरीन आयली. गुरूजी हो भुरगो म्हजो भाचो. मॅट्रीक जाला. ताका फुडें शिकोवपाची म्हाका इत्सा आसा. ताका खंय दवरल्यार बरो? शिक्षणाविशींची इतली समजीकाय पळेवन, तिजेविशींचो म्हज्या मनांतलो आदर वाडलो. तिका हांवें म्हळें 'त्या भुरग्याक गोंयांत दवरपापरस धारवाड, हुबळीक दवरून शिकय. ताका जाल्यार हागांसावन शिक्षणाखातीर कांय मदत करूंक जाता.' महादेवाक पिकलाबायन हुबळीक दवरून कॉलेजिचें शिक्षण दिलें. शिक्षणाखातीर लागपी खर्च पिकलाबायन केलो. केन्ना केन्नाय महादेव म्हजे सरीन येतालो. हांवें

लेगीत ताका थोडी भोव मदत केल्या. महादेव बी.ए. जावन मोंती दोंगरार पावलो तेन्ना पिकलाबायन सगल्यांक साखर वांटली. एकदीस महादेवाक घेवन ती म्हजे सरीन आयली आनी सांगूंक लागली, 'गुरूजी म्हजो महादेव आतां खूब शिकला, ताका एक बरीशी चाकरी पळोवन दी.' महादेव हो लमाण जमातींतलो पयलो पदवीदार ताका व्हडली सिरवीस मेळची अशें पिकलाबायक दिसतालें. आमच्या देशांत शिक्षीत तरणाट्यांची कितें अवस्था जाल्या हाजी तिका बाबडेक कल्पनाच नाशिल्ली. महादेव सिरवीस खातीर हांगां थंय अर्ज करीत भोंवतालो. आतां महादेव सायब जातलो म्हूण पिकलाबायन ताका बरी पॅन्ट, बुशर्ट, बूट असो पोशाख घेवन दिल्लो. पिकलाबायक शिक्षणाविशीं र्निशेवणी येवनये म्हणून हांव लेगीत ताका सिरवीस मेळचेखातीर वावुरतालों. पूण महादेवाक सिरवीस मेळप खूपच कठीण जालें. एक म्हळ्यार तो लमाण आनी दूसरें म्हळ्यार ताका इंग्लिश बरें येनाशिल्लें. निमाणें हावें एका बिल्डिंग कंत्राटदाराकडेन उतर घालें आनी महादेव बांदकामाचेर सुपरवायझर म्हूण कामाक लागलो. पिकलाबायक खूब खोशी जाली. तिणें आनीक एक पॅन्ट आनी बुशर्ट शिवन दिलो. महादेव सकाळींच बरो भेस करून कामाक वचूंक लागलो. कामगारांचो तो सायब. ताच्या हातासकयल काम करपी खूब मानाय, वावराड्यो आशिल्लयो. पिकलाबयलो पांडू लेगीत तेच कंपनींत काम करतालो. म्हयनो जालो आनी कंत्राटदारान तिनशीं रूपये काडून महादेवाच्या हातार दवरले. आनी महादेव पयलोच पागार घेवन घरा आयलो आनी पिकलाबायकडेन ताणें म्हयन्याचो पगार दिलो. ताका दिसवडो धा रूपया अशें पिकलबायन थारायलें. तिगेलो पांडू तेच कंपनीत गंवडो म्हूण काम करतालो. ताणेंय पगार हाडून अव्वाकडेन दिलो. ताका मेळ्ळे पंदराशीं रूपया. पिकलव्वाक अजाप जालें. ती म्हजे सरीन येवन म्हणूंक लागली, 'गुरूजी महादेव सायब, ताका तिनशीं रूपया पगार; पांडू गंवडो ताका पंदराशीं रूपया पगार. हें अशे कशें?' तिच्या प्रस्नाक जाप दिवप खूब कुस्तार आशिल्लें. आमच्या देसासामकार आशिल्ल्या सद्याचे परिस्थितीची जाणविकाय तिच्या प्रस्नान म्हाका करून दिली.

हांवें तिका म्हळें, 'पिकलाबाय, तूं भुरग्यांक शिकय पूण कश्टांचीं कामां करपाची देख तांकां बरी करून दी. खंयचेंय शिक्षण घेवंन वावर केल्यार त्या मनशाची कुशळताय वाडटा.' पिकलाबाय गरीब आनी मागास जमातीची पूण तिका मनीसपणाची आनी प्रामाणिकपणाची जी जोड आसा ती व्हडल्या व्हडल्या उंचेल्या पांवड्याच्या लोकांकडेन नासता. पिकलव्वाच्या गुणांक लागून तिणें बऱ्या बऱ्या लोकांकडेन इश्टागत जोडल्या. लागसार आशिल्ली मिलिट्रींत सायब तिका कामां दितात. राघवेंद्र मठांत ती वावुरता. आंत्र्या - पायऱ्यान म्हज्या घरा येवन कितेंय काम आसल्यार, तें करपाची तिची चाल आसा. वर्सांक एक दोन फावट

ती आपणाल्या गांवांत 'अरडकट्टीक' वचून येता. येतना यादीन एक दोन पडी जोंधळे, जांव भिकणां आमच्याखातीर हाडटा. मेकळ्या हातांनी ती केन्नाच येना. ती घरा आयली की जोंधळे भिकणां घेवन म्हणटा, 'गुरूजी तुका लागून म्हजीं भुरगीं शिकलीं. तूं म्हजो आवूय - बापूय'. तिगेलीं हीं गोड उतरां आयकून म्हगेले घरकान्नीक लेगीत खूब खोशी जाता.

समाजाखातीर मनशान केल्लो वावर केन्नाच निर्फळ जायना. त्या वावराचें फळ एक ना एक दीस मनशाक मेळटाच. म्हज्या जिवितांत जायतीं मनशां आयलीं आनी गेलीं. खुबशे फावटी आमी म्हणटात की मनीस एक संस्काराचें दायज घेवन जल्माक येता. पिकलव्वान अशें दायज खंयसावन हाडलां हें समजूंक कठीण. तिगेलीं भुरगीं आतां व्हड जाल्यांत. तिगेले पांच पूत पांडव कशे एकठांय रावतात. आवयक केन्नाच दुखयनात. सोरो पियेनात. अजूनय तिच्या घरा कसलीय परब आसल्यार ती म्हाका आपोवंक चुकना. कसलेंय काम जापसालदारकेन करपाचें आसल्यार पिकलव्वाक सांगचें. तें काम जातलेंच हांतूंत दुभाव ना. पिकलव्वा सारकीं मनशां समाजांत आसात म्हूण समाजाची उदरगत जाल्या अशें हांव समजतां.

तशें पळोवंक गेल्यार मनशाक परिस्थितीच हुशार, धाडशी, निडर करता. जर पिकलव्वाचो घरकार मेंगो नाशिल्लो, सगलो वेव्हार ताणेंच बरे तरेन सांभाळिल्लो जाल्यार पिकलव्वा आयतें बसून खातली आशिल्ली. तांची परिस्थिती गरीब पूण सादारण आमच्या सारकेल्या कुटुंबातल्या बायलांचेर लेगीत अशी पाळी येता. घराची बुनयाद म्हळ्यार घरकारच जर धड नासत तर घर कशें चलतलें? आनी संवसार बरो चलयतलो जाल्यार कोणूय तरी एकलो घटमूट, हुशार, वेव्हारी आसूंक जाय. दोगांय जर मेंगीं आसत तर सगल्यांक उपाशीं मरपाची पाळी येतली.

✲✲✲

# महादेवाप्पा अल्लापूर

गोंयात येवन सामकोच दळीदरो उरलो तो महादेवाप्पा. ताचो मूळ गांव हुबळी आशिल्लो. महादेवाप्पा एक अश्टतासांचो मनीस. तो बरो गंवडो, मेस्त, भजनी, धर्मीक वैज, पसरो चलोवपी, नुस्तें विकपी... कितें ना म्हण ना. सदींच तोंडांत पानांचो चोंबो भरून, दातांचीं फळीं भायर काडून उलोवपी महादेवाप्पा म्हळ्यार अजापित जावपासारको मनीस. ल्हानशी चड्डी न्हेसून, वयर पिंजको सदरो घालून भोंवपी महादेवाप्पा हो दोंगरावेलो म्हालगडो अशें सांगल्यार कोणाकूय फट दिसतलें.

महादेवाप्पा हो हुबळीलागीं आशिल्या चन्नापूर गावांतलो. गांवांत दुकळ, सदींच पावस सारको पडना. जमीन आसा पूण भात पिकना. उपास काडून काडून जीव वाजेता. महादेवाप्पान खूब दीस ह्यो अबरगती सोंसल्यो आनी एक दीस ताणें घराचेर तुळशीपत्र दवरलें. गोंयांत तेन्ना हणजुणें धरण चलतालें. गांवांगावांतले लोक धरणाच्या कामाखातीर गोंयांत देंवताले. चेन्नापूरचेय कांय लोक गोंयांत आयले आनी मेस्त्रीबराबर हणजुण्यां पावले. महादेवाप्पा, ताची घरकान्न सावित्री आनी भुरगो मारूती. हणजुण्याच्या धरणार महादेवाप्पाक काम मेळ्ळेंच पूण तेच बराबर ताची अश्टतासांय पर्जळीत जालीं. सायब लोक ताका घडीघडी आपयताले. खंय मेस्तकाम आसा वा गंवडेकाम आसा महादेवाप्पाक रकाद आयलोच. महादेवाप्पाचे धरणाच्या कामाचेर दीस बरे वताले, पूण देवाच्यान हें बरेपण पळोवंक न्हज जालें.

एक दीस धरणांत घालपाखातीर एका भुरग्याक बळी दितले अशी वदंता मानायांच्या खोंपींनीं पातळ्ळी. रातीं सगलेच जाण झेमेन जार जाताले. दीसभर काम आनी रातीं शियांचो कडकडो. सगलेच जाण खोंपीच्यो कवड्यो लावन थंड न्हिदताले. मदींच रातीं कितेंसो बोवाळ जालो. महादेवाप्पा हो धर्मीक मनीस. तो अभंग म्हणत थारावलो. भायर बोवाळ चलतालो. नीलाप्पाल्या भुर्ग्याक व्हेलो अशें म्हूण लोक भायर उलोवंक लागले. महादेवाप्पा कवडी उक्ती करून भायर आयलो जाल्यार नीलाप्पाची घरकान्न हड्डें धाडावन रडटा. भायर काळोकीट्ट काळोख पातळ्ळा. सगळीच घडणूक दुखदिणी. सगळेच जाण गरीब आनी नेणार. तांका कोण आदार दितलो?

महादेवाप्पान सगल्यांक एकठांय करून बुद्ध दिली. अक्कारे! अण्णारे! आमी हांगासावन पयस वचूंया. जंय जीवाक सुरक्षितताय ना थंय एक खीणलेगीत रावचें न्हय अशें जाण्टेल्यानीं सांगलां. जीव आसल्यार भीक मागून जियेंवक जाता. चड उलोवंक वेळ नासलो. जणेकान साटलीपोटली खांदार घेवन

सकाळीफुर्डे बिटकी कवळ्ळी. सगळे जाण मडगावां पावले. कांय जाण वेर्ण्यीं पावले जाल्यार कांय ताकांबांदार. महादेवाप्पाक मार्त्शें देवाधर्माचें पिशें आशिल्लें. ताकांबांदावेल्या यल्लमाच्या देवळांत पयलेच फावट तो पावलो आनी पुजाऱ्यान ताची उजू धर्मीक चलणूक पळोवन थंयच रावपाक सांगलें. एक दोन दीस बरें आसा पूण सासणाचें देवळांत रावप समा न्हय म्हण महादेवाप्प्यान पुजाऱ्याक सांगलें आनी पुजाऱ्याचे वळखीन तो दोंगरार पावलो. मायक्रोवेव्हाचें काम थंय चालू आसलें. पुजारी मेस्त्रीक वळखतालो. ताका लागून महादेवाप्पाक खोंप घालूंक जागो आनी काम करूंक साधन मेळ्ळें. दोंगरावेलो तो पुराण पुरूश राजालो, ताच्या फाटल्यान खांजापीर आयलो, गंगाराम आयलो आनी दोंगरावेले ते मानादिक म्हालगडे जावन रावले.

फाटलीं २५ वर्सां महादेवाप्पा आनी ताचें कुटुंब दोंगरार रावता. मारूतीच्या फाटल्यान भीम्म्या नागेश, हणमंत, अशीं भुर्गीं दोंगरारूच जालीं. महादेवाप्पाचे फाटल्यान गिरेस्तकाय मेळोवन फुडारीपण करपी खूब जाण आसात. दोंगरार येवपी लोकांकडल्यान पागडी घेवप, आपूणच व्हडलो फुडारी अशें सांगून दादागिरी करप अशे तरेंचे काम महादेवाप्पाक केन्नाच जमूंक ना! महादेवाप्पा जे झोंपडेंत २५ वर्सांफाटीं रावतालो तेच खोपींत आयज लेगीत रावता.

म्हजी आनी महादेवाप्पाची इश्टागत जाली ती वेगळ्याच कारणांक लागून. शाळेंत ताचीं भुर्गीं येतालींच पूण तेभायर ताचेकडेन एक लोकगितांचे भांडार आसलें तें म्हाका महादेवाप्पाकडेन ओडीत व्हरतालें. झाडापाल्याचीं वखदां तर ताका कितलीशींच खबर आसात. एक पावट दोंगरार वतना पांय फातरार आपटून बोटांतल्यान रगत येवंक लागलें. पांय कणलो. आतां दोतोराकडेन कसो वतलों? दोंगर कसो देंवतलों? अशे प्रस्न दोळ्यांमुखार काजुल्यांभशेन लिकलिकूंक लागले. इतल्यांत कोणें वचून महादेवाप्पाक सांगलें मात, महादेवाप्पा उस्केचो पालो घेवन आपलो. ताणें पाल्याचो रोस काडून घाव्याचेर लायलो. रगत थांबलें पूण चलूंक खंय येतालें? पांय कणिल्लो. महादेवाप्पा रोखडोच मारूतीक घेवन आयलो. मारूती पांयान जालो. ताणें पांय चोळीत जाल्यार पांय दुखपाचो थांबता. जालें मारूतीन पांय चोळून चोळून सुळसुळीत केलो.

महादेवाप्पाकडेन अशीं जायतीं गांवटी वखदां आसात. पूण ताका त्या वखदांचीं गोंयचीं नांवां येनात. लवूसाल म्हळ्यार काटेकुंवर तिचे कितलेशेच उपेग ताका खबर आसात. बेलाच्या पानांचो, पाळांचो उपेग कितें हें ताचेकडल्यान आयकूंचें. धवे दसणीचो उपेग ताका खबर आसा. म्हाका ताच्या वखदांची जितली रूच तितलीच ताच्या लोकगीतांची. हांव ताचेकडेन वतालों तेन्नां ताचीं

पदां आयकूंक म्हाका खोस भोगताली. एक फावट हांवें ताका म्हळें, महादेवाप्पा तुजीं सगलीं पदां हांव वरोवन घेतां. ताणें सगलीं पदां म्हणपाचें मान्य केलें पूण ताका वेळ खंय मेळटा? पोट फाटीक लागलां. मागीर आयतारा दीस आमची बसका जावंक लागली. सकाळींफुडे हांव ताकतिकेन ताच्या घरा वचून बसतालों. म्हाका पळयतकीच सावित्रीबाय फुटी च्या हाडून दिताली. मागीर महादेवप्पा ताट घेवन ताटाच्या तालार गितां म्हण्टालो. गितांची सुरूवात गणपतीच्या पदान जाता :-

बाळाच काले कालेरो गणपती बाणो मेलेरो
पारवती मेली आंगोळीन पानी आन बेटी वचलाय
घसघस काडी मेलेन काडन बणायी बाळान
रवरो केरी गणपतीन मादेन गोच छत्तीसकोट
देवेन्द्रान मादेव अशेच धरेण गणपती उबो
वाट छोडुनी मादेवेन मारे याडी कीच मन वाट
मादेव केरो बाळान कळान वाट सरळ छोडद जायेन
वाट छोडुनी केरोच मोन।
लडाअी पडी मादेव मारो बाणेन मुंडी आडेगी
गणपतीर पारवती केरीच मादेवेन
कामारो मारे बेटान । बेटा कतेति मन मालम छे।

गणपतीच्या गितान चालू जाल्लीं ताचीं पदां आयकप म्हळ्यार एक पर्वणी कशी! आमची संस्कृताय कशी तळागळामेरेन पावल्या तें ह्या गितांतल्यान उक्तें जाता. गणपतीच्या पदाउपरांत विठोबाचें गीत -

सखूबाअीरो भाव देखेन देव आयो सासरो खेवेन
सखूबाअी की दिरो विचारो
पिटो लेरी शरणच भारी कांके माअी
बदणा घालन चली जारीच पाणी भरेण
मातेपर झारी पाडलेन चली आअी धरेण
सासूबाई केरीच वोरी बोडीन लोक
दिण्डी जारेच पंढरापुरेण!
तीं न संतो मिलुनी देवेण जना देव आयो
सखूरो भांन देखेणा हातन टांगेन सासरो खेवरी भगवान।
सखूवाअीन मेलो जातरान। सखूबाअी रवुदागी जातराम
विठोलदेव वेंगो च माया सासू केरीच वोरे बेटान

आमच्या देवांक, तीर्थस्थळांक राज्यांच्यो जांव भासांच्यो शिमो लागनात.

चेन्नापुरांत रावपी महादेवाप्पा सकाळीं उठून विठोबाचीं पदां म्हण्टा.

हेच परमाणें ताका राम परशुराम हांचीं गितांय तोंडपाठ आसात. रावणान सीतेक कशी धरून व्हेली हे विशींचें हें पद पळयात :-

राबळेल बोल पुरो वेगो सीता जोळी या घाल लेर्गो
मामा मर्ची हरणी बनाया रामेरे गडे आंग थोडो
सीता केरीच रामणे हरणी लाये पकडून।
राम केरो सीतादेवीन। इतो मायारी हरणी सीतामत
हरणी लीना येनी । काके मायी बाण घाललेन राम
हजारो हरणी पकडेन।
हरणी धासन जरी आंग उडालेरो मारण।
हरणी धासन जरी आंग उडालेरो मारण।
हरणी हाताये कोनी रामणे। रामशब्द आयो मुंडेय
रामधासनवेगो हरियाण । रामशब्द पडो सीतान
सीता केरो लक्षण्णेन । तरी भियान वेगो मोत
कोणे शीता देवी काअी वरे मारे भियान
का लक्ष्मण तारे धियान काअी वेगो
मन वाया करेन बेटो चिकायी
लक्षमण केरो सीता भजायीम सात मंडल पुरो
रावळ कांदे मायी जोळी घाललेन आयो
सीतामाता मन भिक्षा घाल सीताकेरी रावळेन
मायी आजाणे लेजो भिक्षाण।
कोनी देवी तरातेती घाल भिक्षाण
रावळ टांग पाडण घालो घरेम
जना अंगार लगो
ये वेळाण जना हात टांग पकडण झोळीत घल लेगो
रावळ लेगी सीतान.

अशीं कितलीशींच पदां महादेवाप्पाक पाठ आसात. लोकवेदचो भांडारीच तो. मारीचान सीतेक कशी व्हेली हें ह्या पदांत सारकें उक्तें करून सांगलां. महादेवाप्पाचें खाशलेपण म्हळ्यार ताका कसलेंच व्यसन म्हूणपाचें ना. नितळ मनीस तो. फटी मारप, काम करतां म्हूण पयशे व्हरप आनी काम करप ना अशेतरेचे आर्विल्ले अवगुण ताच्या आंगात भितर सरळ नात.

महादेवाप्पाक कसलेंय काम सांग, तो ना म्हणचो ना. आपणाच्यान जाला



तितलें करतलो. म्हज्या घरांतलो बसपाचो कोच एक दीस खिळो लागून पींजलो. हांवें महादेवाप्पाक म्हळें महादेवाप्पा तुज्यान कोच सारको करूंक जायत? महादेवाप्पा आयलो आनी कोचाक पळोवन म्हणूंक लागलो एक व्हडलें दाभण आनी सूत हाडून दवर. आयतारा येवन काम करतां. आयतारा महादेवाप्पा आयलो आनी ताणें सगळो कोच शिवून दिलो. खंय लायटीचें काम, खंय दुर्गी बांदपांचें काम, मेस्तकाम, गंवडेपण, कितेंय सांगल्यार हय म्हणपी महादेवाप्पासारकीं मनशां आतां मेळूंक खूब कुस्तार. म्हणून महादेवाप्पाची म्हाका व्हडवीक दिसता.

❁❁❁

# मौलासाब

आंगान किडकिडीत, मात्शी माकड दाढी वाडोवन दीसरात फुडारी जावपाचीं सपनां रंगोवपी मनीस म्हळ्यार मौलासाब. हुबळी लागीं आशिल्ल्या 'यमनूर' गांवांत ताचो घराबो आसा. ताजे शेजारी मोहिदीन हो वास्को हसनसाब रज़ाक ह्या होटेलवाल्याकडेन काम करतालो. मौलासाब घरचो गरीब पूण ताका मशीदा काडपाचें आशिल्ल्यान वास्कोंत रावन गोंयच्या मुसलमानांक एकठांय हाडपाचो वावर तो करतालो. आपूण एक फुडारी जांवचो, वेंचणुको जिखच्यो अशे तरेची आस्त तो सदींच बाळगून आसा. वास्कोंत रावन ताणें मुस्लीम फुडाऱ्यांकडेन बरे संबंद जोडले. मोहिदीनाच्या शेजराच तो एक खोंप घालून रावलो. थंयचे झोंपडपट्टेंत ताणें राजकारण चालू केलें. ते झोंपडपट्टेंत येवपी गोंयच्या लोकांकय तो सांगतालो तुमी भायले हांगा येवनाकात. आमचे प्रस्न आमी सोडयतात. हिंदू आनी मुसलमान ह्या दोनीय जमातिंनी धोशी घालपाचें काम तो बरें करतालो. ह्या कारणाक लागून ताका झोंपडपट्टेंतच कितलेशेच दुस्मान जाले आनी भाशीक झुजाच्या निमतान तागेली खोंप गुंडांनी हुल्पावन उडयली. आतां थंय रावपाक अर्थ ना अशें थारावन मौलासाब रातयांत मडगांवच्या मोंती दोंगरार पावलो.

शंकराप्पा त्या वेळार फुडारी आसलो. ताका कांय पयशे दिवन ताणें मोंती दोंगरार जागो मेळयलो. मौलासाब मेस्तपण करता. तो आयलो त्या वेळार शाळेचें बांदकाम पुराय जाल्लें आनी शाळा मदेरार करपाचें काम चालू आसलें. जरीय तो दोंगरार आयलो तरीय थोडो कुशीकच आसतालो. लीप चोरयां तो वावुरतालो. ताका दिसतालें आपणाक कोणूय वळखत, वास्को झोंपडपट्टेंत धोशी घालपी अशें म्हूण आपणाल्यो चाडयो करीत म्हूण तो भियेतालो. सकाळीं कामाक भायर सरून रातचो घरा येतालो. शाळा मदेरार करपाचें काम जाले उपरांत हांव सकयल उबो रावन पाडसार चडिल्ल्या लोकांक सुचोवण्यो करतालों. इतल्यांत मौलासाब म्हज्यामुखर येवन उबो रावलो. 'कितें मास्तर, कसो आसा तूं' म्हाकाय ताजें अजाप दिसलें. म्हगेली तागेली वळख नाशिल्ली पूण आपणाली खूब वळख आसा अशें दाखोवन तो उलयतालो. हांवें ताका नांव विचाल्ले. 'मौलासाब' अशी ताणें ज़ाप दिली. कितें काम करता? त्या प्रस्नाक मेस्तकाम अशी जाप आयली.

शाळेचें मदेर घालपाचें काम चालू आशिल्लें आनी मेस्त हाजीर जालो हें पळेवन म्हाका खोशी जाली. 'आमगेल्या कामाक मातशें हात बोट लायशी?' - हांवें विचारलें. 'हय तर' हांव आतां हांगांच रावतां. म्हजीं भुरगीं हे शाळेंत

येतलीं. अशें म्हणून ताणें वयर चडून, वांशांर खिळे मारपाचें काम चालू केलें. दोंगरावेल्या लोकांक काम करचेखातीर सोदचें पडटा. पूण हो आपूण जावन मुखार येता, सांगिल्लें काम खोशयेन करता हें पळोवन, बऱ्या कामाक सगल्यांचोच हातभार लागता अशें हांवें ताका म्हळें. त्या दिसासावन मौलासाब म्हजेवांगडा वावरूंक लागलो. जरीय तो वयले वयर सादो दिसतालो तरीय तो मनांतल्यान कट्टर मुसलमान धर्मीक आशिल्लो.

जूनाचो म्हयनो आयलो आनी शाळा चालू जाली. मळबांत काळीं कुपां एकठांय जातालीं. शाळेंत कांय उदक गळना जाल्यार पुरो, उदक गळूंक लागतगीच भुरग्यांक त्रास जातलो अशें एक दीस हांव शिक्षकांकडेन उलयतालों. त्याच वेळार मौलासाब थंय आयलो. तो सांगूंक लागलो फुडल्या म्हयन्यात 'रोजा' आसा. रोजा म्हळ्यार दिसाचो उपास करप. म्हयनो भर उपास करचो पडटा. नमाज पडूंक जाय. मौलासाब सांगतालो आनी हांव आयकतालों. फुडें तो विचारूंक लागलो, 'गुरूजी, दोंगराचेर मशीद ना ते खातीर हांगांसर रावतल्या मुसलमान लोकांक नमाज पडूंक मेळना. रोजाच्या दिसांनी नमाज पडप गरजेचें.'' इतले दीस ल्हवु ल्हवु करून मौलासाब म्हजे खूब लागीं आयिल्लो. ताचें म्होवाळ उलोवप आयकून म्हाकाय ताजेविशीं थोडीभोव आपुलकी निर्माण जाल्ली. हांवें ताका म्हळें, आमचे शाळेंत सगळ्याच धर्मीक लोकांक सुवात आसा. हिंदू, मुसलमान, क्रिस्तांव, सगळ्यांनीच एकठांय रावप, एकमेकाक पावप, जण एकाचो धर्म समजून घेवप, धर्मीक तत्वांचें गिन्यान मेळोवप खूब गरजेचें. म्हगेल्या ह्या उलोवण्यान ताका नेट मेळ्ळो. 'गुरूजी, सांग...' हांवें ताजेकडेन पळयलें. 'आमी एक म्हयनो जर शाळेचे एका कुडींत नमाज पडल्यार कशें जायत ?' म्हाका ताणें विचारलें. म्हाका ताच्या मनांतल्या कारस्तानाचो वास येवंक ना. हावें म्हळें, 'कांयच आडखळ ना. पूण आमची शाळा सकाळीं आठ वरांचेर चालू जाता. ताचेपयलीं तुमगेलो नमाज सोंपूंक जाय'. 'बरें आसा' म्हणून ताणें म्हजेकडल्यान एके कुडीची चावी घेतली. आनी एके रातीन दोंगरावेल्या मुसलमानांक ताणें लागीं केले. आनी नमाज पडूंक लागले.

सांजवेळचो नमाज, सकाळीं नमाज अशेतरीची कार्यावळ शाळेचे कुडींत चालू जाली. फांतोडेर नमाज पडून जातगीच मांद्रेचेर थंय न्हिदून रावप, आठ - आठ वरां मेरेन उठप ना. अशे तरेच्यो कार्यावळी मौलासाबान चालू केल्यो. म्हाका ताज्या कारस्तानाचो वास आयलोच ना. हांव भावार्थाचेर गेलों. एक दीस शाळेची शिक्षिका येवन कागाळ करूंक लागली की नमाज पडपी लोक थंयच न्हिदतात, थंयच विड्यो, सिगारां ओडून उडयतात. शाळेची भुरगीं भायर येवन तिश्ठत रावतात. म्हाका कितें करचें तें कांयच समजना जालें. मौलासाबाक जर हांवें म्हळें, 'बाबारे, तुमी हांगां नमाज पडूं नाकात, जाल्यार सगळेच मुसलमान

लोक आमचेर कोंत्र जातले. आमचेर फातर मारूंक लेगीत फाटींफुडें पळोवचे नात. दुसऱ्या दिसा सकाळीं हांव शाळेंत गेलों जाल्यार सगळे मुसलमान भाव शेंद्र्यांचेर न्हिदिल्ले आसात. शाळेच्या फळ्याचेर बरयलां 'यह मजीद है' हांव शाळेंत भितर सरलों आनी तांका शेंद्र्यो कवळून भायर वचूंक सांगलें. भायर भुरगीं तिश्ठतात अशेंय सांगलें पूण म्हजे सांगणेचो तांचेर कांयच परिणाम जावंक ना. उरफाटें मौलासाब म्हणूंक लागलो नमाज पडून जातगीच दोळ्यांत झेम येता, तेखातीर अशेंच पडून रावंक जाय. म्हाका ताजी तिडक मरल्ली. हांवें तिडकीभितर तांगेल्यो शेंद्र्यो कवळून भायर दवरल्यो आनी भुरग्यांक भीतर आपोवन बसूंक सांगलें. मौलासाबान हे घडणूकेचो प्रचार करपाक सुरवात केली. तो लोकांक सांगूंक लागलो की शाळेच्यो दोन कुडी आसात. तांतुंतली एक हिंदूची आनी दुसरी मुसलमांनाची. आमकां नमाज पडपाखातीर ही कूड दिवंकच जाय. ह्या ताज्या उलोवपान मुसलमान लोक भुल्लुसले. इतले दीस मेरेन दोंगरावेले हिंदू आनी मुसलमान भाव एकचरान रावताले, एकमेकांगेर खावंक, जेवंक वताले. लग्नां, शादी, बिसमिल्ला अशो जायत्यो कार्यावळी थंय जाताल्यो पूण मौलासाबान ह्या एकचाराक कीड लावपाचो वावर चालू केलो. म्हाका ह्या सगळ्या प्रकाराचें खूब दुख जालें. हांवें खंयचे भावनेन शाळेंत नमाज पडपाखातीर परवानगी दिली आनी मौलासाबान ताचो कसो गैरफायदो घेतलो हें चिंतल्यार, पुराय भारतांत हिंदू-मुसलमानांचें जें राजकारण आसा ताचीच ल्हानशी आवृत्ती दोंगरार चालू जाली.

मौलासाब तसो व्हडलोसो शिकिल्लो मनीस न्हय पूण सभावीकच ताका फुडारपणाचे गूण आशिल्ले. गोड उलोवप, कारस्तानां करीत रावप अशे तरेचें काम तार्णे चालू केलें. ताका उलोवपाची कला बरी साद्य जाल्ली. एकाद्र्या व्हडल्या फुडाऱ्याभशेन, 'भाईयो और बहनो', बुजुर्गो और दोस्तो' अशें म्हणून तो उलोवपाक लागलो की आयकत रावचें अशें दिसतालें. हाजें फुडें तार्णे दीसरात एकीच मागणी नेटान फुडें मांडप चालू केलें. ती मागणी म्हळ्यार आमकां मशीद जाय. शाळेचे दर एके बसकेंत हो प्रस्न उप्रासतालो. हांव तांकां म्हण्टालों, आरे तुमी आयल्यात ते पोट भरपाखातीर. तुमच्या गांवांनी मशिटी, मंदीरां नांत म्हणून तुमी हांगां आयल्यात काय कितें? ह्या म्हज्या उलोवण्याचो मौलासाबाचेर कांयच परिणाम जावंक ना. मौलासाब उबो रावन उलोवंक लागलो आमकां मशीद बांदूक मेळनाजाल्यार आमी बसकेक येवचे नांत, तुमचे शाळेंत भुरग्यांक धाडचे नांत. तागेले हें उलोवणें आयकून मुसलमान लोक तकली हालयताले. हांवें तांकां स्पश्टच सांगलें, 'भावांनो, हांव हांगा आयलां तो मंदीर, मशिद बांदूक न्हय. म्हाका शाळा चलोवपाची आसा. हे शाळेंत सगळ्याच धर्मांचीं भुरगीं येतात, तांकां एकेच तरेचें शिक्षण मेळटा. चवथ, परशुराम जयंती,

नाताल, ईद ह्यो सगळ्योच परबो आमी मनयतात. शाळा हेच आमचें मंदीर, गिन्यानाचें मंदीर'.

म्हज्या उलोवण्याचो एकदोन मुसलमांनाचेर बरो परिणाम जालो पूण बाकिचे सगळेजाण मौलासाबाच्या फुडारपणा खाला बसका सोडून भायर गेले. त्या दिसासावन मौलासाबाच्यो दिसाच्यो बसका चालू जाल्यो. दीसभर पोटाखातीर वावुरपी मुसलमान भाव राती घरा मेळटाले. धर्माच्या नांवान तांकां एकठांय हाडप सोंपें आशिल्लें. शाळेपरस मशिदीची गरज आसा. आमच्या भुरग्यांक धर्मिक शिक्षण जाय. कुराण येवंक जाय. अशे तरेचें तत्वगिन्यान मौलासाब तांचे तकलेंत भरतालो. म्हजो मोटो पेंच जालो. दोंगरावेलो सर्वसादारण मनीस सादो आनी भावार्थी. जातीपाती परस दरिद्रीपणाचें नातें तांकां चड लागीं हाडटालें पूण मौलासाबान त्या दोनूय जमाती मदीं वण्टी उब्यो केल्यो. गांवांतल्या मुसलमानांक हातींत धरून वा एकठांय करून तो, हांव मुसलमानांचो विरोधक अशें सगळ्यांक सांगूंक लागलो. गांवातले मशिदींत म्हजेआड ताणें खूब कागाळी केल्यो.

सर्वसादारण दोंगरावेल्या मनशाक मौलासाबाचें राजकारण मानवनाशिल्लें. मौलासाबा फाटल्यान ताजेविशीं खूब उलयताले पूण तोंडार मात ते दांतखिळी बशिल्ल्यावरी ओग्गी रावताले. दोंगरावेले मुसलामान सगळे अेक आनी हिंदूमात दुसरे वाटेन अशी परिस्थीती निर्माण जाली. म्हाका खूब दुख जालें. मौलासाबा सारको दुबळो मनीस धर्माची निसण घेवन फुडारी जावंक पावला. ताका समाज सुदारपाची गरज ना. भुरग्यांक शिक्षण दिवपाची गरज ना, धर्माचें घेवन तो व्हडलो 'सेक्युलर' मनीस जाला. मौलासाबान आपल्या गोड उलोवण्यान दोंगरावेल्या कांय गिरेस्त लोकांक एकठांय केले आनी तांतूंत तान्या, मुपण्णा अशाय लोकांक भीतर ओडले. संघाचो अध्यक्ष, तिजोरेर अशीं पदां दिवन तांकां फुसलायले.

दोंगरावेली शाळा काडून ती चालीक लावपाचें काम आतां पुराय जाल्लें. म्हाकाय त्या मौलासाबाचे भानगडींत लक्ष दिवपाक वेळ नाशिल्लो. एके वाटेन मौलासाब आनी ताचे मुसलमान भाव आनी दुसरे वाटेन हांव अेकलो अशी परिस्थीती निर्माण जाली. वेंचणुको आयल्यो की व्हडले व्हडले फुडारी मौलासाब, तान्या, मुपण्णा हांकां मेळूंक येताले कित्याक़तर दोंगरार सापूच उणीं म्हळ्यार हजारभर मतां आशिल्लीं आनी खंयच्याय उमेदवाराचें भवितव्य तीं बदलूंक शकतालीं. कोणूय आयलो की मौलासाब पयलीं मशिदीची गजाल सांगतालो, मुसलमानांचेर अन्याय जाता अशें सांगतालो. मतांचे

आशेन,उमेदवारय ताका तेंको दिताले. शिक्षण, समाजसुधारणा अशा विशयांचें कोणाकूच कांयच पडून वचूंक नाशिल्लें. एक दीस एक राजकारणी मनीस म्हजेसरीं येवन सांगूंक लागलो - ''तुंवें थंय वाचपाचें बंद केल्यार बरें जातलें. हिंदू, मुसलमान लोक एकचारान रावताले अशें मौलासाब म्हण्टा''. हांवें ताका म्हळें, ''हांव ज्या कामांखातीर थंय वतां तें काम पूराय जालां. म्हाका शाळा बांदपाची आशिल्ली ती पुराय जाल्या. आयज ते शाळेंत दोनशीं भुरगीं शिकतात. आनी म्हाका कितें जाय? म्हाका कांय राजकारण करपाचें ना.'' अशें म्हूण ताका सांगलें. दोंगरावेले बदलिल्ले पांचय रंग म्हाका दिश्टी पडटाले. हांवें अेक दीस बसका आफोवन शाळा संघाच्या ताब्यांत दिली आनी म्हजी दिसपट्टी भोंवडी पुराय केली.

पयर एक दीस म्हाका करीमसाब मेळळो. खूब दिसांनी तो म्हजे सरीं आयिल्लो. मौलासाबाचें आनी ताचें हालीं पटना अशें तो सांगूंक लागलो. ''कित्याक रे?'' हांवें ताका विचारवें. ''सांगतां आयक. मौलासाब आनी आमच्या मुसलमान भावांची पयर बसका जाली. तांतूंत मौलासाब सांगूंक लागलो की हांगासर रावपी हिंदू भावांक आमी सदांच आमच्या चेंपणाखाला दवरूंक जाय. तांकां वयर येवंक दिवंक जायना.'' मौलासाबाच्या त्या उलोवपाक हांवें विरोध केलो. हांवें सांगलें मुसलमान आनी हिंदू वर्सां जालीं एकठांय रावतात. तेवूय आमचे सारके मनीस. तांकां चेंपणाखाला दवरप म्हका मान्य ना. अशें म्हणून हांव बसकेंतल्यान भायर सरलों.'' ताणें ताराप्पाक ही गजाल सांगली आनी दीसरात मौलासाबाच्या सांगण्यान कारस्तानां करपी तारप्पा अेकदम उदार जालो. मौलासाबाची भितल्लेभितर चलिल्लीं कारस्तानां तांच्या लक्षांत आयलीं. आनी तो उंचेल्या आवाजांत आड्डूंक लागलोः ''हो मौलासाब कारस्तानी. हाणेंच लोकांक शिकोवन दूरदर्शनाचें चित्रिकरण बंद उडयलें. हाणेंच चोरयेचो माल हांगासरल्ल्या लोकांक विकून पुलिसेंत कागळ केली आनी घरांचेर धुरयो घालपाक लायल्यो''. लोक घरांच्या दारांत उबे रावन तारप्पाचीं उलोवणीं आयकताले. मौलासाबाच्या छळान त्रासिल्ल्या लोकांक आशेचीं किरणां दोळ्या सामकार दिसूंक लागलीं.

मौलासाबाच्या कारस्तानां कडेन पळेल्या उपरांत, केन्ना केन्नाय म्हाका भारत स्वतंत्र जावचे आदीं महमद अली जिना हाच्या कारस्तानी राजकारणाची याद येता आनी मौलासाबाची तुळा बॅरिस्टर जिना कडेन करची अशें दिसता. गोड उलोवप, कारस्तानां करीत भोंवप, फाटीर सुरो मारप, आपणाल्या उलोवण्यान दुसऱ्यांचेर छाप घालप हे कांय तुळा करपासारके गूण. मौलासाब हो हालीं 'काउन्सिलर' जावपाचीं सपनां पळेता. व्हडल्या व्हडल्या राजकारणी

लोकांकडेन ताच्यो बसका जातात. दुर्दैवान ताका शिक्षण कांयच ना. 'मौलासाब' अशी निशाणी लावंक येता तितलीच. पूण हालीं फुडारी जावपाक शिक्षण लागना, वेंचून येवपाक शिक्षण लागना. ते खातीर लागता तो जाती पातीचो आधार. त्या आधारान मौलासाब काउन्सिलर कित्याक मंत्री लेगीत जावंये. आमी मौलासाबाक बरें गोंय मागूंया.

***

# गंगारामण्णा

दोंगरावेले वस्तींत हांव जेन्ना भोंवक लागलों तेन्ना म्हजी नदर ओडून घेवपी मनीस म्हळ्यार गंगाराम. ताका दोंगरावेलो लोक गंगारामण्णा अशें म्हणटात. कांय लोक गंगारामण्णा अशेंय म्हणटात. धवेंफुल्ल पुडवें न्हेसून ताचेर धवेंच खोमीस घालून वावुरपी गंगाराम झोंपडपट्टेत रावता हाचें म्हाका अजाप दिसता. कित्याक तर चडशे झोंपडपट्टेंतले लोक म्हळ्यार म्हेळे कपडे घालपी. नितळसाणीन रावपी न्हय. पूण गंगाराम हो सामको शारी मनीस कसो. तो मानाय न्हय, वेपारी. बिजापूराक रावपी. ताणें चिंतलें गांवांत वेपार बरो चलना. पावस पडना. गोंयचें नांव तो सदींच आयकतालो. एक दीस साटली-पोटली घेवन तो मडगांव स्टेशनार देंवलो. बायल भुरगीं वांगडा आशिल्लींच. लाडू, मिठाय करपाचीं आयदनां बांदून ताणें हाडिल्लींच. मडगांव स्टेशनाचेर ताका, निलाप्पा मेळलो. तोय बिजापुरचोच. मडगांव स्टेशनाचेर हमाल म्हूण काम करतालो. ताचे वळखीन गंगारामण्णा दोंगरार पावलो आनी बरी सुलच्या नळ्यांची खोंप बांदून तो रावंक लागलो. बाकीच्यो खोंपी कोलवाच्यो. हें अेकच घर नळ्यांचें. हे खातीर गंगारामण्णाचें घर सगल्यांचे नदरेंत भरतालें.

गंगारामाक कानडीबगर दुसरी खंयचीच भास येना. हांवें ताका विचारलें, ‘‘गोंयची भास कोंकणी. तूं कोंकणी कित्याक शिकना?’’ आपलें कांयच अडना अशी जाप ताणें दिली. बाजरांत गेल्यार वेपारी लोक कानडी आसात, ते कानडी भाशेंत उलयतात. दोंगराचेर तर सगळ्यांकच कानडी येता. तागेलें चडशें गिरायक म्हळ्यार मानाय, मजूर. मडगांवा गांधी मार्केटांत गंगाराम एक ल्हानसो गाडो चलयता. भजीं, मिरसांगो, लाडू, चिवडो, शेव अशे तरेचीं खाणां गंगाराम गाड्यार दवरता. आनी सांजवेळा पिवंक आयिल्ले लोक भोव करून कामगार ताका गिरायक घालतात. सदींच पान खायत खायत गंगाराम मिठाय, लाडू करतना म्हाका दिश्टी पडटा. हांव गेल्याबराबर तो म्हाका म्हणी बसूंक दिता. ‘‘येन गंगारामण्णा, येन समाचारा’’ अशें विचारतगीच मागीर तो उलोवंक लागता. तागेल्या उलोवपांतल्यान हां, हूं, करत अर्थ लावपाचो यत्न हांव करतां. गंगाराम मागीर म्हाका पान सुपारी खावंक दिता. खरें पळेल्यार म्हाका पान खावपाची सवंय केली ती ह्या गंगारामान. ताच्या घरा गेले उपरांत तो पान दिलेबगर केन्नाच सोडीना.

गंगाराम, ताची घरकान्न, तीन धुवो असो परिवार घेवन गोंयांत आयलो. सगळ्यांचीं लग्नां, कारणां करून गंगाराम आतां मेकळो जाला. गोंयांत काम करपी मनीस केन्नाच उपाशीं पडना. कश्ट करपाची मात सवंय जाय. गंगारामाचो चडसो वावर चड करून मिठाय करपाचो घरांतच चलतालो. चकरी,

भजीं, बरफी, लाडू घरांत तयार करून तो भायर व्हरून विकतालो. ह्या वेवसायाचेर ताणें दोंगराचेर बरें घर बांदलें, भुरग्यांबाळांक शिकोवन फुडें आधार दिलो. हालीं ताणें बिजापूराक लेगीत सुवात घेवन घर बांदलां अशें हांवें आयकलां. सांजेच्या स वरांसावन रातीं धा वरांमेरेन वेपार करून येतना कोपाचें मारून तो घरा येतालो. पूण बायल, भुरग्यांक मारप असल्यो घडणुको तो केन्नाच करनाशिल्लो. ताची घरकान्न ताका वेपार करपांत सदांच आदार दिताली. म्हजो, ताचो चड संबंद आयलो तो शाळेक लागून. सुरवेक जी आमी शाळा बांदली ती चुट्टांची, मांगर कसो. बड्डेंच्या भाटकारांगेर वचून वचून हांवें चुट्टां अेकठांय केलीं. आनी एक दीस सगळ्या भुरग्यांक एकठांय करून दोंगरार व्हेलीं. तीं चुट्टां पावसापयलीं शाळेर चडवपाक जाय आशिल्लीं. पावस तर सामको तकलेर बशिल्लो. चडशे मानाय दीसभर मेळनाशिल्ले. आयतारा मेळळेच जाल्यार तांकां रेशन हाडपाचें जांव घरांतलीं कामां करपाचीं आसतालीं. ताकां सदांच आपोवन हांव बेजार जालों. म्हाका सदींच दिसाचो घरा मेळपी मनीस म्हळ्यार गंगाराम. ताका मेळून हांवें सांगलें, ''गंगाराम, आयज शाळेची खोंप बांदूंक जाय, पावस सामको माथ्यार आयला.'' गंगाराम मिठाय करपाच्या कामांत गुल्ल आशिल्लो. लाडू करपाक ताणें रव्याची कायल रांदनीर दवरिल्ली. ताका म्हज्या म्हणण्याचो अर्थ समजलो. आयज शाळा बांदूकच जाय ताका समजलें. ताणे घरकान्नी कडेन पळयलें. तिणें मानेनच खूण करून ताका सांगलें तूं वच, गुरूजीक मदत कर. गंगाराम आनी हांव शाळेकडेन आयले. पुडवें, कंबरेक घट बांदून तो पाडसाचेर चडलो आनी हांवें ताका चुट्टां दिलीं. एक-एक करून चुट्टांनी दनपार मेरेन आमी वावर केलो. आनी शाळा शिवपाचें काम सोंपयलें. गंगाराम हो व्हडलोसो शिकूंक नासलो तरीय ताणें शाळा पळयल्या, ती म्हळ्यार कितें हाचो अर्थ ताका खबर आसा. खरें पळेल्यार ताचीं भुरगीं म्हजे शाळेंत शिकूंक नात, पूण शाळेच्या कामांत ताणें सदांच म्हाका हातभार लायलो. शाळा शिवून काडली. त्याच दिसा रातीं पावस चालू जालो. गंगारामान वेळ राखलो हे गजालीची म्हाका सदींच याद जाता.

गंगाराम आतां जाणटो जाल्लो. आंगडीक वचून वेपार खपोवप ताका जमना. आंग कश्टप ताज्यान जायना पूण तो निजाचो वेपारी. खरें पळेल्यार तो बेरड हे जमातींतलो. पूण ताजी शिटुकसाण घेवपासारखी. ताणें घराच एक पसरो घाला. फाटीं एदुर्आद बाब दुडवामंत्री आसताना ताणें गोंयांत खूब सुवातांनी रिणांचो पावस घालो. दोंगरार लेगीत दोन लाख रूपया पावले. त्या रिणाचो लाभ गंगारामान लेगीत घतिल्लो. ताणें घातिल्ल्या ल्हानशा पसऱ्यार सामान हाडपाखातीर ताका सात हजार रूपया मेळळे. गंगारामाचो पसरो आयज बरो चलता. लाडू, भिकणां, जांव विडी-काडी सगळ्योच वस्तू ताज्या पसऱ्यार

मेळटात. हांव केन्नाय दोंगरार गेलों जाल्यार ताज्या पसऱ्यार वचून ताका मेळटां. तो पान-सुपारी दिवन म्हजो परामर्श करता. दोंगरार जायत्या लोकांनी बारीक सारीक वेपार करूंक, गोरवां बोकड्यो घेवंक बँकांकडल्यान रिणां घेतलीं. चडशा लोकांनी एकूय पयसो दिवंक ना पूण हाका आडवाद गंगारामाचो. गंगारामान मात सगले रिणाचे हप्ते पावते केले आनी तो रीण मुक्त जालो. शाळा बांदपाच्या म्हज्या वावरांत तो सदींच म्हजेवांगडा आसतालो. शाळा चालू जातगीच आमी नेमान चवथ करपाचें थारायलें, परशुराम जयंती करपाचें थारायलें. अशा वेळार पट्टी उठावप, निवेद्याक प्रसाद करप ह्यो गजाली गंगारामच करतालो. गंगाराम हो यल्लमाचो भक्त, यल्लमाचो पूजारी. दर वर्सा यल्लमाचे परबेखातीर ताज्या घरा येतालो. एक वर्सा तो आयिल्लो आसतना गंगारामान म्हाकाय जेवणाक आपोवणें धाडलें. गंगारामाली परब म्हळ्यार सगल्या गांवाक जेवण. यल्लमाचो पुजारी बायलेचो भेस घालून, साडी - चोळी घालून नाचतालो. कपलाक व्हडलो कुकूम लायिल्लो. त्या पुजाऱ्याक गंगारामान आमचे शाळेची खबर सांगली. हांवेंय ताका शाळा व्हरून दाखयली पूण व्हडलोसो कांयच लाब जावंक ना. दोंगरांतल्या नेणार लोकांत बरी समजीकाय आशिल्लो मनीस म्हळ्यार गंगाराम. फुडें धर्मीक कोल्लाक लागून जायत्या लोकांचीं मनां दुभावीत जालीं. हे भायर राजकीय लोकय भीतर सरतालेच. ताका लागून दिशीं दिशीं धोशी आनी कलह हांच्यो बियो दोंगरार किल्लूंक लागल्यो. पूण ह्या खंयच्याच कोल्लांत गंगारामान वांटो घेवक ना. एक फावट दोंगरार धुमशणां चालू जालीं आनी गंगाराम म्हज्या घरा आयलो. म्हाका म्हणूंक लागलो 'गुरूजी, दोंगरार आतां परिस्थिती वायट जाल्या. खूबशे लोक आतां पयशेकार जावन राजकारणी लोकांच्या हातांतलीं बावलीं जाल्यांत. आमी एक नवीन संघ काडूंया. तातूंत सगल्या बारीक लोकांचो आसपाव करूंया. तांकां एकठांय हाडून शाळेक घटसाण दिंवया' पूण गंगारामाची ही येवजण फळादीक जावंक पावली ना. कित्याक तर दोंगरार हातांत कट्टी घेवन आयिल्ले लोक आतां गिरेस्त जाल्यात. तांचे आड गंगारामासारकेलो मनीस चडसो धवाडगो - फुडें येता हें मवाली लोकांक पटपाचें काम न्हय. गंगारामाक ताणी दोन दीस स्थानबंदी करून दवरलेलो, ताका भायरच सरूंक दिलें ना. गंगारामाच्यो सगळ्यो येवजण्यो ताका बांदून दवरच्यो पडल्यात. हालीं गंगारामाचो पसरोय बरो चलना. दोंगरार सापच उणे म्हळ्यार धा पसरे तरी जाल्यात. च्याचे पसरे जाल्यात. तांतूंत गंगारामाचो पसरो कसो चलततलो ? पूण गगाराम हो शिटूक मनीस. ताणें सोरो विकूंक सुरवात केल्या. सकाळीं एक फावट बाजारांत वचून सोऱ्याचो कारबो घेवन तो घरा येता आनी ताचे पांचशीं रूपये घडीत करता. पयर हांव तांच्या पसऱ्यार पावलों तेन्ना तो सागूक लागलो, 'गुरूजी, हालीं सोऱ्याचें नेगोस बरें चलता''. सोऱ्याची गादी दोंगरार आसूं, रानात आसूं लोक

थंय आपसूक पावतात. गंगाराम सांगतालो आनी हांव आयकतालों.

गंगाराम जाणटो जालो तरी तो कितेंय ना कितें वावर करीत आसता. कोणाच्याच झगड्यांत तो मेतेर जायना. आपणाल्या पसऱ्यार बसून तो सोरो विकता आनी स्वताय पिता.

कालच ताका मेळूंक गेल्लो. सोरो पिवन मान्न्यांत गेल्लेकडेन ताचो पांय मोडलो. ताका जायतीं वखदां चालू केल्यांत पूण ताचो पांय बरो जायना. हांव ताका मेळूंक गेल्लों तेन्ना तो सोरो पिवन जाम जाल्लो. म्हाका पळोवन पायांपडून सांगूंक लागलो, ''गुरूजी, आतां म्हजे दीस लागीं आयल्यात. गोंयांत आयल्यार पंचवीस वर्सांवयर जालीं. आतां म्हजीं भुरगीं बाळां, आपआपणाल्या पायांचेर उबीं रावल्यांत. आतां चड दीस आथंरूणाचेर लोळपाची इत्सा ना....'' गंगाराम तोंडान एक सारको गुरूजी प्रणाम म्हणटालो आनी हांव ताका ताचे हात, हातांत घेवन सांगतालों, ''गंगाराम, तूं कांयच भियेवं नाका. तुवें आयज मेरेन खूब लोकांचें बरेंपण मेळयलां. तुका लांब जीण मेळटली'' अशें सांगून ताजो निरोप घेतना म्हजेंय मन ताज्या उगडासांनी जड जालें. घरा येतना म्हाका गंगारामाच्यो यादी सतयताल्यो. गंगाराम हो बेरड जमातींतलो पूण मनान एकदम नितळ. खंयच्याय बऱ्या वावरांत हातबोट घालपी. दोंगराचेर सगलेच लोक ताका बापाय सारको मानतात. पिकलव्वा, गंगव्वा, नूरजहाँ ह्यो बायलो तागेल्या धुवांभशेन खिणाखिणाक ताका वचून मेळटात. गंगारामणअण्णा असो उलो मारून ताजी वासपूस करतात. हे ताच्या बऱ्या सभावाचें लक्षण; झोंपडेंत रावलो तरीयपूण तो मवाली जांवक ना. सरकारी रिणां ताणें घेतलीं पूण तीं बुडोवपाची ताका वान्सा ना. कांय वेळार शारी लोकांचें चड करून मत आसता की झोंपडपट्टी म्हळ्यार गुन्यांवकारी लोकांचें कुळार. दोंगरारय ल्हवू ल्हवू करून गुन्यांवकारी वृत्ती वाडटा हें पळोवन गंगारामाक खूब वायट दिसता.

हालींच दोंगरार पोलिसांची धुरी आयली आनी खूबशा घरांनी व्हिडिओ, जांव चोरयेचें सामान सांपडलें. लोकांक धरून व्हरून मारपेट जालो आनी एका भुरग्याक ताच्याच वांगड्यांनी व्हरून कुळेंच्या रानांत जिवानिशीं मारलो. अशे तरेच्या घडणूकांक लागून गंगारामाक दुख जाता. ताका दिसता हे सगले मवाली मोंती दोंगराचें नांव पाड करतात. मोंती दोंगराचेर सगलेच लोक कांय मवाली नात. हांगाय मोतयां, माणकां आसातच पूण तीं मोतयां माणकां कवचेंच्या मोलान विकपी लोक आतां दोंगरार निर्माण जाल्यात. विचार करीत करीत घरा पावलों तेन्ना सांजेचो सूर्य प्रकाश सोंपून चंद्रीम मळबांत उदेतालो.

०००

# हसन खान

हसन खान हो उक्तो मनीस. सदांच एक पिजाम घालून घरा भायर बसून कपडे शिंवीत आसता. ताका पळेल्यार दिसतलें की हाजीं फकत हाडां आनी कातच आंगार आसा. चरबी म्हणटात ती एक चिमटीभर लेगीत ताज्या आंगार दिसची ना. छातयेर धवे फुल्ल केंस, ताकाच मॅचींग जावपी खाड आनी तकलेर बारीक केंस. मुसलमानी धवी तोपी घालतगीच तो 'अब्दुल गफार खान' कसो दिसता.

हसन खान हो बैदूरचो. तागेलो गांव हुबळीलागीं आसा. अशें तो केन्ना केन्ना सांगता. ताचो वेवसाय दर्ज्याचो. बैदूर हो गांवगिरो वाठार. थंय दर्ज्याचो आनी वेवसाय कितें चलतलो? दीस-दीस वाट पळेल्यार लेगीत गिरायक मेळना, देखून पोट भरना. म्हण्टगीच हसन खान बायल भुरग्यांक घेवन गोंयांत पावलो. वास्कोंत ताका रावंक एक जागो मेळ्ळो. ना जाल्यारय वास्को शारांत गोंयां भायरसून येवन वस्ती करून राविल्ले खूब्ब लोक आसात. भय्या लोक आसात. तामीळ, तेलगू, मल्याळम्, कानडी उलोवपी लोक खूब आसात. थंय झोंपडपट्टेंत जांव वास्को लागसारच्या सुवांतानी रावतात. हसन खानय अशेच एक झोंपडेंत रावतालो. थंयसर ताका कपडे शिंवपाचें काम बरें मेळटालें. ताची घरकान्न बिबीजान आनी तांचीं सात-आठ भुरगीं शांततायेन थंय दीस सारतालीं. पूण अकस्मात हसन खानाचें दुर्दैव आड आयलें. १९८६ वर्सां गोंयांत भाशीक चळवळ सुरू जाली आनी ताचो फायदो घेवन कांय गुंडांनी वास्कोचे झोपडपट्टेक उजो घालो तांतूंत बाबड्या हसन खानाचो संवसार हुलपलो.

झोंपडीवाल्यांचो एकचारलिंग आसता. गोंयांत साबार सुवातांनी - पणजे, वास्को, मडगांव ह्या वाठारांनी जाल्ल्या झोंपडपट्ट्यांनी रावपी लोक एकमेकांकडेन यो - वच करीत आसतात. वास्कोचे झोंपडपट्टेंत कितें चल्लां ती खबर मडगांवच्या झोंपडपट्टीवाल्यांक रोखडीच मेळटा. मडगांवची तशीच खबर वास्को, पणजे रावपी झोंपडीवाल्यांक मेळटा. मोंती दोंगर वास्कोचे झोंपडपट्टेमानान थंड आशिल्लो. कांय किजीलां उप्रासलीं, पूण रोखडेच थंय पुलीस आयले आनी शांतताय पातळ्ळी. मडगांवचें वातावरण लक्षांत घेवन हसन खान आपणालें सामान घेवन मडगांवां पावलो. आनी शाळेच्या लागसारच खोंप घालून रावंक लागलो. दीसपट्टीं शाळेंत कितें घडटा, कोण येता, कोण वेता हाजेर ताची बारीक नदर आसताली. तो मिशिनाचेर कपडे शिवीत बसतालो खरो पूण ताजी एक नदर सदांच शाळेचेर आसताली.

हसन खान जरीय झोंपडेंत रावतालो तरीय लेगीत ताची वागणूक उजू

आसली. खूबशे फावटी आमकां अशें दिसता, झोंपडपट्टी म्हळ्यार सगळेच गूंड आनी मवाली रावपाचो जागो. पूण कांय लोक इलाज ना जावन झोंपडेंत रावतात. तांगेल्या गांवांत, तांचें बरें घरदार आसता, ल्हानशें जाल्यारय शेत-भाट आसता. पूण गोंयांत आयल्या उपरांत बऱ्या मनशाक लेगीत झोंपडेंतच रावपाचो वेळ येता. हसन खानालें तशेंच जालें. तागेलो नातू मून्ना म्हजे शाळेंत येतालो. तांची वाणी नितळ आनी वागणूक उजू तांकां लेगीत हावें गितां, रामरक्षा शिकयली. ते गितां म्हणूंक लागले की आयकुपी लोक म्हाका विचारताले. ''सर खंयचे शाळेंत ही भुरगीं शिकतात?'' मागीर हांव तांकां सांगतालों, ''हीं भुरगीं म्हजे शाळेंत शिकतात.'' तांची फाटभूंय आयकतगीच लोक अजाप जाताले. हसन खानाल्या घरांत वातावरण एकदम वेगळें. दोंगरावेल्या घरांनी भोंवतना म्हाका बसपासारको जागो दिसतालो तो म्हळ्यार हसनखानाली पडवी.

दोंगरावेले चडशे मुसलमान म्हाका मास्तर म्हूण उलो मारतात पूण हसन खान मात म्हाका सदांच गुरूजी म्हण्टा. हसन खानाक पांच पूत आनी दोन धुवो. सगल्याच भुरग्यांक ताणें थोडें भोव शिक्षण दिवपाचो यत्न केला. तागेली एक चली 'शाहजादी' म्हजे शाळेंत येताली. शिकपाक एकदम हुशार पूण फुडें गांवच्या मुसलमानाच्या चेपणाक लागून हसन खानान शाहजादीक उर्दु शाळेंत घाली. चली भुरग्यांक मुसलमान धर्माची देख मेळूंक जाय. तांकां 'इलम' पाठ येवंक जाय, ना तर शादी जावंक आडखळ जाता. अशे तरेच्या उलोवण्यामुखार हसन खान कांयच करूंक पावलो ना. 'गुरूजी क्या करना, हमारे लोग बहोत सताते हैं' अशें म्हणून तो हातवारे करून तागेली नाखुशी उक्ती करतालो. हसन खानाक सगल्यो गजाली बऱ्यो समजतात. दर एक गजालींतलें सत कितें आनी फट कितें हाची ताका बरी जाणविकाय आसा. पूण तो सभावान भिजूड. खर निशेद करप, विरोध परगटावप असल्यो गजाली ताका जमच नाशिल्ल्यो. ताजे पडवेर बसतगीर तो तरेकवार गजाली मेकळेसाणीन म्हाका सांगतालो. पूण हांव ताका म्हणी 'हसन खान, त्याच वेळार तुवें निशेद कित्याक दाखयलो ना?' तो हांसून म्हणटालो ''गुरूजी, मुझे जमता नहीं, क्या करना? मुझे सब बात समझती, पर विरोध प्रगट करने को आता नहीं''. हसन खान हो जातीचोच भिडेस्त मनीस कोणाक वायट उलोवप, गाळी मारप अशें ताका केन्नाच जमलें ना. आसतात अशीं कांय मनशां. तीं उक्ते नदरेन अन्याय पळेतात आनी कानांनी आयकतात. अन्यायाक प्रतिकार करपाची तांक तांचेमदीं नासता.

हसन खानान ल्हवू ल्हवू करून आपणाल्या भुरग्यांक बरे तरेन वयर काडलीं. तागेलीं तीन भुरगीं गल्फांत आसतात. तांतूंतलो व्हडलो पूत चमन सौदींत वचूंक सोदतालो. ताका धा-पंदरा हजार रूपयांची गरज आशिल्ली. खूबशेकडेन ताणें उतर घालें. पूण कांयच साद्य जालें ना. घरांत कितें

बारीक-सारीक, किडूक-मिडूक विकून पांच हजार रूपया ताणें एकठांय केले पूण आनीक धा हजार रुपया जाय आशिल्ले. तो म्हजे सरीन आयलो. पांयां पडून रडूंक लागलो. 'गुरूजी, अभी सिर्फ तुम्हारा भरोसा है,' हांवें त्या वेळार ताका मदत केली आनी एकाफाटाफाट ताजीं तीन भुरगीं सौदीक पावलीं.

मनशाक उदरगत करपाचो एक मार्ग सांपडायचो पडटा. एक फावट वाट मेकळी जाली की ते वाटेन हेर लोकांकय वचूंक मेळटा. हसन खानाक सदांच रातीच्या वेळार रोसांव लागता. सोरो पिवप हें इस्लाम धर्माआड, पूण कितें करतलो, दीसभर मिशिनार बसून ताजे हातपांय दुखतात. अशा वेळार रोसांव घेवप गरजेचें. ताका लागून तो मशीदीक वचना. हांव ताका खूब फावट विचारतां 'आरे तू मशिदींत कित्याक वचना', बाकीचे सगले लोक वेतात. तो म्हण्टा "शराब पिके मशिद में जाना मना है। मैं झूठ बोलना नहीं चाहता. बाकी लोग शराब पिके भी मशिद में जातें हैं, तो क्या करना?" अशा वेळार हसन खानातलो सत्यवादी म्हज्यामुखार उबो रावता.

हालीं धर्माच्या मुळाव्या तत्वगिन्याना परस वयल्याचारचो आचार चड जाला. पितांबर न्हेसून, जानवें घालून सकाळीं देवळांत वचपी मनीस सांजवेळा कितल्या लोकांक फटयतात हें सांगप कुस्तार. कांय लोकांनी अशीं चाल आसा की ते सकाळीं एकीच फावट खरें उलयतात, मागीर दीसभर फटीचो वेव्हार चालू आसता. पूण ते सगलेच लोक सुसंस्कृत, उंचेल्या पांवड्यावेले. पूण हसन खानासारकेलो मनीस वेगळोच. दोंगरावेले लोक ताका राठीवाला बुढ्ढा म्हूण वळखतात. राठी म्हळ्यार मशीन. मिशिनार बशिल्लो जाणटेले सगळ्याच लोकांक दीसभर मेळटा. दोंगरावेले चडशे लोक दीसभर घराभायर आसतात पूण 'राठीवाला बुढ्ढा' दीसभर घराच आसता. तागेली एक धूव हसीनाबी, हिका घोवान सोडल्या, पूण हसन खानान तिका आपणाल्या घरा लागींच कूड बांदून रावपाक सुवात दिल्या. तागेले दुसरेय धुवेचो प्रस्न निर्माण जालो. तिका बरें घालून करून लग्न करून दिली. शाहजादी तिचें नांव. ती इलम बरें म्हणटाली, कपडे बरे शिंवताली. पूण तिका घोव मेळ्ळो तो सामको वेसनी. ताजी पयलिंची एक बायल आशिल्ली; ही दूसरी बायल. मुसलमान धर्मांत खंयच्याय मनशाक चार बायलो करपाचो धर्मीक अधिकार आसा. बायलेक तलाक दिवप सामकी सोंपी गजाल. तीन फावट 'तलाक, तलाक, तलाक' म्हटलें की घटस्फोट जालो. हसन खानाक हे चालिचो खूब राग आयला. तागेल्या दोन चलयांक अशे तरेन तलाक मेळून त्यो परथून घरा पावल्यात. पूण हसन खान म्हण्टा, हांव कितें करतलों. म्हज्या आंगांत मात लेगीत शक्त ना. हांव मारतलों त्यो चार गाळयो! हांव ताका म्हणटां की तुगेल्या गाळ्यांनी कोण मरतलो? समाजांत अन्याय जाता

तें पळेवन हसन खानासारकेलो मनीस तळमळटा. आमच्या देसांत अशे कितलेशेच हसन खान जाग्यांजाग्यांनी मेळटात. उक्ते नदरेन अन्याय सोंसप हेंच तांच्या नशिबांत आसता.

पयर म्हाका दोंगरार गेल्लेकडेन कोणेंतरी सांगलें. हसन खान आतां नमाज पडपाक नेमान वता. म्हाकाय अजाप दिसलें. तो सोरो पियेता आनी नमाज कसो पडूंक वता काय? घडये ताणें सोरो सोडला जावंये. खरें फट कितें आसा हें पळोवचेखातीर हांव हसन खानाच्या घराकडेन गेलों. हसन खानान म्हाका बरो येवकार दिलो. तो नमाज पडपाखातीर तोपी घालून भायर सरतालो. ताका कुर्वेनूच विचारलें, हसन खान खो, खो करून हांसूंक लागलो 'उसको छोड दिया''. समाजीक वाठारांत भोंवतना अशे जायते मनीस मेळटात आनी विशिष्ट कारणाक लागून ते वेसन सोडूंक पावतात. चड करून अशे मेळटात ते बारीक मनीस. धर्मीक कारणाक लागून सोरो सोडपी म्हाका दोगूच जाण मेळ्ळे ते म्हळयार करीमसाब आनी हसन खान.

झोंपडपट्टेंत रावपी हसन खानाची परिस्थिती आतां खूब सुदारल्या. घरांत टि.व्ही, व्हिडिओ सारक्यो वस्तू झळकूंक लागल्यात. निकतोच तागेलो पूत चमन हाजी शादी जाली. म्हाकाय आपोवणें आशिल्लेंच. त्या वेळार चमन खानाक वस्तू मेळ्ळ्यात त्यो हाडूंक एक ट्रक भाड्यान घेवचो पडलो. ताणें निकतोच हाऊसिंग बोर्डांत ब्लॉक घेतला, पूण हसन खान दोंगर सोडिना. ताका दोंगरार रावपाची सवंय जाल्या. सोंदूरवाले, बैदूरवाले, सगले लोक ताका वळखतात. 'म्हशीक खंय किवणाचें सुख'. तशें एक फावट झोंपडेंत रावपी मनशाक महाल दिलो तरी ताका तांतूंत सुख मेळना. 'आदत से मजबूर' म्हणटात तेंच खरें!

✿✿✿

# भवानराय किरनाळे

किडकिडीत आंगाचो, दीस-रात तंबाकू हातींत घेवन चोळीत वचपी. केंसांचीं झुलपां वाऱ्यार सोडून भोंवपी मनीस म्हळ्यार भवानराय किरनाळे. भवानराय हो सोलापूर शारालागीं आशिल्ल्या 'दूदनी' गांवचो. ताचो भाव मिलिट्री सप्लाय डेपोंत काम करतालों ताची फाट धरून तो हांगा पावलो. सोलापूरांत ताणें इकरावी मेरेन 'हरिबाई देवकी राणे' शाळेंत शिक्षण घेतलें. शिकून नोकरी मेळना म्हूण तो गोंयांत पावलो. भावाचे वळखीन ताका मिलिट्रीच्या सप्लाय डेपोंत वॉचमेनाची सिर्वीस मेळ्ळी. तो सुरवेक तोरसांझरी लागीं आशिल्ल्या मिलिट्रीच्या घरांत रावतालो. पूण फुडें तो जागो ताका सोडचो पडिल्ल्यान ताणें मोंती दोंगराची वाट धरली. मोंती दोंगरार शाळा जाल्या. नळाचें उदक पावलां हिवूय गजाल ताका कळिल्ली. खंयय वस्ती करतलो जाल्यार उदकाची पुरवण जाय. ना जाल्यार उदकाखातीर जळींमळीं भोंवचें पडटा. मोंती दोंगरार येवपी चडशे लोक रातच्या वेळार येताले आनी रातयांत खोंप बांदून ते थंयचें रहिवाशी जाताले. शंकराप्पा, लिंगाप्पा, शिवप्पा हे म्हालगडे. ताजे उपरांत आयिल्ले करनाळे, करीमसाब हे नवे.

सांजवेळचो हांव शाळेंत आयल्या उपरांत किरनाळे शाळेंत आयलो. ताचींया भुरगीं शाळेंत येतालीं. तो शाळेंत आयल्या बराबर म्हज्या लक्षांत आयलें हो नवो मनीस आसा. 'सर, मी किरनाळे' अशें शुद्ध मराठींत उलोवपी तो दूसरो मनीस. आमच्या देशांत भाशीक राज्यां जाल्या उपरांत कांय जाग्यांनी द्विभाशीक वाठार तयार जाल्यात. चड करून शिमेवेल्या लोकांक दोन दोन भासो येतात. मिरज, सोलापूर, बेळगांव अशा भागांनी मराठी वांगडा कानडीय बरी चलता. किरनाळे हो कानडीय बरी उलयतालो. ताजी आवयभास कानडी. ताज्या गळ्यांत एक लिंग दिसतालें. हाचेंवेल्यान तो लिंगायत आसतलो म्हणपाचें कळ्ळें. दोंगरावेले वस्तींत सगल्यांत चड शिकिल्लो म्हळ्यार किरनाळे. पॅन्ट, बुशर्ट घालून तो भोंवतालो. तागेलीं भुरगीं निर्मला, नूतन, रामू हीं शाळेंत येवंक लागलीं. सदचे कार्यावळींत वांटो घेवंक लागलीं. किरनाळे कडेन हांवें कांय कामां दिलीं. शाळेचो हिशेब दवरपाचे, वांगड्यांची यादी करपाची असलीं कामां तो करतालो. शिकिल्लो अशिल्ल्यान ताचो म्हाका दिसपट्टच्या वावरांत उपेग जावंक लागलो. तो खूबशे फावटी म्हज्या घरा लेगीत येतालो. शिकिल्लो आशिल्ल्यान केन्नाकेन्नाय तो पुस्तकां लेगीत वाचूंक व्हरतालो.

शाळेंत आमी खुबशो कार्यावळी करतालेच. सकाळीं बालवाडी, दनपारच्या एक वराचेर शाळा आशिल्ली पूण रातच्या वेळार जाणट्या लोकांची क्लास

काडपाची थारायिल्लें, पूण त्या दोंगरार रातीं शिकोवंक येतलो कोण ? सकयल्यान दोंगर चडून काळखांत वयर चडप हें कठीण काम. म्हज्या दोळ्यांमुखार किरनाळे आयलो. एक दीस ताका आपोवन हांवें सांगलें 'किरनाळे, तूं रातीं जाणट्यांच्या वर्गांत शिकय. कानडी जांव, मराठी जांव, कोंकणी खंयचेय भाशेंत शिकय. जाणट्यांक पेपर वाचून दाखय. सुरवेक किरनाळे मातसो भिलो. वर्गांत वचून शिकोवपाक लेगीत धाडस लागता. शिकोवप ही एक कला. तांतूंतल्यान मनशाक स्वताक लेगीत शिकपाची संद मेळटा. ताका हांवें धीर दिवन सांगलें. तूं कांयच भिये नाका. तुका हांव मार्गदर्शन करतां. तेप्रमाण किरनाळे शाळेंत शिकोवंक लागलो.

किरनाळेक शिकोवपाचें काम दिवपाफाटल्यान म्हजो एक हेत आशिल्लो. दोंगरावेलें काम त्याच लोकांकडल्यान करूंक जाय अशी मोख हांवें दवरिल्ली. शाळा बांदपाचें काम शंकराप्पानच करूंक जाय, शिकोवपाचें काम किरनाळेनच करूंक जाय कित्याक तर ते लोक थंयच रावताले. एकमेकांक वळखताले. किरनाळेची परिस्थिती लेगीत बरी नाशिल्ली. पॅन्ट बुशर्ट घालून भोंवपी मनीस ताका आंगकश्ट करपाची सवंय ना. क्लास चलोवपाखातीर ताका कांय पयशे मेळटाले तांतुंतल्यान ताका ताज्या संवसाराक कांय आधार जातलो अशें हांवें चिंतलें. गोंयांतले पयले साक्षरताय वर्गूय आमी चालू केले. पूण साक्षरताय वर्गाक खरी कीड लागल्या ती सोऱ्याची. खूबशे कामगार रातीं सोरो पियेवन घरा येतात आनी साक्षरता वर्गांत आयलेच जाल्यार झेम काडटात. दीसभर काम करून रातचें शिकप तांकां हें कठीणच. तरीय लेगीत किरनाळेन हो वर्ग नेटान चलयलो. कांय लोकांक सय करपाक शिकयलीं

दोंगरार दिशीं दिशीं खोंपी वाडटाल्यो आनी पयलींपरस एकचार उणो जायत वतालो. खंयचेय वाड्टे वस्तीची हीच काणी आसता. लोक वाडूंक लागले म्हणटगीच वळख उणी जाता. नवीन नवीन आयल्ल्या लोकांनी स्वताचे पंगड करून तांकां, म्हळ्यार पोरण्या लोकांक, सतावणी चालू केली. कांय लोकांक मशीद जाय आशिल्ली, कांय जाणांक बसवेश्वराचें मंदीर, कांय जाणांक शितलादेवीचें देऊळ. पयले लोक हांगा पावले ते गर्देखातीर, आतां आयिल्ले ते बरे वेवस्थेखातीर. किरनाळे बसवेश्वराच्या पंगडांत पावलो. ताजो शेजारी आशिल्लो तो मशीदवालो. किरनाळे दर वर्सा बसवेश्वराची जयंती मनयतालो. शाळेंतल्या भुरग्यांक पुरणपोळ्यो हाडून दितालो. म्हाका खासा जेवणाक दवरतालो. फुडें मंदीर आनी मशीद ह्या बोवाळांत किरनाळेच्या घरार फातर पडूंक लागले. किरनाळे रातीं वॉचमेन म्हूण काम करूंक वतालो आनी ताची घरकान्न, भुरगीं घरा उरतालीं. अशा वेळार ताच्या घरार फातर पडूंक लागले. ताणें खूब सांगून पळयलें पूण कांयच उपेग जायना. ताचीं बायल-भुरगीं भियेवन

गुळो जालीं. जिवाच्या आकांतान किरनाळे दोंगरावेलें घर विकून सकयल देंवलो. ही ताच्या जिविताक देंवती कळाच लागली.

बड्ड्यां रस्त्याचेर एक दीस तो म्हाका मेळ्ळो. ल्हानशे खोंपींत तो रावतालो. दोनशीं रूपया भाडें, भुरग्यांक शाळा पयस, परथून शेजार वायट. तांतूंत सांजे मेळपीं सांगाती वायट. दोंगरार आसतना ताका ना म्हणली तरीय मातशी भिरांत आशिल्ली. केन्नाकेन्नाय सोरो पिलो तरीय तो सदांच पियेनाशिल्लो, पूण बड्ड्यां येत सावन ताणें सदांच पियेवंक सुरवात केली. किरनाळेचो संवसार सामकोच अबरगतीचो जालो. भुरगीं ल्हानाचीं व्हड जालीं. तांकां शाळेक वचूंक जाय; घराचें भाडें दोनशीं रूपया, संवसार करप कुस्तार. किरनाळेची घरकान्न सामकी सादी बायल. किरनाळेक मुठींत दवरप तिका केन्नाच जमलें ना. हालीं सोरो पियेवन किरनाळे तिका मारपेटय करूंक लागलो. सगळे तरेची दुर्दशा तांच्या संवसारांत आयिल्ली. हांव केन्नाय तांगेर गेलो जाल्यार किरनाळे घरांत नासल्यार ताची बायल रडून-रडून आपणाली काणी म्हाका सांगताली. हांव तिका म्हण - तूं कितेंय वावर कर. किरनाळेचेर जो मेरेन तूं आदारून आसा तो मेरेन किरनाळेन कितेंय केलें जाल्यार तुका सोंसचें पडटा. तुजीं भुरगीं आतां व्हड जाल्यांत. घरांत बसून रावचे परस कोणालींय आयदणां घांस, कसलोय वावर कर.

गोंयांत आंगकश्ट करपी लोकांचें पोट भरना अशें केन्नाच जायना. म्हजो सगलो उपदेश तिका समजतालो पूण किरनाळे सोरो पियेवन आयलो की ती कडकडूंक लागतली. इतले मजगतीं तांणी दोन तीन बिरांडा बदल्लीं. फाटल्या वर्सा किरनाळेन बायल-भुरग्यांक कटांळून तांकां गांवांत धाडून दिलीं. त्या वेळार ताची घरकान म्हज्या घरा येवन रडूंक लागली. 'आमी घरा वचून करतलीं कितें?' तिज्या सगळ्या प्रस्नांच्यो जापो म्हजेलागीं नाशिल्ल्यो. हांव तिका सदींच सांगतालों की तुगेल्या भुरग्यांक बरें शिक्षण दी, तूं खंय काम कर. जाल्यारच तुजो बरो फुडार आसा. पूण म्हजें तत्वगिन्यान कठीण जालें. किरनाळेचें वेसनय वाडलें. तिका आंगार धड साडी लेगीत न्हेसपाक मेळना जाली.

कालच हांव दोंगरार गेल्लेकडेन करीमसाबान म्हाका म्हळें किरनाळे परथून दोंगरार पावलो. किरनाळेची पृथ्वी प्रदक्षणा सोंपली. एक भोंवतण पुराय जाली. किरनाळेक हांव मुद्दाम मेळूंक गेलों. मायक्रोवेव्ह स्टेशनाचे एके वण्टीक लागून ताणें आपलो संवसार उकत्यार मांडिल्लो. सगळें सामान भितोडेक दवरून शेंद्र्यांचेर भुरगीं न्हिदिल्लीं. ताची घरकान्न गुरूजी म्हणून फुडें आयली. च्या करता म्हणूंक लागली, पूण तांगेली ती दशा पळेवन म्हाका कांयच सूचनाशिल्लें.

ज्या वितरागान किरनाळेन दोंगोर सोडलो, त्या वितरगांनी ताका मात सोडूंक ना.

किरनाळेची कथा आयकून कोणाकय दुःख जातलेंच. हांतूंत ताज्या नशिबावांगडा ताचोय वांटो आसा. तशें पळेल्यार तो सादारण घरांतलो मनीस झोंपडपट्टेंत रावपाक एक घट काळीज लागता, वेळार मारपेट, झगडीं झूजां करपाची तयारी लागता. तांतूंत किरनाळे सामको फाटीं पडलो. दोंगरार लोक घराचेर फातर मारतात हें पळयतगीच तो भियेलो आनी दोंगर सोडून तो सकयल पावलो. दोंगरावेले लोक वायट, तांची संगत नाका अशें तो म्हण्टालो. ताची येणावळ एकदम उणी. ताका लागून ताच्या भुरग्यांबाळांक दिसाक दोन फावट पोटभर अन्न मेळप कठीण जालें. घरांत वातावरण बरें ना म्हणटगीच हाजो परिणाम भुरग्यांचेरूय जालो. तागेलें निरू हें चली सामकें पारपोळ जालें. ताका धरबंद कांयच उरूंक ना. हें सगलें जाग्यर घालपी घरकान्न पूण ती सामकी अबरगत कशी. जो दोंगोर वायट म्हणून तो सोडून गेल्लो, त्याच दोंगराचेर निमाणें ताका येवन रावचें पडलां. तकलेर पावस येवन तेंकला. हें सगलें दुःख तो सद्या सोऱ्याच्या कोपांत बुडोवन उडोवंक सोदता.

आयजकाल सगल्यांक दिसता की सोरो म्हळ्यार आपलें दुख उणें करपाचें साधन. पूण हो विचार समा न्हय. सोरो हो खीणभर दुख विसरायता पूण दीस उजवाडलो म्हणटगीच परथून आसा तशेंच दुख, आडखळी सामकार रावतात. हो सोरो दुख उणें करपाचे बदला दुख आनीक वाडयता. सोऱ्याचें वेसन लागिल्ल्यान भिमरावाची परिस्थिती कितें जाली हें तुमी पळयलांच. आनी जर घरकारच असो पियेवंक लागलो तर घर कशें चलतलें ? सोरो पियेवन तो आपणालें दुख खीणभर पयस करून सुखावलो आसत. पूण ताजी घरकान्न आनी भुरगीं हांणी कितें करप ? तिकाय दुख भोगता म्हूण तिणेंय सोरो पियेल्यार कशें जायत ? बायलांक कितें दुख जायना तर ? जर सोरोच आडमेळ्यांचेर, दुखाचेर मार्ग काडूंक शकतालो जाल्यार बायलोय सोरो पियेवंक लागतल्यो आसल्यो !



# शरणाप्पा

दोंगरावेल्यान आक्यां वचूंक म्हूण टांकयेकडेन पावलों. कांय बायलो थंय कपडे उमळताल्यो. म्हाका पळोवन तांणी रोखडोच तकलेवेल्यान पालव घेतलो. 'गुरूजी खंय वता?' मुक्तान म्हाका विचारल्लें. हांवें तिचेकडेन पळोवन जाप दिली, 'आक्यां वता'. 'हां गुरूजी' म्हणून त्यो उमळूंक लागल्यो आनी हांव देंवती देवूंक लागलों'. फुडल्यान एक मनीस तकलेर नुस्त्याचें पांटें घेवन चडटालो. तकलेर तें जड पांटें घेवन त्या मनशाच्यान चडूंक जाय नाशिल्लें. पूण आवाशिवा करून तो चडटालो. तो लागीं पावलो तशें ताणें मान वयर करून म्हजेकडेन पळयलें. ताची छाती पेटयेच्या भात्याभशेन वयर सकल जाताली. हांवे ताका म्हळें 'शरणाप्पा, बस मात्सो विसव घे'. शरणाप्पान म्हजें म्हण्णें हयकारलें. तांणें आपले तकलेवेलें पांटें टांकयेच्या दवन्न्यार दवरून तकलेचो वालो सोडोवन घाम पुसलो. मात्सो सावचित जावन तो उलोवंक लागलो. 'गुरूजी, आयज नुस्तें मात्शें कळावान मेळ्ळें तेखातीर बाजारांत रावचें पडलें' आनंदी फुडे आयली आनी नुस्त्याचें आख्खें पांटें म्हाका उखलचें पडलें. 'शरणाप्पा, तूं आतां तरणाटो रे? तूं जाणटो मनीस. तुवें आतां पांटीं उखलपाचीं न्हय. शाणू आसा, आनंदी आसा.' 'हय गुरूजी, तूं म्हण्टा तें खरें. पूण कितें करतलों? पोट तर भरूंक जाय. ते खातीर यो सगळ्यो उठाबश्यो काडच्यो पडटात.

शरणाप्पाच्या माथ्यार पर्थून पांटें दवरलें. ताका नुस्तें विकपाचें असलें. कळाव जाल्यार नुस्तें खपूंक कुस्तार म्हण ताका ताकतीक आसली. नुस्त्याचें पांटं माथ्यार मारून शरणाप्पा दोंगर चडूंक लागलो आनी हांव शरणाप्पाचे विचार तकलेंत घेवन दोंगरावेल्यान देंवूंक लागलों. शरणाप्पा सिद्धाप्पा आरकेरी हो मनीस विजापूरांतल्या अथगी गांवांतलो. पिरायेन सादारण ६५ वर्सांचो. अथगी गांवांत ताचें च्याचें होटेल आसलें. बापू होटेल चलयतालो आनी शरणाप्पा च्या करतालो, कोपां धुयतालो. पूण ल्हानपणासावन शिकपाची खूप उमळशीक. तेखातीर बापून ताका पंढरपूराक दवरलो. कानडी, हिंदी, मराठी, थोडी इंग्लीश अशो भासो आजूनय ताका उलोवंक जांव बारोवंक येतात. सादारणपणान ५ वी मेरेन शिकून जातकीच ताका बापायन मिलिटरींत घालो. दुसऱ्या म्हायुद्धाचे दीस ते. शरणाप्पा मिलिटरींत भितर सरलो आनी मेस्तकामाच्या वावरांत कुशल कामगर जालो. मिलिटरीच्या वावरांत दबे सारके करप, जांव वेल्डिंग करप ह्यासारको वावर तो बरो शिकलो. १९४० ते १९६१ मेरेन शरणाप्पान मिलिटरींत चाकरी केली. इतले मजगतीं ताचें लग्न जालें. आनंदी ही ताची घरकान्न. लग्न जालें खरें पूण तो मिलिटरींत आनी बायल घरा अशें तांचेमदीं

दोन ध्रुवांचें अंतर निर्माण जालें. तो सुटी काडून घरा येई तेन्ना आनंदी आनंदित जावन ताचे फाटीं लाग. ती म्हणी 'म्हाकाय व्हर तुजेबराबर. हांगा रावंक वाज येता म्हाका. तरणाटे भुर्गे बेठेच दोळे मोडतात.' शरणाप्पाच्या काळजांत आनंदीचें उलोवणें आयकून कच्च जाय. तो तिका म्हणी, ''आनंदे, तूं भियेवनाका. हांव मिलिटरी साडेपाची संद सोदतां. मागीर आमी दोगांय एकठांय रावन दिसदीस मौज करूया.'' शरणाप्पाच्या उलोवपान आनंदीक खोस जाताली.

मिलिटरींत भितर सरप एका वेळार सोंपें पूण भायर सरप कठीण. शरणाप्पा सदींच हे विशयाचेर विचार करी. वरांचीं वरां तो हे चिर्तेंत सारतालो सदींच टिनाचे दबे सारके करतना ताच्या मनांत हे विचार येवन दबे सारके जायना जाले. ताचो एक सायब आसलो सायमन म्हण. ताणें ताका विचारलें, 'शरणाप्पा, तुजें मन थाऱ्यार ना. एक दबो व्हड जाल्यार दुसरो ल्हान जाता. तुका कितें जालां?' शरणाप्पान आपणाली सगली गजाल विस्कटावन सायमनाक सांगली. सायमनाकय ताची काकळूट आयली. तांणें म्हळें, 'शरणाप्पा, मिलिटरी सोडप सोंपें काम न्हय. पूण तुका जायच जाल्यार हांव तुका बुद्ध दितां' अशें म्हणूं सायमनान शरणाप्पाच्या कानांत कानमंत्र घालो. शरणाप्पा पिशांचें सवंग घेवन रावूंक लागलो. खायना, जेवीना, काम करीना. म्हण्टकीच सायमनान वडिलांचे नदरेक ही गजाल हाडली आनी ताका पिशें लागलां अशें सांगून ताका मिलिटरींतल्यान सुटावो दिवचो अशी मागणी केली. सायमनान दोतोराच्या काळजांत शरणाप्पाचे अडचणीचो विशय घालो आनी शरणाप्पा मेकळो जावन घरा आयलो. बापूक दिसलें शरणाप्पा सुट्येचेर आयला, चार दीस रावन वतलो. पूण शरण वचपाचीं चिन्नां दिसनातशीं पळोवन ताणें विचारलें 'शरण, तूं पर्थून कामाचेर वचना? कितले दीस सुटी आसा रे?' शरण दोन तीन फावट विचारून लेगीत कांयच जाप दिनासो पळोवन बापूक दुभाव आयलो. ताणें शरणाचे आवयक विचारलें. ती म्हणूंक लागल्नी, 'शरण चाकरी सोडून आयला. पर्थून वचना म्हण्टा. ताका मिलिटरींतल्यान भायर सरूंक परवानगी मेळ्ळया.'

बापूक शरणाचें हे कर्तुब आयकून राग आयलो. येदो व्हडलो जवान! दांगांनी दांडगो जाला! पोट कशें भरतलें? ह्या पाड्या गांवांत पोट भरपाची कांयच येवजण ना! आमच्याच दुकानाचें दिवाळें काडपाचो वेळ आयला. बापू विभागलो आनी दुकानाचेर गेलो. शरणाप्पा ल्हव उठून आवयकडेन आयलो. आवय ताका लागीं आफोवन बापूचें उलोवणें सांगलें. तो म्हण्णूंक लागलो, 'अव्वा, बापूचें उलोवप आयकलां हांवें? पूण हांव बायलेक घरा दवरून कितले दीस मिलिटरींत रावूं?' आवयकूय ताची म्हणणी समजताली. नवीनच लग्न जाल्लो पोर. कितले दीस भायर रावतलो? आवयचें मन विरघळलें. 'जांव पुता,

तूं हांगाच कितें काम धंदो करून राव', तिणें म्हळें. शरणाप्पा खूंट कसो उबो रावन आवयची म्हण्णी आयकतालो. आनंदी दाराचे कुशीक रावन सगली गजाल कानार घेताली. 'हां आवा, अशें म्हणून शरणाप्पा भायर आयलो जाल्यार आनंदी वार्टेतच ताका मेळ्ळी. आनंदीबराबर ही सगली खबर उलोवंक जाय अशें थारावन शरणाप्पा तिका म्हणूंक लागलो, 'आनंदी, चल या. आयज देवाक पायां पडूंक या' आनंदीन मांयक सांगलें आनी ती नवी साडी न्हेसून देवाक मेळूंक भायर सरली. वार्टेंत तांका बापूचें दुकानय दिसलें. बापून तांका पळयलीं जावंये पूण त्या दोगांचें चित्त आशिल्लें ते एकान्ताचो जागो सोदीत. चलतचलत तीं गांवांभायर आयलीं. एक तळप पळोवन दोगांनीय बसून घेतलें. दोगांकूय कितें उलोवपाचें तें खबर आशिल्लें. शरणाप्पान आनंदीक विचारलें, 'कितें करूंया आनंदी ? हांगाच रावया, काय भायर खंयय वचूंया ? हांगा रावल्यार बापू अव्वा हांच्या आदारान रावंक जाय. पोटापाण्याचो बरो वावर ह्या गांवांत मेळूंक कुस्तार. खंयूय भायर वचूंया. हांगा घर आसाच न्हय. भायर कांयच साध्य जालें ना जाल्यार मागीर घर आसाच'. आनंदीन आपणाली म्हण्णी सांगली. शरणाप्पाकूय गांवांत रावपाचें नासलें. कितेंय तरी मार्ग सोदूंक जाय अशें थारावन तीं दोगांय पर्थून घरा आयलीं. काळोख जावंक आयिल्लो. अव्वा देवाकडेन दिवो दवरून तुळशीकडेन वात लावंक आयली. तीं दोगांय अव्वाच्या पायां पडलीं. हातींत दिवो घेवन सामकार आयिल्ली अव्वा तांकां लक्ष्मी भशेन दिसली. ती वाट दाखयता असो दिश्टावो जालो.

गोंयची मुक्तताय जावन गोंयांत वचपाचें दार उक्तें जालें आनी हजारांनी लोक काम धंद्याखातीर घाट देंवन गोंयांत पावलो. शरणाप्पाचो शेजारी महादेवाप्पा गोंयांत गेलो. सिद्धाप्पा वचून थंय व्हडलो मेस्त्री जालो अशो खबरो ताच्या कानार येताल्यो. शरणाप्पानूय एक दीस थारायलें आपणेंय होच रस्तो कित्याक आपणावचो न्हय ?

एक दीस आनंदीक घेवन शरणाप्पा गोंयांत पावलो तो मडगांव स्टेशनाचेर देंवलो. ताच्या घराकडलो लक्कपा ताका मेळ्ळो. तो वेर्ण्यां म्हाळशेचें देवूळ बांदपाचें काम करतालो. ताचे लगाटीन शरणाप्पा वेर्ण्यां म्हाळशेकडेन पावलो तो १० वर्सां थंयच काम करतालो. मिलिटरींत तो दबे सारके करी पूण हांगा ताका फातर उखलपाचे काम मेळ्ळे. आनंदी उदक हाडून दिताली. अशेतरेन दोगांकूय म्हाळशेन काम दिलें आनी रावंकय जागो मेळ्ळो. त्या वेळार ताई म्हळ्यार शशिकला काकोडकार देवळांत कशी येताली, शरणाप्पाक कशी बरें करताली ह्यो गजाली सांगतना शरणाप्पा फुलून वता.

शरणाप्पाच्या वांगडा दस्तगीर म्हण एक मेस्त काम करी. तो मोंती

दोंगरार रावन वेण्याँ कामाक वतालो. दस्तगीर हो मनीस मात्सो दुर्येसकारी. सदींच कितें ना कितें भलायकेच्यो तक्रारी तो करीत रावी. एक दीस तो शरणाप्पाक सांगूंक लागलो, 'आप्पा, हांव सद्दींच बरो ना जातां. म्हज्या घरांत आनीक कोणूच ना. तुमी दोगांयजाणां म्हज्या घरांत येवन रावल्यार तुमकांय विस्कळ जागो मेळटलो आनी फाल्यां हांगाचें काम सोंपलें जाल्यार मडगावां रावन काम धंदो पळोवंक सोंपें जातलें. इतल्या दिसांचे संवकळीन दस्तगीराविशीं शरणाप्पाक माया लागिल्ली. शरणाप्पान हां म्हळें आनी एक दीस आनंदीक घेवन तो दोंगरार पावलो. दोंगरावेलीं मनशां ताका रानवटीशीं दिसलीं पूण गंगारामण्णाचो शेजार बरो आशिल्ल्यान तो मात्सो खुशाल जालो.

तेन्नासावन शरणाप्पा दोंगरार राबितो करून आसा. ताचीं शाणू आनी नाग्या हीं दोगय भुर्गीं. दोगांय म्हजे शाळेंत शिकूंक येतालीं बरोवंक वाचूंक येवपी मनीस म्हण हांवूय शरणाप्पासरींवचून बसतां. आनंदीबाय लेगीत तशी उदार मनाची बायल मनीस. 'गुरूजी यो, च्या करतां पान खा' अशे तरेचो परामर्श करपी.

शरणाप्पा आतां खूबूच जाणटो जाला. पूण ताका धंदो करप कांय चुकना. फाटलीं कितलींशींच वर्सां पिकअप स्टॅंडार वचून तो नुस्त्याचीं पांटी उबारून बाजारांत व्हरपाचें काम करता. आनंदीबाय ताका मदत करता. शाणू आतां व्हड जावन संवसारी जाला. ताका बायल भुरगीं आसात. नागम्माचें लग्न जालां.

एके तरेन शरणाप्पाचो संवसार पुराय जाला. पयर ताच्या घरा गेल्लों तेन्ना तो अंथ्रूणार पडून आशिल्लो. शरणाप्पा म्हूण उलो करतकीच उठून बसलो. म्हाका बसूंक जागो करून दिलो. ताचेकडेन काणयांचें भांडार आसा. तो काणयो सांगूंक लागलो की आयकत बसचें. हांवें ताका काणयांच्या मुळाविशीं विचारलें. तो म्हणूंक लागलो. म्हजो बापू वारकरी, सदींच घराकडेन भजन करपी. अशाढी कार्तिकी एकादशीक पंढरपूरा वचपी. च्याचें होटेल धांपून तो घरा आयलो की हात पांय धुवून तो भजनाक बस आनी भुरगीं ताच्या वांगडा बसून भजन करतालीं. 'शरणाप्पा, तूं म्हाका आयज एक काणी सांग' अशें म्हण्टकीच तो सावचित जावन काणी सांगूंक लागलो. झाला महार पंढरिनाथ असो अभंग म्हणून ताणें काणी सांगली. परमेश्वर मनशचो भावार्थ पळयता हें तत्त्वगिन्यान तांणें विस्कटावन सांगलें. आनीक एक काणी सांग म्हण्टकीच तो सांगूंक लागलो. ''एक आशिल्लो गांव. त्या गांवांत दोन बिलंदर अशे तवनास भुरगे आसले. गांवांत चोरयो करप. कोणालीं अडसरां चोर, कोणालीं केळीं चोर अशें करून ते जीण सारताले. एक फावट गावांतल्या मुखेल्यागेर चोरी करतना

मुखेल्यान तांकां धरले आनी पयस रानांत व्हरून सोडून दिले. रात जाली. दोगूय जाण तवनास एका झाडा पोंदा न्हिदले. थंय तांकां एक मातयेचो गाडगो गावलो. तो उशापोंदा घेवन एक जाण झेमूंक लागलो. दुसरो बेठोच बसून चिंतूंक लागलो. बरे राती वयर बशिल्ल्या कावळ्यांक म्होंवाचे मूस चाबूंक लागले आनी कावळ्यांच्या पळापळींत कांय मूस सकयल न्हिदिल्ल्या तवनासाच्या आंगार पडले. जागो राविल्ल्या तवनासान ते सगळे मूस धरले आनी गाडग्यांत भरले. गाडग्याच्या तोंडाचेर कपडो लावन तोंड बंद केलें. गाडग्यांत धरिल्ले म्होंवाचे मूस बरो गितासारको घुंयघूय घूंय असो आवाज करतात.

दुसरे सकाळीं दोगूय जाण लागीं आशिल्ल्या शारांन वतात. राजाच्या दरबारांत वतात. पळयात पळयात राजेसायब, पळयात. प्रधनजी, पळयात. गाडग्यांतल्यान गितांचो आवाज येता. राजान, प्रधानान पळयलें खरोच आवाज येता. तांणी तो गाडगो घेतलो आनी तवनासांक बक्षीस दिवन घरा धाडले.

शरणाप्पाकडेन अशेतरेच्या काणयांचें व्हडलें भांडार आसा. ताचें तत्वगिन्यानूय आयकपासारकें. तो म्हण्टा, 'नानु पिंजरपक्षी एन्यारामेग गती यारमुन्द हेळ्ळी येन गती' (तूं एक पींजऱ्यांतलो पक्षी शिवपरमात्म्याबगर तुका गती ना.) अशेतरेचीं जायतीं वचनां आयकूंक बरें दिसता.

आमची संस्कृताय खूब खोलायेन सगळ्या देसांतल्या विंगडविंगड वाठारांनी पातळल्या. गांवागांवातले लोक हे संस्कृतायेच्या बंधनान एकठांय बांदून उरल्यात. संस्कृतायेचीं पाळांमुळां मळागाळांतल्या लोकांक संस्कृतायेची जाणविकाय करून दितात. खऱ्यानीच शरणाप्पासारको गांवगिऱ्या वाठारांत रावपी मनीस खरो शिक्षित, जाणार जावन आसा.



# परमण्णा

गोंयांत पंचवीस वर्सां रावन लेगीत, कानडी बगर एकूय उतर दुसरे भाशेंतलें उलोंवक येनशिल्लो मनीस म्हळ्यार परमण्णा. हो सगळ्या लोकांकडेन कानडींतच उलयतालो. ताका आपणाली भास दुसऱ्याक कळना हें लेगीत कळना. केंन्नाय ताज्या घरा गेलों की 'नमस्कार री देवराया' अशें म्हणून तो म्हाका येवकार दिता.

सदांच पुडवें न्हेसपी आनी वेल्यान एक बंडी घालून वावुरपी परमण्णा. हो दोंगरावेलो एक शूचीर्भूत मनीस. तो गांधी मार्केटांत भाजी विकतालो. सदींच न्हांवन, धुवन देवाची पूजा केल्याबगर तो तोंडांत उदक घेना. फाटलीं पंचवीस वर्सां तो गोंयांत रावता पूण गोंयकाराचें खंयचेंच वारें ताच्या आंगांत वचूंक ना. तो सोरो पियेना, विडी ओडीना, चडसो च्या लेगीत तो पियेना. तोंडांन ॐ नमः शिवाय! ॐ नमः शिवाय अशें एकसारको म्हणत आसता.

दोंगरावेले वस्तेंत ताका लोक व्हडलोसो शाणो असो मानिनात. परमण्णा हो लेगीत बिजापूरा लागसार रावपी. ताका गोंयचीं वाट कोणें दाखयली हो संशोधानाचो विशय जावये कित्याक तर, तो आंगकश्ट करिना. भाजी विकपी मनीस. कर्नाटकांतल्या गांवांगांवांनी भोंवतना एक गजाल लक्षांत येता ती म्हळ्यार गांवांगांवांनी रावपी लोकांक गोंयचे गांवगिरे वाठार लेगीत बरे खबर आसात. फाटीं हांव अरडकट्टी गांवांत गेल्लों तेन्ना बायलमनीस आपूण फकीर फाटोल्या जाग्यार रस्त्याच्या कामाक आशिल्ली अशें सांगूंक लागली. 'फकीर फाटो' हो वाठार पेडणें म्हालांत आसा जांवये. हांवें तो केन्ना पळोवंक ना. शिमेवेल्या वाठारांनी रावपी लोकांक गोंय हें कुवैट कशें दिसता. ताका लागून परमण्णा सारको कानडी बगर खंयचीच दूसरी भास खबर नाशिल्लो मनीस हांगा तिगून उरता. आयज गोंयच्या बाजारांत भोव करून गांधी मार्केटांत चडशे भाजी विकपी मनीस कानडीच आसात. परमण्णाच्या घरा गेलों की एक वेगळेंच वातावरण मेळटा तें म्हळ्यार देवसपणाचें. परमण्णालो सदिंचो वेव्हार सोंपलों की तो देव देव करीत बशिल्लो आसता. हातांत माळ घेवन तो जप करता. खिणाखिणाक ॐ नमः शिवाय, ॐ नमः शिवाय म्हणटा. दोंगरार जेन्ना 'राघवेंद्र स्वामी'चो मठ जालो तेन्ना सगळ्यांत चड खोशी परमण्णाक जाली. तो म्हाका सदांच म्हण्टालो 'मठगे होग बेकू' म्हळ्यार मठांत वचूंक जाय. मागीर आमी सदांच मठांत वचूंक लागले. परमण्णा आपले मतीन कितें कितें गजाली सांगत रावतालो आनी मदीं मदीं 'खेरनतेरी, सुल्लेनरी' अशें म्हाका विचारी. तागेले तितलेंच म्हाका वाक्य समजतालें.

एक फावट ताका दिसलें, मठाच्या आंगणात एक माड लावचो म्हूण. ताणे एक कवाथो विकतो हाडलो. म्हाकाय तो म्हणूंक लागलो. तूंय कसलेंय झाड लाय. हें वाक्य ताणें कानडींत सांगलें आनी ताचो हो अर्थ आसूये अशें हांवें येवजिलें. हांवें ताका म्हळें, 'तूं पयलीं लाय, मागीर पळोवया'. एक दीस आमी कवाथो घेवन मठाच्या दारांत गेले. परमण्णान पुजाऱ्याक सांगलें की तो एक कवाथो रोवंक सोदता. पुजाऱ्यान ताका मना केलो. तांचेमदीं बरीच बाचाबाची जाली. येतना परमण्णा ताका 'झगळप्पट्टां' अशे म्हणून गाळी मारतालो.

परमण्णाक लागून म्हाका थोडी भोव कानडी शिकची पडली. कित्याक तर तागेली आनी म्हगेली तार खंय तरी जुळटाली. दोंगरासारख्या जाग्यार रावूनय साळकाभाशेन तो नितळ आशिल्लो. देव देव करपाची ताका खूब आवड. त्या गुणांक लागून आजूनय हांव परमण्णागेर वतां. मदीं एक फावट परमण्णा खूपच त्रासांत पडलो. ताची व्हडली धूव अनशी म्हजे शाळेंत येताली. तिचें ताणें रामण्णा नांवाच्या मनशाकडेन लग्न थारायलें. रामण्णा हो लेगीत काम करपी मनीस. तो मेस्तकाम करतालो. लग्नाचें सगलें थारलें. दिवपा घेवपाचो वेव्हार थोडो भोव जालो. पूण आयत्यावेळार रामण्णान गोंदोळ केलो. वाजंत्र वाजूंक लागलें. न्हवरो भायर सरपाचो वेळ जालो. तरीय रामण्णा भायरच सरना. सगले लोक वाट पळयतात. निमाणें हांव रामण्णाच्या कुडींत गेलों जाल्यार रामण्णा आनी परमण्णा हांची झगडींशीं चल्ल्यांत. रामण्णा आपणाक स्कूटर जाय म्हूण हट्ट धरून बसला. कांय केल्यार भायर सरना. परमण्णान ताच्यामुखार मुदी, घड्याळ दवरल्या पूण रामण्णा कसोच भायर सरना. परमण्णा निमाणें लग्न मोडूंक भायर सरलो. हांवें मागीर रामण्णाक समजायलो, ताका मागीर स्कूटर दिवया अशें बेठेंच सांगले आनी लग्न एकदाचें जालें. पूण तेन्नासावन रामण्णाचो आनी परमण्णाचो तिडो पडलो तो आजूनय सुटना. परमण्णा ताच्या घरा वचना, तो ताच्या घरा वचना कित्याक तर परमण्णाय तसो हट्टी मनीस. एक फावट ना म्हळ्यार केन्नाच हय म्हणचो ना. ह्या प्रकरणांत म्हजो मात्सो पेंच जालो. म्हज्या उतराक लागून रामण्णा तयार जालो खरो पूण परमण्णान स्कूटर दिली ना म्हूण आजून मेरेन तो म्हजेकडेन उलयना.

परमण्णाचे दोनूय चले आतां बाजारांत शाक-भाजी विकूंक बसतात. बरो धंदो करतात. तागेलो तिसरो पूत चिदू हो पेल्या वर्सा धावी पास जालो. म्हजे शाळेंत येवपी. ताका फुडें शिकपाची इत्सा आसा. पूण परमण्णा कितें करता पळोवया? परमण्णाक खुबशे फावटी दिसता की, हालींच्या पुस्तकांनी कांयच गिन्यान ना. गिन्यान कितें आसा तें आपल्या वडिलांकडेन. परमण्णा हो सभावानच विरक्त मनीस. हालीं ताणें वेपारांतलें लक्ष काडलां. सगलो वेव्हार

पुतांकडेन दिवन तो देव देव करीत बसता. अभंग म्हणटा. 'राघवेंद्र मठांत' झगडीं जातगीच ताणे थंय वचपाचें बंद केलें आनी ताणें आपल्या मनात थारायलें की आपल्या घरा सामकारच एक मठी बांदची. घरा सामकार आशिल्ले मेकळे सुवातेर ताणें ल्हवु ल्हवु करून मातयेच्यो वण्टी कापून तयार केल्यो. हांगा थंय भोंवून चार वांशे, म्हेडी एकठांय केल्यो आनी वेल्यान बारीक सारीक पत्र्याचे कुडके घालून ताणें आश्रम तयार केलो. आश्रमांत सगले तरेच्यो देवाच्यो मूर्ती ताणें दवरल्यात. दोंगरावेल्या लोकांनी ताका खूब पिडापीड केली. संघाच्या फुडाऱ्यांनी मठी मोडून उडोवची म्हूण खूब खटपट केली. पूण परमण्णा कोणाकच चेपें काडीना. 'नंगेसे खुदाभी डरेगा'. हेर कडेन दादागिरी कशी करपी लोक परमण्णकडेन पावतगीच थंड जातात. परमण्णा तांच्या खावपा जेवपांत ना, चोरयेंत ना. तो एक सादो मनीस, देव देव करीत बसता. तो पदां म्हणूंक लागलो की आयकत बसचें.

हालीं तो घरांत रावना, दीसभर मठयेंतच रावता. मनशाक जल्मभर आस्त सूटना. धा पयशे मेळ्ळे जाल्यार वीस पयशे मेळचेशे दिसतात. मनशाक खंय थांबचें हेंच कळना जालां. दिसरात पयशे मेळोवपाच्या नादांत मनीस गुल्ल जावन आसता. चड पयशे जोडप, चड भोग वस्तू मेळोवप अशे तरेची शर्त मनीस लावन धांवत आसा. निवृत्त जाल्या उपरांतय चार पयशे कशे मेळटले हाचेच ते विचार करीत आसतात. पूण परमण्णासारको मनीस तांच्या मुखार एक आदर्श थारू येता.

फाटल्या दिसांनी परमण्णा संवसाराक विटून तिर्थयात्रा करून आयलो. पंढरपूराक वचून आयलो. आनी मागीर तिरूपतीक वचून आयलो. पयर तो प्रसाद घेवन म्हज्या घरा आयलो तेन्ना म्हणूंक लागलो की आपणाक आतां हांगां रावपाची इत्सा ना. घरा शेतभात आसा थंय वचून राखपाची येवजण करपाक जाय. पूण कितें करतलो? भुरग्गीं-बाळां, बायल कोणाकच गोंय सोडून वचचेंशें दिसना. तांचेखातीर तरी हे मठयेंतच जीव दवरचो पडटलो. परमण्णालें हें सगलें तत्वगिन्यान आयकून गोंयांत रावंक आयल्ल्या लोकांची कशी परिस्थिती जाल्या हें लक्षांत येता. मनांत आसूनय तांका गोंय सोडून वचप कुस्तार जालां.

✿✿✿

# आशाबी

''मुझे अशरफ बहुत सताता है गुरूजी'' सकाळीं फुडेंच आशाबी आपली कागाळ घेवन म्हजेसरीं आयली. ती सामकी रडूंक पाविल्ली. तिचें कितें जालां तें म्हाकाय कळनाशिल्लें. तिका कदेलाचेर बसूंक सांगलें आनी च्या पियेवंक दिली. आशाबी ही दोंगरार रावपी एक बायल मनीस. दीसभर लोकांगेर वावराडी म्हणून ती वावुरता. ती दोंगरार रावंता खरी पूण तिका आयदणां घांसपाचीं, कपडे उमळपाचीं कामां मेळटात. ती दोंगरा सकयल सकाळींच भुरग्यांक पेजे-निवळ दिवन शाळेंत धाडटा. आनी दीसभर कामां करून सांजवेळची घरा येता. केन्ना केन्नाय चड कामां आसल्यार तिका कळावय जाता. तिचो घरकार बाबू तो एक दीस दोंगरावेल्यान नाच्च जालो. ताका कोणें मारलो, जांव तो खंय लिपून बसला, जांव तो जिवो आसा काय ना - हे सगलेच प्रस्न अजापीत म्हळ्यार जाप नाशिल्ले.

बाबू हो तसो घटमूट मनीस. पांच धा लोकांक लेगीत भारी. सदींच कामार वचपी. येतना मार्तें घेतल्याबगर ताका बरी झेम पडनाशिल्ली. बाबू भशेन अशरफ होवूय बळीश्ट मन्नीस. दोगूय जाण बरे इश्ट एकठांयच काम करपी पूण धा-पंदरा दिसां पयलीं दोगांची पयशांवेल्यान झगडीं जालीं. दोगूय बरे घटमूट, दोगांयकडेन कानवेती, चाकू ह्या सारकेलीं बारीक सारीक अवजरां सदांच आसतालीं. त्या झगड्यांत बाबूक बरोच मार पडलो आनी त्या दिसासावन बाबू नाच्च जाल्लो. बाबू खंय गेला हे विशीं कोणाकच कांय खबर ना.

आशाबी च्या पिताली. तितल्यांत म्हजे तकलेंत विचारांची ही माळ विजेभाशेन लकलकून गेली. गुरूजी म्हण आशाबीन उलो मारल्याबराबर विचारांची माळ तुटली. 'हां सांग', अशें म्हणून हांवे तिका उलयती केली. ''गुरूजी हालीं अशरफ म्हजे फाटीक लागला. हांव कामाक वतां तेन्ना तोवूय म्हजोबराबर फाटाफाट येता. देंवतेर कोण ना सो पळोवन म्हजीं फकाणां करता. म्हाका फुसलावपाचो यत्न करता. सांजवेळा हांव केन्ना येतां हें पळयत तो वाटेर बसता. खूब फावटी वाटेर लोक मेळटात पूण अशरफाच्या भयान ते कूस मारतात. दुसरेच वाटेन ते वेतात. म्हाका आनीक कोणाचोच आधार ना, गुरूजी. अशरफाच्या भयान दोंगोर देंवलीं ना जाल्यार भुरगीं वळवळटलीं, रांदन पेटची ना...''

तिचो प्रस्न हो, खरें म्हळ्यार, समाजांतल्या अनाथ बायलांचो प्रस्न जावन आसा. समाजांतले गुंड, मवाली लोक अशा बायलांक सदांच त्रास दीत

असतात. अशरफाक हांव बरो वळखतालों. तो सूड घेवपी मनीस. हांवें उलयल्लें तो घडये आयकून घेयत पूण तो राग मागीर आशाबीचेर काडूंक फाटीं सरचो ना. आशाबीक ही गजाल हांवें सांगली. तिकाय ही खरी दिसली. ती म्हणूंक लागली. 'गुरूजी, तूंच आनीक चार लोकांक सांगून कितेंय मार्ग काड'. तिगेलें म्हणणें आयकून म्हाकाय दिसलें की ह्या प्रस्नाक कितेंय तरी करपाची जापसालदारकी म्हजी आसा. आशाबीलीं भुरगीं शिकपाक अेकदम हुशार. खंयच्या बऱ्या वातावरणांत वाडिल्लीं जाल्यार तीं बरीं फुडें येतलीं. अशिल्लीं. भुरग्यांक फकत शाळाच बरी आसली म्हूण शिक्षण बरें मेळटा अशें ना, तर त्याच वांगडा समाजांतलें वातावरण बरें आसचें पडटा. भुरगीं कोणावांगडा खेळटात, शाळा सुटल्या उपरांत तीं कितें करतात, ह्यो सगल्योच गजाली भुरग्यांचो फुडार घडूंक कारणीभूत थरतात.

सांजवेळा दोंगरार गेलों तेन्ना, अशरफाची काणी करीमसाब, गंगाराम अशा जायत्या इश्टांक हांवें सांगली. ते म्हणूंक लागले. पुलिसेंत कागाळ करूंया. म्हाकाय थोडो वेळ तशें दिसलें पूण विचार करतगीच तातूंतय धोको आसा अशें म्हज्या मनात आयलें. पुलिसांक कळयल्यार पुलीस अशरफाक आपोवन तापयतले, मारपेट करून परथून घरा धाडटले. तातूंतल्यान हो प्रस्न चड घुस्पा गोंदळाचो जातलो. एक म्हळ्यार अशरफ, ज्या लोकांनी कागळ केल्या तांकां मारतलो. आयज तो आशाबीचीं फकणां करता, फाल्यां तो तिच्या आंगांर लेगीत हात घालीत. तिका बळजबरेन घेवन लेगीत वचत. हो विचार करून निमाणें हांवें थारायलें की थोडे दीस आशाबीच्या सांगाताक एक दोन बऱ्या मनशांनी कामाक वतना तिच्या वांगडा वचचें आनी तिणेंय लेगीत सांजवेळा घरा येतना कोणाच्यातरी सांगातान येवचें. इतल्यान अशरफ चड कांय करूंक पावचो ना. ताजी कागाळ केल्ल्यान जो उपद्रव जातलो तोवूय जावचो ना. आशाबीक अशे तरेन फाटबळ दिल्ल्यान ती परथून उबी रावली. आपूण एकलीच आसा अशें तिका जें दिसतालें ती भिरांत पयसावली.

आशाबी ही तशी सुशेगाद रावपी बायल मनीस न्हय. तिचो एक भाव भायर आसतालो. ताणें एक फावट तिका चीट धाडून कुवैटाक तिजेखातीर कामधंदो सोदता अशें तिका कळीत केल्लें. हरशीं एकाद्री बायल मनीस नाका ते कुवैट, हांगाच बरें असा म्हूण ओगी रावतली आसली. पूण आशाबीक दिसलें की आपणेंय भायर वचून चार पयशे मेळोवचे. शाळेंत वचपी भुरग्यांक बरें फुडें शिकोवचें.. आपूण हांगा जी जोड जोडटा ती पोटाकच काबार जाता. पूण भायर वचपाक पयशे जाय आनी तिका इतले पयशे दितलो कोण ?

एक दीस ती म्हज्या घरा आयली आनी म्हाका तिणें कुवेट वचपाची

गजाल सांगली. खीणभर म्हाका अजाप दिसलें. ती अशिक्षीत, नेणार बायल मनीस. भायल्या देसांत वचून रावतली कशी? तिका थंय सुरक्षितताय मेळटली काय कितें? अशे प्रस्न म्हज्या मनांत तोपूंक लागले. पूण आशाबीक तातूंतलें कांयच खबर नाशिल्लें. ती म्हणूंक लागली, 'गुरूजी, तूं म्हाका मदत कर, हांव तुजे उपकार केन्नाच विसरची ना. म्हगेलीं भुरगीं तुगेले शाळेंत येतातच. तांकां म्हगेल्या आवय-बापायन सांबाळपाचें वचन दिलां?.

म्हाकाय अशा मनशांची सदांच मदत करीनशी दिसता. जीं मनशां जिवितांत कितेंय धाडस करूंक सोदतात, वेगळे वाटेन वचूंक सोदतात, तांकां हांव सदांच उर्बा दितां. आशाबी म्हजेकडेन कित्याखातीर आयील्ली हे सांगपाची गरज ना. ती आयिल्ली पयशांखातीर. तिणे आंगावेले किडूक मिडूक विकून ती काम करताली. तिणें घराच्यांकडल्यान सात-आठ हजार रूपया एकठांय केल्ले. तिका दोन हजार रूपयांची गरज आशिल्ली. म्हाका एक दोन हजार रूपये जाय अशें सांगून हांव कितें सांगतां तें आयकूंक ती म्हज्या तोंडाकडेन पळोवंक लागली. प्रस्न महत्वाचो आशिल्लो. आशाबी सारखेले बायल मनशेक जी म्हज्या गावांतली न्हय, तिगेली भास आनी म्हगेली भास एक न्हय, धर्म, जात हातूंतलो खंयचोच एकचार ना पूण तिका दिसतालें की हावूंच तिका मदत करतलों. हांवें थारायलें की जर ती एक धाडस करता तर आमीय एक धाडस करूंया. तिका हांवें पयशे दिले आनी एक दीस ती कुवैटाक पावली. वतना तिणें म्हजे नामो व्हेल्लोच. थंय पावल्याची चीट कोणकडल्यान तरी बरोवन तिणें म्हाका धाडली. म्हाका दिसलें जांव आतां तरी अशरफ तिका त्रास दिवंक पावचो ना. अशरफाच्या भयान ती हांगां वावुरताली ती भिरांत तरी नश्ट जातली. एक धाडस करपाचो तिचो हावेस फळादीक जातलो. ती गेली. दोनेक म्हयन्यांनी सकाळीं हांव भोंवडेक वचून घरा येतां जाल्यार आशाबी येवन बसल्या. म्हाका अजाप जालें. हांगासावन पयशे खर्च करून खूब पयशे हाडटली म्हूण कुवैटाक गेल्ली आशाबी परथून कशी आयली?

हांवें तिका विचारल्लें ''आशाबी, तूं केन्ना परथून आयली?''. ती म्हणूंक लागली एक दोन दीस जाले. तिचेकडल्यान ल्हवू ल्हवू करून म्हायती विचारून घेवपाची गरज आसली. ती मात्शी काचाबूल जाल्ली. आशाबी तूं कित्याक परथून आयली असो प्रस्न विचारतगीच, इतलो वेळ मेरेन चिड्डून दवरिल्लीं दुखां बांद फुटिल्ल्यावरी तिच्या दोळ्यांतल्यान व्हांवंक लागलीं. ती सांगूक लागली, ''थंय परिस्थिती आतां बरी ना गुरूजी. वतनाच आमकां कितलेशेच त्रास जाले. एक म्हळ्यार थंयची भास म्हाका येना विमानतळाचेरच एक रात काडची पडली. मागीर ज्या मनशागेर हांव कामाक वचपाचीं तो मनीस

म्हाका व्हरूंकच आयलो ना. हांवें विमानतळावेल्या लोकांक म्हजो पासपोर्ट दाखयलो आनी उपरांत तांणी त्या धनयाकडेन संपर्क सादलो. व्हडा कश्टान तांणी म्हाका ताज्या घरा व्हेली. त्या धनयाक थंय 'कपील' म्हण्टात'' तिचेकडल्यान चड म्हायती मेळवंक हांवें तिका थंयचें दिसपट्टें जिवीत कशें आशिल्लें असो प्रस्न विचारिल्लो. ती म्हणूंक लागली,' जिवीत कसलें? जिवें मरणच तें. एक खीण भर विसव ना. खंयच कदेलाचेर जांव उंचेल्या जाग्याचेर बसप ना. दिसभर काम आनी काम. भायर वचप ना...'' आशाबी सांगताली तांतूंतल्यान तिका विचारपाखातीर नवे नवे प्रस्न म्हज्या मनांत उप्रासताले. ती सांगूंक लागली, 'सकाळीं पांच वरांचेर उठप. आयदनां, कपडे धुवप, भुरग्यांक सांब्राळप''. ''आगे, पूण तुका भास येना जाल्यार, तूं वेव्हार कशी करताली?'' हांवें तिका विचारलें. ती सांगूंक लागली, ''भास ही ल्हवू ल्हवू करून येताच. मनशाक गरज आसली की भास येवंक कांयच आडखळ ना'' अशें म्हणून तिणें देखीक अशीं कांय उतरां म्हज्यामुखार दवरलीं. 'तथा' म्हळ्यार 'यो', 'उशूं' म्हळ्यार कितें जालें, 'सिरम' म्हळ्यार नांव कितें. अशीं कांय उतरां संवकळीन आपणाक येवंक लागलीं म्हूण तिणें सांगलें. ''मागीर तुका घरांत भोंवूंक मेळटालें का ना?'' हांवे प्रस्न केलो. ती सांगूंक लागली, ''तशें अरबांच्या घरांनी दादलो घरांत आसतना वचूंक मेळना. चाकरान भोव करून भायरच रावंक जाय. अरब भायर गेले उपरांत घरांतले बायलेकडेन कितेंय उलोवंक मेळटा. पूण आपल्याक भास येना जाल्यार उलयतलीं कितें? दिसपट्टें काम सोंपलें की मागीर भुरग्यांक घेवन रावप. तांच्या उलोवण्यांतल्यान मात्शी मात्शी भास येवंक लागता''.

आशाबीची सगळीच काणी आयकूंक म्हजी उत्सूकताय खिणाखिणाक वाडटाली. खरें म्हळ्यार सकाळचीं सगलींच कामां सोडून आशाबीली कथा आयकूंक म्हाका वेळ नाशिल्लो. पूण उत्सूकताय आशिल्ली. ''मागीर थंयच्या बायलांचें जिवीत कशें? बायलो भायर भोंवतात काय कितें?'' ह्या म्हज्या प्रस्नाक तिणें जाप दिली, ''बायलांक कसलें जिवीत थंय? वावराड्यांनी लेगीत तकलेर 'घुगंट' घालून भोंवंक जाय. कोणाकडेनच पळोवंक जायना, फकत कामाकडेन पळोवप. घुंगट तकलेवेल्यान पयस केल्यार घरांतली व्हनीबाय तापताली. केन्नाय भायर वचपाचें जाल्यार कपीलाची गाडी सामकी दाराक येवन तेंकताली. दार उकतें करतगीच बायलांनी गाडयेंत बसपाचें. गाडयेक सगले पडदे. पडदानशीन जावन बसप, जे जाग्यार वचपाचें थंय देंवप. काम जालें की परथून येवप. बायलांक म्हणटात तें थंय जिवीत ना''. ''मागीर जेवणा खाणाचें कशें तर?'' हें आयकून आशाबी हासूंक लागली. ''कितें सांगू, गुरूजी? थंयच्या जेवणाची तरा पळेल्यार हांसपाचें काय रडपाचें तें समजना. आमचो कपील सायब सकाळीं भायर सरतालो तो दनपरां धा, इकरा वरांचेर सगलो बाजार

करून मास, तांतयां, टमाटां घरा धाडून दितालो. मागीर तें मास निवळ करून रांदनीर उकडप. मास उकडून तयार जालें की तें काडप आनी तातूंतल्या उदकांत हेर सगल्यो वस्ती शिजोवप आनी मांसांत एकठांय करून एक व्हडलें ताट मेजार दवरप. त्या ताटांतच सगल्यांनी जेवप. जण एकाक वेगळें ताट थंय ना. दुकरांभशेन, जनावरांभशेन एकाच आयदनांत सगल्यांनी जेवप. ते अरब जेवतात त्याच आयदणांत जेवपाक म्हाका जाल्यार वीट येतालो. पूण करतलीं कितें? हांव थंय पयशांचे आशेन गेल्लीं. ताका लगून हें सगलें सोसचें पडलें''.

आशाबीन व्हडलो सुस्कारो सोडून थंयच्या यादींचेर उजवाड घालो. सकाळचीं णव वरां जालीं तरी आशाबीली काणी सोंपचना. आतां एकदोन प्रस्न विचारून ही काणी सोपूंक जाय. 'खबरांनी घोव शेणटा' अशें म्हणटात. तशें म्हगेलो कामाचो वेळ शेणत गेलो. निमाणें हांवें तिका विचारलें ''आगे, तूं परथून कित्याक आयली?'' ''इतलेय हांव त्रास काडटालीं ते पयशे मेळटले म्हूण, हांगाचे परस बरो पगार मेळटलो म्हूण. म्हयनो जालो, दोन म्हयने जाले तरी कपील पयशे दिवपाचें, पगाराचें कांयच उलयना. ताजेकडेन प्रत्यक्ष उलोवंक म्हाका मेळनाशिल्लें पूण मालकिणीकडल्यान ताका सांगपाचो यत्न केलो. पूण ताणें कानामनार घेतलें ना. भायलो देस, भास वेगळी. म्हजो भाव त्याच गांवांत रावतालो पूण ताका सोदून काडप कठीण. म्हाका बरोवंक येना, कोणाकडल्यान बरोवन घेतलो म्हळ्यार भायर वचूंक मेळना. कितें करतलीं. सगले उपाय थकले. निमाणें हांवें थारायलें सत्याग्रह करपाचो. अन्न उदक सोडपाचें. अशें थारावन हावें जेवण-खाण सोडलें. एक दीस जातो, दोन दीस जाले. पूण कपील खबर करीना. एक दोन दीस हांव मात्शें, मात्शें काम करतालीं पूण मागीर कामय सोडलें. थंड पडून रावप. शेजाऱ्यांक म्हजी गजाल खबर आशिल्ली. तांणी कपिलाक सांगलें बायलमनशेचें बरें वायट जाल्यार तूं त्रासांत पडटलो. तिका परथून घरा धाडून दी. पात्रांवाक ती लोकांली म्हणणी आयकूंची पडली. ताणें म्हाका सांगलें कीं तुका परथून भारतांत धाडून दितां तूं सामान बांद. म्हाका तें आयकून सूं जालें. बेगबेगीन उठून हावें, मात्शें जेवण घेतलें, उदक पिलीं. आनी दुसऱ्याच दिसा कपिलान म्हाका तिकेट काडून दिवन भारतांत धाडून दिली. मुंबयच्या विमानतळाचेर हांव देंवलीं, भायर वताचो रखरख तापिल्लो. विमानातल्यांन जमनीर पांय दवरल्या उपरांत म्हाका मात थंड दिसलें''

''आतां तुका हांगां कशें दिसता?'' अशें विचारतगीच, एकदम बरें दिसता अशी जाप आशाबीन दिली. ती म्हणूंक लागली. ''आमचो देस गरीब आसत पूण त्या अरबांच्या गिरेस्तकायेपरस कितल्याशाच पटींनी आमी गिरेस्त. थंय बारीक मनशांक जिवीत ना. बायलांक समाजांत सुवात ना. बायलो म्हळ्यार

भोग वस्तू कशो. ह्या म्हज्या देसांत कश्ट काडचे पडटात, पयशे उणे मेळटात. पूण बारीक लोकांक, आंगकश्ट करपी लोकांक, बायलांक जी हांगां सुवात आसा तसली अरबांल्या देसांत निखालूस ना. पयशांक लागून थंय वचपाचें आनी आपणालो अभिमान, आत्मो विकून परथून येवपाचे!'' वेळ बरोच जाल्लो. आशाबी म्हणूंक लागली, आपणे आतां परथून कामाक वचूंक सुरवात केल्या. परथून केन्नाय येतां अशें म्हणून आशाबी भायर सरली. आशाबी, अशरफ, कुवैट, अरबी जिवीत अशी सुरस अरबी काणी, काणयेतलीं चित्रां म्हज्या दोळ्यांमुखार नाचतालीं.

आमी म्हणटात खरें की आपलो देस, आपलो गांव, आपलें घर मेळ्ळयारच मनीस खरो सुखी जाता. पूण जर आमी अरबी लोकांच्या बायलांचे जिवीत पळयत तर त्यो अरब सोडून देसाच्या हेर खंयच्याच वाठारांत गेल्यार परत आपल्या गांवाक वचूंक सोदीत अशें म्हाका जाल्यार दिसना. कित्याक तर तांचे ते स्वतंत्र जावनय पारतंत्र्यांत, दुसऱ्यांच्या हुकमार जगपाची जीण म्हळ्यार कोणाक नाका. जिणें पातकां केल्यांत ती बायल अरब देसांत जल्मांत येता अशें म्हाका म्हणीन दिसता. पांजऱ्यांतलो पक्षी तरी जायत्या वांट्यांनी सुखी.

✿✿✿

# शंकराप्पा

पयलेच फावट हांव जेन्ना दोंगरावेले वस्तींत गेलों तेन्ना शंकराप्पा वांगड्यांक घेवन इसपिकांनी खेळूंक बशिल्लो. इतल्यांत हांव आनी म्हजो एक वांगडी शंकराप्पाच्या घरांत भीतर सरले. आमकां पळोवन तो मात्सो काचाबूल जालो. कांबळ फाटीचेर उडोवन तो सावचीत जावन बसलो. आनी आमचे दिकेन पळोवंक लागलो. 'कमळा' म्हूण बायलेक उलो मारून ताणें शेंद्री हाडूंक सांगलें. आमकां बसूंक सांगून तो आमचीं तोंडां पारखूंक लागलो. ल्हवू ल्हवू करून तागेले वांगडी पसार जाले. हांव कोणीय इंजनेर वा कंत्राटदार आसूंये अशें ताका दिसलें जांवये. घडये आनीक कसल्याय कामाक आमी आयल्यात जांवये. हांवें ताका म्हजी वळख करून दिली आनी तो खुशाल जालो. ताच्या मुखामळावेलें दुभावाचें सावट कुशीक गेलें. दोंगरावेली वस्ती बेकायदेशीर. मायक्रोव्हेव स्टेशन बांदपाक शंकराप्पा आयलो आनी थंयच रावलो. त्या दिसांनी मोंती दोंगरार कोणूच वचनाशिल्लो. मोंती दोंगरार कितें चल्लां हाची जाणविकाय खूब्ब उण्या लोकांक आसली. ल्हवू ल्हवू शंकराप्पान, आपल्या वांगड्यांकूय थंय बसयले. शिवाप्पा, निल्लाप्पा, काटाप्पा हे ताजेच सोयरे. शंकराप्पाक घडये दिसलें जांवये की आपूण बेकायदेशीरपणान हांगा रावता देखून ताची चौकशी करपाखातीर त्या जाग्याचो धनी घडये आयला. पूण आमची वळख जातगीच आमी तातूंतले न्हय हें ताच्या लक्षांत आयलें.

शंकराप्पा हो बिजापूरालागीं आशिल्ल्या बसनबगेवाडी ह्या गांवांतलो. गोंयांत काम धंदो बरो मेळटा हें ताच्या कानार आयलें आनी तो गोंयांत आयलो. तार्चे खाशेलेंपण म्हळ्यार तो मराठी बरी उलयता. दोंगरार एक दोग, तीग़जाण मराठी उलोवपी लोक म्हाका मेळ्ळे, तातूंतलो एक शंकराप्पा. ताका दोंगरार लोक मेस्त्री म्हूण वळखताले. ताणें जे मानाय, मजदूर हाडले तांचो हो बुदवंत. हांवें ताका म्हज्या येवपाचो हेत सांगलो. ताका म्हळें शंकराप्पा हांव हांगा एक शाळा बांदतां. ते खातीर तुजो आदार जाय. ताणें रोखडेंच थंय सावन पसार जाल्ल्या वांगड्यांक आपयले आनी सगल्यांनीच बसून आमच्यांनी शाळेखातीर कितें वावर करूंक जाता ह्या विशयाचेर भासाभास केली. शंकराप्पा, तसो सामकोच अनाडी न्हय. चार पुस्तकां शिकिल्लो मनीस. गोंयांत तो मजूर म्हूण आयलो आनी ल्हवू ल्हवू करून तो मेस्त्री जालो. आतां दोंगरार खूब लोक मेस्त्री जाल्यात पूण शंकराप्पा हो एकलोच मेस्त्री आशिल्लो. कमलव्वा ही ताची घरकान्न जाली. शंकरप्पान कमलव्वाक उलो करून च्या करूंक सांगलें आनी आमी शाळा चालू करचे खातीर कितें करूंक जाय हाची येवजण चालीक लायली. थोड्यावेळान कमलव्वा खुंटी च्या घेवन आमच्या मुखार आयली.

शंकराप्पा हो लमाण पूण मात्सो सुधारक कसो. कमलव्वा साडी न्हेशिल्ली, कुकुम लायिल्लो, हातांत कांचेचीं कांकणां घाल्लीं. म्हाकाय मार्शे आश्चर्य जालें. पूण कांय दिसांनी म्हाका समजलें की ही शंकरप्पाची नवीन बायल. पयल्लींची बायल लमाणी भेस करताली. ती ताका आवडना जाली म्हूण ताणें ही आधुनिक बायल केली. सुर्वेच्या काळांत शंकरप्पान म्हाका बरोच आदार दिलो. पयलींच म्हळ्यार त्या वेळार दोंगरार शिकिल्लो लोक नाशिल्लोच म्हळ्यार जाता. जे लोक आशिल्ले तांची भास कन्नड. ती म्हाका समजनाशिल्ली अश्या वेळार तांचेलागीं उलोवप खूबच कठीण जातालें. हांव थोडी भोव हिंदी उलोवन वेळ मारून व्हरतालों. पूण म्हाका कितें म्हणपाचें आसा हें तांचे मेरेन कितलें पावतालें तांतूंत दुभाव आशिल्लो. अशा वेळार शंकरप्पा सारको मराठी उलोवपी मनीस म्हाका मेळ्ळो. हें म्हजें भाग्यच अशें हांव मानतालों.

शाळेखातीर सामान एकठांय करप, चुट्टां हाडप, कोंडे हाडप, वणती काडप ह्या सगळ्याच कामांत शंकरापाचो आदार महत्वाचो थारलो. शंकराप्पाक चार भुरगीं - लक्षा, मारूती, सोम्यां आनी रेणा. शंकराप्पाक आपलीं भुरगीं शिकचीं अशें दिसतालेंच. ताणें एक दीस म्हाका विचारलें. मास्तर मारत्याक आनी लक्षाक तूं ट्यूशन दिवशी. दोंगरार तांकां कांयच शिकूंक मेळना. सकयल्या शाळांनी गेल्यार घांटी, घांटी म्हूण लोक चाळयतात. ट्यूशन बिशन हांव कांय दिना पूण तूं भुरग्यांक शिकूंक धाड. हांवें ताका म्हळें. फुडें कितलेशेच दीस मारत्या आनी लक्षा म्हज्या घरा शिकूंक येताले. म्हजी घरकान्न, प्रियाबाय तांचेर शिक्षणीक प्रयोग करताली. ह्या सगळ्या गजालींक लागून शंकराप्पाची म्हजेकडेन खूब इश्टागत जाली. दोंगरार शाळा ही फकत भुरग्यांक एकठांय करपाची सुवात न्हय. शाळेक लागून वस्तींतल्या लोकांचेरय संस्कार जावंक जाय अशें म्हाका दिसतालें. ते खातीर शाळेंत आमी कांय उत्सव चालीक लायले. चवथ आनी परशुराम जयंती हे दोन उत्सव शाळेचे खोंपींत तेन्ना मनोवपाचें थारायलें. तेंन्ना शंकरप्पान ती जापसालदारकी आंगार घेतली. आमचो इश्ट अंतरराव मदीहळी हाणीं गणपतीची मूर्त दिली. जाल्यार पिकलव्वा, शंकरप्पा, गंगव्वा, कमलव्वा ह्या लोकांनी सदांच देवाक प्रसाद म्हूण पंचखाद्य, जांव नेवऱ्यो करपाची वेवस्था केली.

परशुराम जयंतीचें अशेंच जाल्लें. गोंय हें परशुरामान निर्माण केलें पूण गोंयांत नांव घेवपासारकें परशुरामाचें थळ ना. परशुरामाच्या नांवान चलपी एकीय संस्था ना. हें पळोवंक म्हाका खंत भोगताली. दोंगरार आयिल्ले चडशे लोक यल्लमाचे भक्त. दर वर्सा यल्लमाचे जात्रेक वचपी. शंकरप्पा म्हणूंक लागलो गुरूजी आमी ह्या मोंती दोंगराचेर परशुरामाची एक देवळी बांदूंया. गोंय

परशुरामान निर्माण केलें आनी आमी परशुरामाचे भक्त कित्याक तर तो यल्लमाचो पूत. गोंयकार आनी आमचेमदीं हो एक परशुरामाचो दुवो तयार जातलो. म्हाका तागेली कल्पना आवडली. पूण म्हाका थंय देवूळ बांदपाचें नाशिल्लेंच. थंय गिन्यानाचेंमंदीर तयार करपाचें आशिल्लें हांवें ताका म्हळें आमचे शाळेकच नांव परशुरामाचेंदिवंया. सगल्यांकच ही कल्पना आवडली पूण देवळाचो विचार ते सोडूंक तयार नाशिल्ले. निमाणें परशुरामाची यादस्तीक म्हूण दोन पादुको दवरून तोच परशुराम अशें समजूचें अशें थारलें. अक्षय तृतीया आयली आनी त्या दिसा परशुरामाच्यो पादुको थापन करचेखातीर सगले दोंगरावेले लोक एकठांय जाले. सकाळसावन शंकराप्पा वावुरतालोच. त्याच दिसांनी आबाजी पणशिकार म्हूण एक नामनेचो प्रवचनकार मडगांवांत आयिल्लो. ताज्या हस्तुकीं परशुराम जयंतीची कार्यावळ आनी आबाजिचें प्रवचन करपाचें आमी थारायलें. शंकराप्पा पुडवें न्हेसून, शेमलो बांदून झेतान आयलो ताजी घरकान्न कमलव्वा, नवी ताल्ल साडी न्हेसून, फांती माळून आयली. सगलेच लमाण आनी तांचे वांगडी थंय एकठांय बशिल्ले. शंकराप्पान परशुरामाची पूजा केली, थापणूक केली. आबाजीन होम घालो आनी बरे नाचून अभंग म्हळे. उपरांत आबाजीलें प्रवचन चालू जालें. तांतूंत आबाजीन सोऱ्याचे वायट परिणाम कितें जातात ते विस्कटावन सांगलें आनी निमाणें जमिल्ल्या लोकां पयकीं आयच्या सुवाळ्यांत कोणूय सोरो सोडपाची शपथ घेतल्यार तांकां पुण्य मेळटलें, परशुराम तांकां बरें येस दितलो अशें म्हणून आबाजीन तांच्या मुखार एक प्रस्न उबो केलो. थंय जमिल्ले सगळेच जाण बेबदे. शंकराप्पा, निलाप्पा, शिवाप्पा, खांजापीर, गंगाराम, एकएक सोऱ्याचीं बल्लां. शंकराप्पा तर फुल टायट जावन येता अशें तागेलीं भुरगीं म्हाका सांगतालीं.

आबाजीन पयलोच धरलो तो शंकरप्पाक. ताका सोपूत घेवंक लायलो. खरें पळेल्यार ताच्या मनांत सोपूत घेवचो नाशिल्लोच. पूण लोकांचे चेपण कांय मनशांचेर येता. भिडेक पडून, लजेक लागून कांय लोक आपणाक शक्य नाशिल्ल्यो गजाली लेगीत हय म्हणून गळ्यांत बांदून घेतात. शंकराप्पाचें तेंच जालें. शंकराप्पान सोपूत घेतलो, ताच्या फाटोफाट कमलव्वान घेतलो, शिवाप्पान सोपूत घेतलो, खांजापीरान सोपूत घेतलो. एकच आडवाद जालो तो म्हळ्यार निलाप्पाचो. निलाप्पालीं जेन्ना सोपूत घेवपाचो वेळ आयलो तेन्ना ताणें उबो रावन सांगलें आपूण केन्नाच सोपूत घेवचो ना. म्हाका सोरो पियेल्याबगर जायना. निलप्पाचें धाडस पळोवन आबाजी चकीत जाले. कार्यावळ सोंपली आनी सगळेचजाण काचयेवन घरा पावले. सोरो न घेवपाचो सोपूत सगल्यांचे तकलेक बादीकार करतालो. शंकरप्पा आनी कमलव्वा घरा आयलीं खरीं पूण तांचें लक्ष खंयचेच गजालींत रमना जालें. आयज सोरो पियेवप ना म्हळ्यार

किलें. फाटलया जायत्या वर्सांनी असो दीस केन्नाच उजवाडलो ना. गोंयांत आयल्ले सगळेच मानाय, जांव तांगेल्यो घरकान्नी पयली गजाल शिकतात ती म्हळ्यार सोरो पियेवप. हांतूत बायलांचें प्रमाण खूब उणें आसता हें मान्य करूंक जाय. पूण कमलव्वा सारकी बायल घोवाचे मांडयेक मांडी लावन सोरो पियेताली. तेन्ना तिगेले शेजान्नीक लेगीत अजाप दिसतालें. सोऱ्याच्या नेटार शंकरप्पा आनी कमलव्वा हांचीं झगडीं आनी भासाभास हांची जुगलबंदी जाताली. शंकराप्पा मेस्त्रीच. तागेलें बोल्स पयशांनी भरून व्हांवतालें. कमलव्वा ही ताजेबरोबर गोंयांत आयिल्ली नवी घरकान्न. शंकराप्पा म्हळ्यार दोंगरावेलो राजा कसो. तांचो खेळ पळोवंक आनीकय चार दोंगरकार रातीं एकठांय जमताले. आय जमात सगळेकडेन सामसूम. रात जाली तरीय सोऱ्याचें नांव ना कित्याक तर सोपूत घेतना जायत्या लोकांनी तांकां पळयिल्लीं. जनाची ना तर मनाची तरी मनशाक लज आसता. रात जाली तरीय शंकरप्पाक झेम येना. कमलव्वाय जागीच आशिल्ली. खंयचो झक मारलो आनी सोपूत घेवपाचे भानगडींत पडलो, अशें शंकराप्पाक जाल्लें. ताका दिसतालें निलाप्पा शाणो. ताणें आबाजीक धडधडीत सांगलें सोपूत घेवचो ना म्हूण. म्हाका तें धाडस जालें ना. तो आपणालागींच उलयतालो.

सकाळ जाली तरीय शंकरप्पाक कामाक वचपाचें सूचना. कमलव्वाय आयज थंड थंडशी जाली. भुरगीं शाळेंत वचपाचीं जालीं. हांव शाळेंत पावलों तेन्ना निलाप्पा शाळेच्या दाराकडेन हाजीर आशिल्लो. गुरूजी, हांव सांगतां तुका अशें म्हणून निलाप्पा सांगूंक लागलो. जांणी काल सोपूत घेतल्यात न्हय ते सगले फटींग मनीस. तांकां सत सांगपाचें धाडस ना. पळय दोन दिसां भीतर ते परथून पिवंक लागतले. हावें म्हळें ना रे, तांणी सोपूत घेतला न्हय? ते तो सोपूत मोडचे नात. पूण सोरो नाशिल्ल्यान कमलव्वा, शंकराप्पा, खांजापीर ह्या सगल्यांचीच परिस्थिती वायट जाली. मनशांचो एक सभाव आसा. खाणा जेवणाच्यों वस्तू जो मेरेन नदरेमुखार आसतात तेन्ना तांचें म्हत्व मनशाक कळना. भजीं जांव हेर जीभेक रूच हाडपी वस्तू खावपाच्योच आसतात त्यावेळार तांची रूच व्हडलीशी समजना. पूण जेन्ना एकाद्री वस्त खावपाची ना, पियेवपाची ना अशा वेळार ती वस्त खावची, जेवची जांव पियेवची अशें मनशाक दिसता. उपासाच्या दिसा मनशाक शीत कडी जेवचीशी दिसता. उपाशीं आशिल्ल्या मनशाक दूसऱ्यांच्या फुड्यातलें ताट ओडून घेवचेंशे दिसता. जिवितांत नेम आनी उतर सांबाळप भोव कठीण. हरशीं एकाद्र्या वेळार शंकराप्पा केन्ना केन्नाय सोरो पियेनाशिल्लो पूण आयज पियेवपाचो ना ह्या नेमानच तो भिरांकूळ जालो. एक दिस, दोन दीस अशे गेले आनी तिसऱ्या दिसा शंकराप्पान थारायलें की हे नेम बी कोंताक पडपाचे न्हय. खावन, जेवन, पियेवन मरूंक जाय. तिसऱ्या दिसा ताणें रात

जाले बराबर मारत्याक गादयेचेर धाडून सोरो हाडून कमलव्वान आनी ताणें दोन दिसांचो सोऱ्याचो उपास सोडलो. आबाजीक आनी म्हाका गाळी संवल्यो. हांव सकाळीं शाळेंत वचनाफुडें निलाप्पा हांसत हांसत फुडें आयलो. पळय गुरूजी हांव सांगतालों न्हय तुका सोपूत घेतिल्ले लोक फटींग, अशी सुरवात करून रातीं घडिल्लें रामायण ताणें म्हज्या मुखार उबें केलें.

शंकरप्पा रातीं कितेंय जरी उलयलो तरीय दिसाचो आमचेकडेन बरे तरेन चलतालो. वेळार चार पयशे खर्च करूंक तो फाटीं फुडें पळेनाशिल्लो. फुडें शाळा बांदपाखातीर जेन्ना खटपट चालू जाली, चार पयशे एकठांय केले त्या वेळार सगळ्यांनीच सुचयलें की हें काम शंकरप्पाकच दिवचें. पयली गजाल म्हळ्यार तो थंयच रावतालो. तोच वेवसाय करतालो आनी दुसरे दिकेन तो आमचो वांगडीय आशिल्लो. पूण आमी चूक केली ती म्हळ्यार ताका पयलेच पयलीं पयशे दिवपाची. कामगारांक केन्नाच पयलीं पयशे दिवंक जायना हें गिन्यान म्हाका शंकराप्पाल्या अणभवांतल्यान मेळ्ळें. एकदम अडेज हजार रूपया ताच्या हातार दवरल्या उपरांत ताकाय आमकां फटोवपाची वान्सा जावप हें सभावीक. पयशाचो मोह कोणाक जायना. व्हडले-व्हडले योगी लेगीत पयशाच्या मोहाक बळी पडटात. हालीं तर आमी पळेतात की पयशान कोणाकय विकतो घेवंक जाता. तांतूंतल्यान कितें महाभारत घडलें तें 'करीमसाब' हे व्यक्ती रेखेंत सांगलां.

पूण ह्या सगल्या घडणूकांतल्यान हांवें पळेलें की शंकराप्पा म्हजो दुस्मान जालो ना. जांव म्हजे आड ताणें केन्नाच कारस्तनां करूंक नात. शाळेचे पयशे खाले, हाचें ताकाय घडये दुख जातालें. हांव मेळळ्या उपरांत तो लजेतालो, कूस मारतालो. पूण ते घडणुकेचे परिणाम ताच्या सदींच्या वेव्हारांत लेगीत जाले. अशें कांय घडणूकांवेल्यान म्हज्या लक्षांत आयलें. शंकराप्पान आनीकय एक तड्डक केलें. तें म्हळ्यार संस्थेंतल्यान कांय पावती पुस्तकां व्हरून ताणें पयशे एकठांय केले आनी पावती पुस्तकांय ना करून उडयलीं. ही गजाल, शंकराप्पा आनी ताचे सांगाती हांचें एक फावट झगडें जालें, त्या वेळार म्हज्या कानार आयली. तरीयपूण हांवें शंकराप्पाची दुस्मानकाय केन्नाच करूंक ना. विश्वामित्राक लेगीत मोह आडावंक शक्य जालें ना. शंकराप्पा तर सादो मनीस, पोटाखातीर वावुरपी. ताणे पयशे खावप समकें सभावीक. ते पयशे मेळोवपाखातीर आमी खूब यत्न केले. शंकराप्पा यल्लमाचो भक्त. यल्लमाचें एक देवूळ हालींसारा 'ताका बांद' हे सुवातेचेर जाता. थंयचो पूजारी खूबशे फावटी दोंगरार येतालो. दोंगरावेले खुबशे यल्लमाक पायां पडूंक, पुजाऱ्याक प्रस्न विचारूंक थंय वताले. हांव, करीमसाब, करर्नाळे ह्या सगल्यांनी वचून शंकराप्पाची खबर पूजाऱ्याक सांगलीं. पुजाऱ्यानूय वेगोवेग शंकरप्पाक आपोवन हाडूंक मनीस धाडलो. पुजाऱ्याचेंच आपोवणें तें.

तागेलो व्हडलो भाव तुकाराम हाका सांगताक घेवन यल्लम्माच्या देवळांत पावलो आनी आमकां थंय पळोवन तो काचाबूल जालो. तुकाराम आनी तो बसले. पुजाऱ्यान ताका जायत्या तरांनी समजावन सांगलें. ताच्याय मनांत पयशे दिवपाचे आशिल्ले पूण शाळेचे पयशे खायत सावन ताकाय ते पयशे दिवन उडोवपाची तांक मेळ्ळी ना. शंकराप्पान काकळुतेन पूजाऱ्याक सांगलें 'हांव कितलेशेच दीस ते पयशे दिवंक सोदतां. पूण शाळेचे पयशे खायत सावन म्हगेल्या बोल्साक बरकत येना, निमाणें, पुजाऱ्याचो प्रतिश्ठेचो प्रस्न जावन बसलो. शंकराप्पाकडल्यान शाळेचे पयशे परथून मेळोवन दितलोच अशें पूजारी समजतालो. पूण शंकराप्पालें उलोवप आयकून ''मत्सयाने भिडले माणीक'' अशी अवस्था पुजाऱ्याची जाली.

शंकराप्पाकडल्यान पयशे मेळपाची आस्त ना, अशें जातगीच पुजाऱ्यान यल्लमाची एक भांगराची वस्त काडून आनी आमच्यामुखार दवरून पुजारी सांगूक लागलो ही वस्त विकात आनी शाळेखातीर पयशे मोडात. देवाची वस्तू विकून पयशे उबे करपाची येवजण आमकां कोणाकच मानवलीना. खंयचीय पातकां लिपोवपाखातीर ती वस्त कोणें देवाक दिल्या कोण जाणा. ती वस्त घेवन शाळा बांदपाचें पातक आमकां नाका अशें थारावन पूजाऱ्याक आमी म्हळें, 'बाबा, तुगेली वस्त तूं दवर. शाळा बांदपाखातीर आनीक चार घरां भोंवपाक पडल्यार पडूं. ते खातीर देवाची वस्त विकपाचें पातक आमकां नाका. अशा वेळार शंकराप्पा मेस्त्री म्हूण वावुरतालो. तो आतां मजूर म्हूण कामाक वतालो. पयर एक दीस तो बाजारांत मेळ्ळो. म्हाका पळोवन तो लागीं आयलो, ''गुरूजी म्हाका शाळेचे पयशे खाल्याचें खूब दुःख जालें पूण त्या दिसा सावन आयज मेरेन अडेज-हजार रूपया एके गांठींत म्हजेकडेन केन्नाच दिवंक नात. ताका पश्चाताप जाल्लो. हांवें ताका म्हळें शकराप्पा जाल्ल्यो गजाली घडून गेल्यो. तो लेगीत जिवितांतलो एक अणभव. शाळा जालीय तांतूंन भुरगीं शिकतात. ह्या आनदावांगडाच तो अणभव लेगीत जिवितांत म्हत्वाचो. ताका सासणाचें मोल आसा.

✿✿✿

# भिमराव हडपड

'कशापायी सांगावा धाडला होता गुरूजी', अशें म्हणून भिमराव दारांत आयलो. हांव भायर येवन ताका भितर येवंक सांगलें. भिमरावाक दोंगरावेले लोक भिमाप्पा ह्या नांवान वळखतात. ताजें आडनांव हडपड. तो म्हालो अशें दोंगरावेले लोक सांगतात. हांवें ताका केन्नाच ताची जात विचारूंक ना. पूण हडपड ह्या तागेल्या आडनांवावेल्यान हडपाकडेन ताजो संबंद आसूंक जाय अशें दिसता.

गोंयांत पयलीं म्हाले गावांगावांनी भोंवताले. दर एका गांवांत साप्तकांतलो एक दीस मेळटालो. म्हाल्याचे केंस मारपाच्या सामानाचें एक लाकडी पेदूल आसतालें ताका 'हडप' अशे म्हणटाले. हालीं हे गांवांगांवांनी भोंवपी म्हालेच गेले आनी हडपांय गेलीं. धोंपरामेरेन पुडवें न्हेसून लांब हाताचें खोमीस घालून भिम्माप्पा विडी ओडीत येवंक लागलो की समजप तागेलें कितें ना कितें तरी काम आसा. ताका केन्नाकेन्नाय गावांकडेन भावाक चीट बरोवपाची आसता. केन्नाय धुवेक चीट बरोवपाची आसता, केन्ना ताका आयिल्लीं पत्रां व्हरूंकय तो येता. अशे तरेन भिमरावाचे आनी आमचे संबंद जल्मांतरीचे. ताका ह्या जल्मांतलें कार्यकारण संबंद लागनात.

भिमराव हो 'अक्कलकोट' ह्या गांवांत रावपी. गोंयांतल्या लोकांक अक्कलकोट स्वामी खबर आसा. अक्कलकोटाक भिमाप्पा म्हाल्याचें काम करतालो. गांवांतल्यान वाड्यांवाड्यांनी भोंवन तागेलें पोट भरतालें. पूण घाटावेलो पावस विचित्र. एखाद्र्या वर्सा पडटा जाल्यार दोन तीन वर्सां तोंडच दाखयना. भिमरावाच्या गांवांत एका वर्सा दुकळ पडलो, सुको दुकळ. पावसाचो थेंब ना, गोरवांक घालूंक तण ना, मनशांक पियेवंक उदक ना! सैमाचे हे विचित्र करणेन भिमराव विटलो. शेत रोयतगीच पावस पडप ना. अशें कित्याक जाता? रोयिल्ल्या शेतांत देव उदक कित्याक घालीना? अशे प्रस्न भिमरावाच्या मनांत उप्रासताले. पूण करतलो कितें? पावसानच जर दड मारली जाल्यार कागाळ कोणाकडेन करप? वर्सांनवर्स पडपी ह्या दुकळान भिमराव गांव सोडूंक तयार जालो. एके राती गोठ्यांतल्या गोरवांक ताणें सोडून दिलीं. फाटले कांय दीस तांका तण उदक नाशिल्लें. भिमराव आनी ताची घरकान्न गोंयांत पावलीं. काम सोदीत सोदीत तो मडगांवच्या वाठारांत भोंवक लागलो. त्या वेळार ताका महादेवप्पा मेळ्ळो, लक्ष्मण मेळ्ळो. ते मोंती दोंगरार रावताले. तांच्या सांगातान भिमराव मोतीदोंगरार रावंक लागलो.

ताजो मुळावो धंदो म्हाल्याचो, पूण गोंयांत येत सावन ताणें म्हालेपण

सोडलें आनी मानायपण चालू केलें. तो, लक्ष्मण, महादेवप्पा अशा लोकांच्या सांगातान वचून बिगारीपण करतालो. मानाय, मजूर हांच्यामदीं लेगीत प्रशिक्षण आनी पांवडो आसताच. सुरवेक मनीस, सुरवात करता तो मानायपणान. शिमीट कालोवन दिवप, गंवड्याक शिमीटाच्यो कायली दिवप, फातर काडप, उदक हाडून दिवप. अशीं हातासकयलीं कामां करतात ताका बिगारी म्हण्टात. तातूंतल्यानच गंवड्यावांगडा वावरून वावरून बिगाऱ्याचो गंवडो जाता. आनी चार कडेन कामां करून करून गवंड्याचो मेस्त्री जाता. भिमरावय असोच मानायपण करून ल्हवू ल्हवू गवंडो जालो. फातर तासपाचें काम करूंक लागलो. अशे तरेन भिमरावान आपणाली उदरगत बरी केली. भिमरावालें खाशेलपण म्हळ्यार खंयचीय गजाल मनासावन करप. भिमरावान एक फावट हय म्हळें की तें काम जातलें तांतूंत कुस्टुटाचीय धिलाय जावचीना. ताच्या कामांत एकेतरेचें नकसूदपण आसा, निटाय आसा.

भिमराव हो कानडी मनीस पूण तो गांवगीरी मराठी उलयता. 'तुमासनी सांगतया गुरूजी, तुमी अस करू नग', असो उलयता. म्हगेले घरकान्नीक तो ताई ताई करून सदांच उलो मारता. तिका भिमरावासारखो प्रामाणीक मनीस आवडटा. एक फावट भिमराव आयलो आनी सांगूंक लागलो. गुरूजी तुमच्या घरा फोन आसा न्हय, तेन्ना मात्सो म्हज्या गांवाकडेन फोन करून भाव कसो आसा कळीत करात. ताका कोर्णेय तरी सांगिल्लें की फोनावेल्यान उलयल्यार खंयच्याय पयसुल्ल्या मनशाक कळीत जाता. ताका बाबड्याक खबर ना की तागेल्या भावागेर जांव, शेजाऱ्यागेर खंय तरी फोन आसूंक जाय. भिमरावाच्या आंगांत एक शिटूकसाण आसा. ताका येना अशें कश्टांचे काम ना. तो थोडें भोव मेस्तपण जाणा. चिरे तासप, गवंडेपण जांव लाकडां फोडप, झाडार चडून पोणसुलां काडप, माडार चडून नाल्ल काडप, अशें खंयचेंय काम ताका सांगात तें सारकेंच जातलें. आमकां भिमरावाचें चड कौतूक कित्याक तर हालींच्या काळांत मानाय, चाकर अशा लोकांचेर विश्वास दवरप कठीण. तो विश्वास पानीपतांत गेलो अशें फकाणांनी सांगपी लोक मेळटात. पूण भिमरावा सारक्या मनशांत तो विश्वास आजूनय जिवो आसा हाजो दिश्टावो जाता.

भिमराव सदींच म्हज्या घरा आयलो की म्हाका नवीं नवीं कामां सुचयत आसता. घराक ढुरीग काड्या, तें आपूण बांदून दितां, अशो जायत्यो गजाली हांव ताचेकडल्यान आयकतां पूण दांत आनी चणे हांची भेट जावप खूब कठीण. हांवें तेन्ना नवें घर बांदलें त्या वेळार भिमरावाक खूब आनंद जालो. तो सदींच म्हज्या घरा येवन कितें नां कितें काम करतालो. हालीं भिमरावाक आयकूंक येना, दोन उतरां सांगपाचीं, जाल्यार लेगीत ताच्या कानांत आड्डचें पडटा. एक दीस तो म्हाका म्हणूंक लागलो, ''गुरूजी म्हाका हालीं आयकूंक येना.

ताकालागून काम मेळप खूब कुस्तार जालां. कित्याक तर म्हाका कितेंय काम दिल्यार आड्डतलो कोण?'' अशें म्हणून मेस्त्री बेजारतात. म्हाका ताची काकळूत आयली. मनीस प्रामाणीक, काम करपी पूण आयकूंक येना म्हूण काम मेळना हें ताजेर अन्याय करपासारकें. हावें ताका एक 'श्रवण यंत्र' घेवन दिवपाची वेवस्था केली. पूण तें कानाक लावन काम करप ताका कुस्तार जातालें. हे खातीर तो दुसऱ्या मनशांकडेन उलोवपाच्या वेळारच कानाक मशीन लायतालो आनी उपरांत काडून दवरतालो. तो म्हण्टालो आपल्याक कितें आयकुपाचें आसल्यारच 'यंत्र' कानाक लायता, ना जाल्यार नाकाशिल्ल्यो गजाली लेगीत आयकुच्यो पडटात. भिमरावाचें हें उलोवप म्हाका मानवता. हालीं खूबशो फावटी अशें जाता: आमकां कानांनी बरें आयकपा परस वायटच चड आयकूंक मेळटा. मांयक सून कितें उलयता हें कानार पडटा. कितल्योशोच फावटी आपणाक नाका जाल्यार लेगीत कर्कश संगीत, लाऊडस्पिकर लावन वाजयल्लीं पदां, रेडिओ, टी.व्ही. चे आवाज आयकचे पडटात. पूण आपणाक नाका तें आयकप बंद करपाचें माक्न आजून येवंक ना. आपणाक नाका तें दोळे बंद केल्यार दिसना, पूण कानांचें तशें ना. देखून गांधीजिंच्या तीन माकडांचे कथेत 'Hear no evil' हें एक सत आपणावपाची येवजण आसा.

भिमाप्पा जसो म्हज्या घरा येता, तसोच हांवंय दोंगरार गेले उपरांत ताज्या घरा मुद्दाम वचून बसतां. आपणालें काम बरें आपूण बरो अशे तरेन रावपी भिमाप्पा, दोंगरावेल्यो गजाली सदांच म्हाका सांगत आसता. खंयचेय भानगडींत ताका आपोवणें आयलें की तो म्हण्टा, ''नाका बाबा, म्हाका आपोवंक नाका. म्हाका आयकूंक येना, दोळ्यांनी सारकें दिसना''. भिमरावाच्या ह्या उलोवण्यान, तो खूबशा भानगडींसावन पयस उरता. आपल्याक आयकूंक येना हे गजालीचोय ताणें फायदो करून घेतला. कोणाचेय भानगडींत नाशिल्ल्या भिमरावाचेर कांय वायट प्रसंगय आयले. तागेलो एक पूत मडगांव-पणजी बसीचेर बेश्टें मडगांव-पणजी अशें आड्डपाचें काम करतालो. ताका चार पयशे सुट्टाले. एक दीस मडगांव - पणजे, मडगांव - पणजे अशें आड्डीत तो बसीच्या रोदाकडेन आसतनाच ड्रायवरान बस चालू केली आनी ताचेवेल्यान मोटारीचे चाक वचून तो पूत सासणाचो पयसावलो. हांव ताका मेळूंक गेलों. तेन्ना भिमराव कपलार हात घेवन बशिल्लो. हावें म्हळें भिमराव हें अशें कशें जालें? भिमराव सांगूंक लागलो: त्या चेड्याक मोटारीकडेन [illegible] सवय. ताका ड्रायवर जावपाची खोस आसली. हांव ताका खूब [illegible] सांगतालों, [illegible] कर बेश्टोच मोटारी लागीं भोंवून चार पयशे मेळोवप हें समा न्हंय. पूण ताणें केन्नाच आयकूंक ना. भिमराव वितरागांनी उलयतालो खरो. पूण ताज्या[illegible] बापूय चुटमुट्टालो. ते चुरचुरे ताज्या उतरांतल्यान [illegible]ताले. तो म्हणूंक लागलो:

"गुरूजी, भुरग्यांक ल्हानाचें व्हड करप, तांचेखातीर त्रास काडप आनी एक दीस फटक करून भुरगीं नाच जावप हो खंयचो न्याय?" जाणटेपणांत भुरग्यांनी पेज-पाणी घालची म्हूण आवय-बापूय भुरग्यांक वयर काडटात. पूण जाता तें उरफाटेंच. भिमरावाचें सांत्वन कशें करचें हे म्हाका कळना जालें. भुरग्याक अपघात जालो ते खातीर ताजो एक विमो आसता तातूंतल्यान कांय पयशे मेळपाची वेवस्था जायत काय कितें अशें निमाणें भिमराव विचारूंक लागलो. हांवें ताका चौकशी करून सांगतां अशें उतर दिलें, आनी थोडी खटपट केल्या उपरांत त्या विम्यांचे कांय पयशे ताका मेळ्ळे.

भिमराव आतां जाणटो जायत आयला. केन्नाकेन्नाय तो म्हाका गांधी मार्केटांन मेळटा. ताका खबर आसा की गुरूजीक भाजी घेवपाची आसा. तो लागीं येता आनी म्हण्टा, 'चला गुरूजी, चांगली भाजी घेऊन देतों'. भाजी लेगीत बारीकसाणीन घेवपाची ताजी संवय घेवपासारकी. भिमरावाचें गोंयात येवन कांयच व्हडलेशें वायट जावंक ना. ताचो एक पूत अरबी देसांत गेला. तर दुसरो पूत ड्रायवर म्हूण काम करता. भिमरावाच्या प्रामाणीकपणाचें फळ ताका मेळत गेलां. भिमरावासारकीं प्रमाणीक मनशां आतां मेळूंक खूबच कुस्तार. जणएकलो, दूसऱ्याक तोपी कशी घालूंक मेळत हाचोच विचार करीत आसता. निटायेन, मन लावून काम करप अशे तरेच्यो देखी आतां उण्यो जायत चल्ल्यात.

भिमराव गरज पडल्यार आपणूच कितेंय मागूंक येता तिलोच. कितेंय काम सांगल्यार अनमनना. भिमरावासारकीं मनशां आतां दुर्मिळ आसात. म्हणून तर तांचें मोल चड.

***

# आदमसाब

मौलासाबाच्या फूसलावण्यांक भुल्लूसलोना असो मनीस म्हळ्यार आदमसाब. सदांच लुंगी मारून उकत्या आंगान भोंवपी, हो मनीस म्हळ्यार फातरासारको घट पूण, काळजान लोणया सारको मोव. तार्जे आंगपेर घटमूट, हड्डें मारुतीभशेन लांब रूंद, उंची स फूट. आदमसाब येवंक लागलो की कुचुकुचू करून उलोवपी लोक मोने जाताले, कारस्तानी लोक कूस मारताले. आंगांन अगडबंब आशिल्लो. आदमसाब तकलेनमात सामकोच बोंडो. हातान खूपच ल्हव. तो करीमसाबा वांगडा दोंगरार पावलो.

करीमसाब आदमसाबाचो भावोजी. करीमसाबावांगडा तो दोंगरार आयलो आनी एकमेकाच्या म्हऱ्यांतच खोंप घालून ते रावंक लागले. करीमसाब शिटूक धूर्त. हाज्या उरफाटो आदमसाब. रांगडो मनीस. एक दीस तो आपणाल्या भुरग्यांक घेवन शाळेंत आयलो. भुरग्यांक शाळेंत घालीं. तांचेकडेन कांयच सामान ना, पाटी ना, पुस्तक ना. तांगेले आवयक दोन चार फावटी सांगलें पूण ती बापडी कितें करतली ? आदमसाबाची जोड उणी. आदमसाब सकाळींच उठून एकाद्र्या वेपाऱ्याच्या दुकानासामकार उबो रावतालो. उपरांत कोणाल्याय सामानाचे साक चडोवप, शिमेटाच्यो पोतयो हाडप, लोखण मेजून दीवप अशे तरेचो वावर तो करतालो. पूण तातूंतल्यान व्हडलीशी येणावळ ताका मेळनाशिल्ली. हेर मानाय दिसाक शंबर-देडशीं रुपया जोडटाले पूण आदमसाब पन्नास-साठ रुपयांचेरच सुकतालो. तार्जे एक तत्वगिन्यान आशिल्लें. कोणूय मनीस अडचलो जाल्यार ताका पयशांखातीर आडावप ना. बळजबरी करप ना. ताका लागून व्हडलीशी जोड ताका जायनाशिल्ली. पूण तो सदांच 'आल्म खुशाल', व्हडलीशी चिंता घेवन बसपी न्हय. भुरग्यांक पाटी, दप्तर ना हाची ताका चिंता नाशिल्ली. जेन्ना जमत तेन्ना हाडूंया अशें तो सांगतालो.

ताजी बायल रमिजा आटून कुटून संवसार करपी. कुण्याचो मांडो करपी पूण केन्नाच तिगेलो बोवाळ ना. एक दीस ती शाळेंत आयली आनी सांगूक लागली, ''मास्तर, आपणालो दादलो एकलोच जोडपी. आमी पांच-स जाणां खावपी. हांवूंय कितेंय काम करूंक सोदतां. पूण आदमसाब म्हाका भायर सरूंक दिना''. तिगेल्या उलोवण्यांतल्यान म्हाका एक नवीन येवजण सुचली. अशे तरेन घरा रावपी बायलो, लग्न जावपाच्यो चलयो हांचेखातीर कितेंय तरी करपाची गरज म्हाका दिसताली. ल्हान भुरग्यांक बालवाडी, तांचेवून व्हडांक प्राथमिक शाळा, जाणट्यांक साक्षरताये वर्ग आशिल्ले पूण अशा बायलांक जांव चलयांक कितेंय तरी शिक्षण दिवपाची येवजण जाय अशिल्ली. हावें रमिजाक लागून एक

नवीन येवजण चालीक लायली. ती म्हळ्यार शिवण शिकोवपाचो क्लास. 'ट्रायसेम' ह्या वर्गांत रमिजासारक्यो धा-पंदरा बायलो येताल्यो. तांकां शिक्षण पुराय जायना फुडें एक मिशीनय मेळ्ळें. आतां रमिजा घरांतल्या घरांत बसून शिबणकाम करता. आनी आपल्या संवसाराक हातबोट लायता.

सगळ्यांत महत्वाची गजाल म्हळ्यार आदमसाब एकदम खोशी जाला. आपणाली बायल मिशिनाचेर कपडे शिंवता म्हूण जण एकल्याक सांगता. मुमताज, बशीर हीं तांचीं भुरगीं शाळेंत शिकून आतां फुडलें शिक्षण हायस्कूलांत घेतात. आदमसाब हो मनीस सरळ आसल्यार एकदम बरो. पूण एक फावट ताज्या आगांत म्हारू भितर सरलो आनी तो खुबळ्ळो जाल्यार तो कोणाकूच आयकना. कोणूच ताज्या फुड्यांत वचपाचें धाडस करना. एक फावट मौलासाबानूच ताचेर एक कारस्तान केलें. मौलासाबाची ही रीत :- जो मनीस आपणाल्या चपक्यांत ना जांव आपणाल्या पाख्या सकयल रावना ताचेआड तरेकवार कुभांडां रचप, तांकां जिवितांतल्यान उठोवप. अशे तरेचीं कामां तो सदांच करतालो.

आदमसाब जरी मुसलमान आसलो तरीय तो मशिदींत वचनाशिल्लो. रजा तर केन्नाच करनाशिल्लो. एक फावट मौलासाबान ताका जमातींतल्यान भायर घालपाग थारायलें. जो नमाजाक वचना तो मुसलमान कसलो? तो सोरो पियेता अशे तरेन आदमसाबा आड मौलासाबान प्रचार चालू करतगीच आदमसाब एकदम गरम जालो. हातांत कुराड घेवन तो घरांतल्यान भायर सरलो आनी तागेल्या वांगड्यांक म्हळें 'कोण ते म्हजेर भहिश्कार घालूंक सोदतात? तुमकां एकेकल्याक चांचावन मशिदीसामकार आशिल्ल्या फोंडांन पुरतां''. थंय आशिल्ले सगळे जाण भियेले. कांय लोक फाटल्या दारांतल्यान पळून गेले. कांय लोक नमाज पडून जातगीच नमस्कार घालूंक जमनीर तेंकले ते तशेच रावले. आदमसाबाचे भयणीक कोणें तरी येवन ती गजाल सांगली. तिणें बेगबेगीन वचून भावाच्या हांतांतली कुराड काडून घेतली आनी हावाशिवा करून ताजे फाटीवेल्यान हात भोंवडावन ताका घरा घेवन आयली. तिणेंच ही गजाल म्हाका एक फावट सांगली आनी म्हणूंक लागली ''हांव त्या दिसा नाशिल्लीं जाल्यार आदम दोनचार लोकांचे तरी जीव घेतलो आसलो. आमचो आदम बऱ्याक बरो, वायटाक वायट''. दोंगरावेल्या खूबशा किजिलांनी आदमसाब वांटो घेतालो. खुबशें मस्तेपण ताज्या आंगांत अशिल्लेंच. दीसरात झोंपडपट्टेंत झगडीं, धुमशणां चालूच आसतालीं.

एक दीस शांतव्वा नांवाचे एके लमाणी बायलेक ती उदक भरतास्तना कोणें तरी धुकल्ली. लोकांक दुभाव मारतालो तो सबजान ह्या मनशाचो. शांतव्वा

जमनीर पडली आनी बसून रडूंक लागली. आदमसाब तेच लायणींत उदक भरूंक उबो आशिल्लो. ताका सबजानाच्या कर्तुबाचो राग आयलो. ताणें हातींतलो कळसो दवरलो आनी सबजानाच्या मुस्कटाचेर दोन थापटां फुलयलीं. आदमसाबच तो, ताजे हातय वज्रासारके घट. तो सोमतोच जमनीर कोसळ्ळो. खीणभर ताची वाच्या लेगीत ना जाली. प्रकरण मोट्यार पडलें. मौलासाब अशीं प्रकरणां सोदीत आसतालो. तांतूंत सबजान हो मुसलमान. ताणें आनीक चार मुसलमानांक एकठांय करून पुलीस स्टेशनार कागाळ केली. आदमसाब आमच्या वाठारांत शांतताय वगडायता, मारपेट करता. पुलिसेन आदमसाबाक धरून व्हेलो आनी बंदखणींत उडयलो. लोकांक भंय पडलें तें पुलीस आदमसाबाक मारतले हे गजालीचें न्हय तर आदमसाबच पुलिसांक मारता कांय किर्ते? करीमसाब रातच्या बरा वरांचेर म्हज्या घरा आयलो. आनी ही गजाल ताणें म्हाका सांगली. हांवें मागीर पुलीस स्टेशनार वचून आदमसाबाक सोडोवन हाडलो. तेन्ना लोक थंड जाले.

आदमसाब आतां मात्सो थंड जायत चल्ला. मनशाची पिराय वाडटा तशें ताजें रगतय थंड जायत वता. तशें ताजें रगतय थंड जायत वता. बायलभुरगीं हांचेसयत आदमसाब आतां शांततायेन रावता. दोंगरार तो रावता म्हणून गुंड मवाल्यांक भिरांत आसा. गरीब दुबळ्यांक विश्वास आसा. खंय अन्याय घडल्यार धांवन वचपी आदमसाब हो दोंगरावेलो खाशेलो मनीस.



# आप्पाजी

आप्पाजी कदम हो बेळ्ळंकीचो. मिरजेलागीं आशिल्ल्या 'जत' म्हालांतल्या कदमवाडी ह्या वाठारांत रावपी. ताचो एक लागशिल्लो सोयरो कॉलेजिच्या एन.सी.सी. फाट्यांत काम करतालो. ताच्या आलाशिर्‍यान आप्पाजी हांगा पावलो. त्या वेळार सिरवीस मेळप हें व्हडलेशें कठीण काम नाशिल्लें. कोणाकय चट्ट करून सिरवीस मेळटाली. आप्पाजीक लेगीत अशीच एन.सी.सींत सिरवीस मेळ्ळी. आप्पाजी हाडांपेडान घटमूट, विश्वासू. लाखांचे राशीर जरी बसयलो जाल्यार एक पयसो लेगीत उणो जावचो ना. म्हज्या जिवितांत दोनूच मनीस म्हाका मेळ्ळे ते म्हळ्यार आप्पाजी आनी भिमराव.

आप्पाजी आमगेर सदींच येवपी. ताका कसलेंय काम सांगलें तर मनासावन करप हो ताचो सभावगूण. दर वर्सा आंगण करपाचें, पोणसुलां काडपाचें, कसलेंय काम आप्पाजी निश्ठेन करतालो. इतलेंय करून ताका पयशांचो मात लेगीत हावेस नाशिल्लो. काम जातगीच नाच्च जातालो. मागीर फोर्सान तो वचचें पयलींच ताच्या बोल्सांत पयशे दवरचे पडटाले. एक फावट म्हज्या दारामुखार आशिल्लो माटोव वाऱ्यान मोडून पडलो. ताजेर कृष्णकमळीची वेल चडयिल्ली. सकाळ जाली की तिचो परमळ चोंय वाटांनी फांकतालो. माटोव मोडून पडिल्ल्याचें दुःख आमकां निखालूस जालें ना. पूण त्या माटवावेल्या कृष्णकमळीची वेल मातये भरवण जाली. हें पळोवन आमकां चड दुख जाल्लें. उंटगारांचो पावस पडटालो. दुसरे दिकेन वाऱ्यान झाडांपेडां हालतालीं. आतां कितें करचें? हें आमकां समजना जालें. कृष्णकमळीची वेल दोळे काडून आमचेकडेन पळेता अशें म्हाका दिसलें. पावस मात्सो उणो जालो. आनी हांवें आप्पाजीक आपोवन हाडलो. आप्पाजीक म्हळें हों कृष्णकमळीची वेल कितेंय करून परथून उबी करून दी. आनी तोखणायेची गजाल म्हळ्यार आप्पाजीन दीसभर वावरून ती वेल आसातशी माटवार चडोवन दिली. म्हजे घरकान्नीक ताजें खूब कौतूक. एक म्हळ्यार तो मिरजेलागींच्या वाठारांतलो. कुळाराच्या मनशाचें बायलांक चड कौतूक आसता. ती ताका भावच मानता. तोवूय तिका ताई म्हण्टा. दिवाळेक ओवाळणी घालता. म्हाकाय ह्या सगल्या गजालिंची खूबच व्हडवीक. बारीक बारीक लोकांमदीं रिगून तांचेकडेन एकचार सादप, जातीपातीचीं बंदनां सोडून, समानतायेचो दुवो सादप म्हजे नदरेन ही मुळावी गरज.

आमच्या घरांत आप्पाजी येना जाल्यार कसलेंच काम जायना. खिणाखिणाक आप्पाजी जाय जाता. आमगेल्या मकरंदाच्या बारशाक आमी

मिरजेक वचपाचें थारायलें. आमच्या वांगडा आप्पाजीय आयलो. रातीची गाडी धा, साडेधांक मिरजेक पावली. आनी सादारण इकरा वरांचेर आमी म्हज्या मावांगेर पावले. भायर काळोख जाल्लो. आमी संवकळीन पावले. रातीं जेवणखाण जातगीच आमी न्हिदले. सकाळीं पांच वरांचेर आप्पाजी उठलो. तोंड धुवन ताणें आपणालो भेस बदल्लो. पॅन्ट बुशर्ट काडून त्या जाग्यार पुडवें, खोमीस आनी तकलेक शेमलो बांदून भायर सरलो. हांव बेगबेगीन उठलों आनी आप्पाजीक पळोवन म्हाका हांसो फुटलो. आप्पाजी आतां तागेल्या गांवाकडेन वचूंक भायर सरिल्लो. देस तसो भेस.

आप्पाजीच्या गांवांत पॅन्टबुशर्ट घालपाची चाल आजूनय येवंक ना. गोंयांत तसो भेस केल्यार लोक घांटीमाम घांटीमाम म्हणून ताका चाळयतले, तशेच तांगेल्या गांवांत पॅन्ट शर्ट घालून वावुरल्यार लोक ताका हांसतले. आप्पाजी भायर सरलो तेन्ना हांवें ताका म्हळें फाल्यां बारसो आसा तूं दनपार मेरेन पाव. हां म्हणून आप्पाजी गेलो आनी दुसऱ्या दिसा दनपारांमेरेन आप्पाजी आयलोच ना. जेवणाचो वेळ जालो पूण आप्पाजी ना. दोन, तीन, चार वरां जालीं आप्पाजीचो पत्तोच ना. आप्पाजी अशें करपी मनीस न्हय. तो येता म्हळ्यार खऱ्यानीच येता. ना तर बेश्टोच येता अशें केन्नाच सांगचो ना. ताच्या उलोवण्यांत एके तरेची शिस्त आसा. चार वरां जावन गेलीं आनी अकस्मात आप्पाजी घरांत भितर सरलो. तोंड सुकून गेल्लें. मुखामळ निर्शेल्लें. आप्पाजीक उदक-पाणी दिवन आमीं विचारलें आप्पाजी खंय तूं, सकाळसावन आमी तुजी वाट पळेतात. आप्पाजी सांगूंक लागलो, ''काय करणार? सकाळच्या पारीच इकडे निघून आलो पण घरच सापडेना. परवा आलो त्यावेळीबी रात्रच होती आनी सक्काळी बी काळोख होता. घर कुठल्या भागात आहे हे माझ्या ध्यानात बी राहीलं नाही. फिरून फिरून दमून गेलो बघा. शेवटी वायचं मारूतीच्या पारावर बसलो, तिथून एक पोस्टमॅन चालला होता, त्यास्नी विचारलं. इथे गोव्याची पत्र कुणापाशी येतात, त्यानी मग तुमचं घर दाखवलं'' आप्पाजिलें हे उलोवप आयकून आमकां हांसचें काय रडचें हेंच समजना जालें. सकाळसावन आप्पाजी त्या पाळणीतल्या वाठारांतल्यान भोंवडी काडीत आसा, निमाणें आमच्या मांवाचे वळखिचो पोस्टमॅन मेळ्ळिल्यान तो बारशाक पावलो.

आप्पाजी फाटलीं पंचवीस वर्सां तरी गोंयांत आसा. पूण ताची गांवटी भास बदलूंक ना. तो पॅन्ट - बुशर्ट घालता पूण ताचें मन बदलूंक ना. ताजी भास आयकतना ताज्या गांवचे मातयेचो तिका वास येता. रग्गड, बक्कळ, मायंदाळ, अक्करमाशी, उटगीच्या अशीं उतरां, अर्थ सांगपाखातीर अक्षरवेधान दिवंक हरकत ना. तीं खासा गांवरान मराठी उतरां. अजूनय आप्पाजीच्या तोंडांत गांवटी घट बसून आसात.

आप्पाजीच्या गुणांक लागून तो सगल्यांकच जाय जायसो दिसता. कोणाच्याय घरा गेलो जाल्यार खंय कितें पडलां, कितें रकलां, खंय कोयर पडला ताजी उस्तवारी तो करीत आसता. ताका कामाची एक बारीकसाण आसा. निटाय आसा. ताका लागून आप्पाजी कोणाकच नाकासो जायना. आप्पाजीक कितें जाय कितें नाका, तो बरो ना जाल्यार ताका हॉस्पिटलांत दवर अशो जायत्यो गजाली लोक आप्पाजीखातीर करूंक तयार आसतात. एके वटेन आप्पाजी हो खूब भाग्यवंत पूण ताजें हें भाग्य देवाच्यान पळोवंक न्हज जालें.

आप्पाजीक एन्.सी.सी.ची सिरवीस करतां करतां हवालदारांच्या सांगतान पियेवपाची सवंय जाली. थरावीक वेळ सोडलो जाल्यार एन्.सी.सीं.त तशें व्हडलेशें काम आसना. खंय पोलीस स्टेशनार वचून बंदुको, आर्मीं निवळ कर. खंय कॅंप आसा जाल्यार थंय वचून साफसाफायी कर, परेड आसल्यार भुरग्यांक कपड्यांचीं किटां दी, असलोच वावर तो करतालो. खरें म्हळ्यार आप्पाजीक हो वावर कांयच न्हय. ताका दीसरात काम करपी राकेसाचो वावर दिवंक जाय. शेतांत कश्ट काम करपी आप्पाजी गोंयांत येवन कश्ट काम विसरूंक लागलो. एन्.सी.सी.चें काम सोडलें जाल्यार ताका आनी कांयच लागनाशिल्लें. वता थंय आप्पाजी, आप्पाजी करून लोक ताची तोखणाय करताले. ताका कपडे दिताले, जेवण दिताले. मनशाक चड मेकळो वेळ आसूंक जायना. आप्पाजी सदांच मेकळो. हवालदारांक सांबाळप ही ताची सिरवीस. एक हवालदार असो आयलो की तो सामकोच बेबदड. ताका बाटली हाडून दिवप हेंच आप्पाजीचें व्हडलें काम. हवालदार पियेवंक लागलो की आप्पाजीकय पियेवंक दितालो. सगलेच जाण पियेवपाच्या नेटार एक सारके जातात अशी एक म्हण आसा. हवालदारचें आनी आप्पाजीचें पियेवपाचें मेज एकच जालें. मागीर कांय दीस आप्पाजी बाटली हाडूंक लागलो आनी दोगूय जाण एक मेकाक हात दिवन पियेवंक लागले.

हवालदाराचें हे पिवप खिणयाळें आसत. गोंयांत येतगीच कांय लोकांक पियेवपाचें कोल्ल मारता. फुडें तो हवालदार बदलून गेलो पूण आप्पाजीक पियेवपाची दिक्षा मेळ्ळी ती सासणाची. आप्पाजीक काळवेळ कांयच लागना जालो. आप्पाजी सकाळीं उठून कोपानच तोंड धुवंक लागलो. सकाळीं दनपारां, सांजे असो सदासर्वकाळ सोरो पियेवन आप्पाजी बसूंक लागलो. आप्पाजीचें खंयच लक्ष ना. आप्पाजी आतां कोणागेरच वचना. तागेल्या ऑफिसांत हजिरी लायली की आप्पाजी गुल्ल. आप्पाजिलें जिवीत इबाडलें. आप्पाजी मेळत तेन्ना खळ्यांनी पडूंक लागलो. पयर एक दीस पिटराल्या घराकडेनच तो खळयेंत

पडलो आनी ताची तकली फुटली. क्रिस्तालीनान आनी हांवें ताका उबारून बसयलो पूण ताची मान धरनाशिल्ली. क्रिस्तालीन म्हणूंक लागलें, ''सर, पळय ताची कितें अवस्था जाली ती'. फाटीं आप्पाजी खूब बरो ना जालो. ताका मेडिकल हॉस्पिटलांत दवरून उपचार करचो पडलो. ताची घरकान्न आसा. तिका सगळेजाण बेसूरमामी म्हूण वळखतात. तिची परिस्थिती वायट जाली. आप्पाजिलो सगळो पगार सोऱ्याक काबार. आप्पाजिल्ल्या त्रासांक बेजारून भुरग्यांनी वेगळी रांदन मांडल्या आनी अशे परिस्थितींत आप्पाजी बरो ना. आप्पाजीचे पुण्यायेन ताका चार लोकांनी मदत केली पूण संवसार कसो चलोवपाचो हाची विवंचना बेसूरमामीक लागली. ती तशी काळजान घट. पयलीं चार लोकांकडेन ती कामांय करतली पूण हालींचाराक भुरगींबाळांच्या झंझाळाक लागून ती घर सोडून भायर सरना जाली. पयर दोंगरार वतना वाटेर ती बारीक बारीक फातर एकठांय करतना दिश्टी पडली. ''बेसूरमामी कितें करता?'' अशें विचारतगीच ''सडो पुंजायता'' तिणे जाप दिली. दोंगराच्या मुळसांत आशिल्ले शेंकरे एकठांय करून ती आतां पेजेपाण्याचें पळयता. फातरार मारल्यार लेगीत फातर फुटत पूण आप्पाजीक कांयच जावचेंना अशी पंचवीस वर्सां पयलीं आप्पाजीची अवस्था आशिल्ली. पूण आतां आप्पाजी सामको जाम जाला. आप्पाजीच्यान रस्त्यान चलूंक जायना. कसलोच वावर जायना. दोतोरान ताका सोरो सोडूंक सांगलां पूण ताजो सोरो सुटना. वेसनां म्हण्टात तीं अशींच तीं मनशाक बांदून दवरतात. सोऱ्यान कोणाची कशी वाट लागता. हें दाखोवचें जाल्यार आप्पाजीक दाखोवचो.



# गंगव्वा

गंगव्वा ही एक तशी खानदानीच बायल मनीस, पूण ती झोंपडपट्टेंत कशी पावली कोणाक खबर. ''अन्नासाठी दाहीदिशा, आम्हा फिरवीशी परमेशा''. अशी एक स्तोत्रांतली वळ आसा. पोटाखातीर मनीस खंय पावत हाजो नेम ना. गंगव्वाक कांयजाण फकणानी गंगुबुवा अशेंय म्हण्टाले. कारण आडव्या आगांची, लांब रूंद अशी गंगव्वा. तिचे तकलेर लायिल्लो वाटकुळो कुकूम तिच्या घसघशीतपणाक सोबून दिसतालो. सदांच ती तकलेवेल्यान पदर घेवन भोंवताली. हें तिच्या एकवेळ खानदानीपणाचें लक्षण आसुंये. गंगव्वालो घोव 'सोमलिंग'. ताका लोक न्हावी म्हण्टाले. अठरा पंगड लोकांची ती झोंपडपट्टी. तांतूंत तांच्यो जातीपाती खंयच्यो हें सांगप कुस्तार. कर्माप्रमाण जात सोदूंक गेल्यार तांच्यो मुळाव्यो जाती आनी आतां कामांवेल्यान जाल्ल्यो जाती हांतूंत कांयच सबंद ना.

सोमलिंग हो मात्सो भावार्थी कसो. दादलो आसुनय थंड. उदक हालताले पूण तो हालनाशिल्लो. तो सकाळीं उठून भूती घेवन वावराक गेलो की मागीर दीसभर गंगव्वाचेंच राज्य. गंगव्वा सगलें घर सांबाळटाच. तिच्या घरांत भितर सरत जाल्यार ती झोंपडपट्टेंत रावता अशें दिसना. लादी मातयेच्योच पूण शेणान सारोवन लकलकीत केल्ल्यो. ती लादी करतना कात्यान घांसघांसून गुळगुळीत करताली. आनी मागीर शेण हाडून तांतूत बॅटऱ्यांचें जांव चिमणेचें काळें भरसून ती जमनीक लायताली. काळ्यो कूळकुळीत लादी. तांचेर शेंद्री घालून ती बसपाक तयार करून दवरताली.

मुक्ता ही तिगेली एकलीच धूव. ती कांय दीस शाळेंत येताली. फुडें कायं दीस शिवणीच्या वर्गाकय ती येताली. पूण मुक्ताक ती खंयच भायर धाडनाशिल्ली. खंय वचपाचें जाल्यार मुक्ताक वांगडा घेवन ती वताली. बाजार करप, गिरणीर वचप, रेशन हाडप अशे तरेचीं सगलीं कामां गंगव्वा करताली. तिची रान्नीकूड लेगीत पळोवपासारकी. आयदनां, ताटां सगलीं घांसून, पुसून चकचकीत करून दवरताली. मुक्ताक पंदरा वर्सां जालीं आनी गंगव्वान मुक्ताच्या लग्नाची तयारी केली. एक दीस तिगेल्या घराकडेन गेल्लेकडेन तिणें म्हाका ही खबर सांगली. ल्हवू आवाजांत तिणें म्हाका सांगलें आनी म्हणूंक लागली, 'गुरूजी, कोणाक, सांगूं नाका. दोंगरावेल्या लोकांक लग्नां मोडपाची पाडी सवंय?' हांवें तिका म्हळें 'गंगव्वा, इतले बेगीन तूं मुक्तेचे लग्न कित्याक करून दिता?, ती म्हणूंक लागली, 'चली भुरगें जाण्टें जालें की ताका लग्न करून दिवप हेंच योग्य. चड दीस चली भुरग्यांक घरा दवल्लीं म्हणटगीच तांकां

पाखां फुट्टात'. गंगव्वाचे उलोवप म्हाकाय केन्नाकेन्नाय पट्टालें पूण आतां ल्हान वयांत लग्न करपाक कायद्यानच बंदी घाल्या. तिका ही कायद्याची खबर सांगतगीच ती म्हण्टाली 'सरकाराक कितें कळटा? चली भुरग्याक पंदरा-सोळा वर्सांचेर लग्न करप हो सैमीक न्याय. कायदे कितलेय केले तरी जावपाचें तेंच जाता.' झोंपडपट्टेंत रावपी गंगव्वाचें हें तर्कशास्त्र. घडये तें अणभवांचेर आसत. म्हजें उलोवप कांयच कानामनार घेयनासतना गंगव्वान चलयेचें लग्न करून दिलें आनी ती हुसक्यामेकळी जाली.

गंगव्वाले दोनूय पूत कामाक वताले. घोवूय कामाक वतालो आनी गंगव्वा सकाळीं उठून सगळीं कामां करून दनपारां मेकळी आसताली. तिचो एक नातू आसा तिणें ताका इंग्लिश शाळेंत घातिल्लो. तोवूय दनपारां घरांत नासतालो मागीर दनपारभर गंगव्वाचेच राज्य. गंगव्वाच्या सालांत झेंपडपट्टेतलें 'महिला मंडळ' एकठांय जातालें. मागीर दोंगरावेल्यो अक्का, अव्वा आपापल्यो गजाली थंय उलयताल्या. शाळेंत खंयचो शिक्षक भुरग्यांक मारता, जांव शाळेंत कोण आयलो, कोण गेलो ह्यो सगल्यो गजाली तिका लागतात. महिला मंडळाचो अध्यक्ष गंगव्वा. ती मागीर सगल्यांक प्रस्न विचारून म्हायती एकठांय करताली. पिकलव्वा म्हणटाली कमलव्वालीं भुरगीं लेगीत सोरो पियेतात. ताजेर गंगव्वाची म्हणी अशी, आवय बापूयच जर घरा हाडून सोरो पियेतात जाल्यार भुरगीं कित्याक पियेवचीं नात? भुरग्यांक बरी देख मेळूंक जाय जाल्यार आवय-बापायनच सारकें रावंक जाय. आवय-बापायन ताळतंत्र सोडल्यार भुरग्यांक तरी दोश कसो दिवचो?

गंगव्वालें उलोवप बायलो जाप काडिनास्तना आयकून घेताल्यो कित्याक तर गंगव्वाचो एक सभाव आशिल्लो तो म्हळ्यार कोणाकय नडल्यार पिडल्यार गंगव्वाच सगळ्यांत पयलीं थंय पावताली. वाड्यावेल्या गोविंदाक आकांताचें दुयेंस जालें जाल्यार गंगव्वाच ताका घेवन बसली. वखद बी करून वेळार चार पयशेय खर्च केले. चली भुरग्यांक देख दिवप, तांकां फांतयो घालूंक शिकोवप, फुलां एकठांय करूंक लावप, हातीन कपडे शिवूंक शिकोवप अशे जायते वावर गंगव्वा करताली.

एकफावट जे.पी. सिंग नांवाचो कलेक्टर दोंगरावेली शाळा पळोवंक आयलो. आतांमेरेन केल्ल्या वावरान दोंगरावेले दादले फांकिवंत उलोवपी जाल्ले पूण एकीय बायल उलोवंक फुडें येनाशिल्ली. जे.पी. सिंग म्हाका म्हणूंक लागलो की तुमचे हे शाळेच्या वाठारांत बायलांचे प्रस्न मांडपी कांय बायलो नात? जे.पी. सिंगाच्या ह्या प्रस्नान म्हाका जागो केलो. हे नदरेन हांवें केन्नाच विचार करूंक नाशिल्लो. म्हज्या दोळ्यांमुखार दोन नांवां आयलीं तीं म्हळ्यार पिकलव्वा आनी

गंगव्वा. पिकलव्वा तशी हुशार पूण सभेंत भाशण करता काय ना हाची म्हाका कल्पना ना. गंगव्वा ही महिला मंडळ चलयता, भाशणां करता हें म्हाका खबर आशिल्लें. हांवें गंगव्वाक उलोवंक सांगलें. गंगव्वा तकलेवेलो पदर सारखो करीत फुडें आयली. तिचें व्यक्तिम्हत्वच तशें घसघशीत. तिणें अक्कारे, अण्णारे अशी सुरवात करून दोंगरावेल्या बायलांचे प्रस्न सगळ्यांच्या मुखार मांडले. ती म्हणूंक लागली, ''आमच्या समाजांत बायलांक जाय तशी सुरक्षितताय मेळना, तांकां कामाक येतना वतना लोक त्रास दितात. आंकवार चली भुरग्यांक तरणाटे सतायतात. दादल्यांक पगार मेळटा ते परस बायलांक उणो पगार मेळटा. अशो तरेच्यो जायत्यो कागाळी तिणें लोकांमुखार दवरल्यो. तिगेलें भाशण आयकून जी.पी. सिंग ताळ्यो वाजोवंक लागलो. तो म्हणूंक लागलो, 'ज्या जाग्यार आपूण वतां त्या जाग्यार बायलो समाजकार्यांत जांव सभेंत कितलो वांटो घेतात हें आपूण सदांच पळयतां. बायलो ज्या जाग्यार सादूर आसात त्या जाग्यार समाजकार्य बरें चलता असो आपणलो अणभव आसा. हांगाच्या कामांत बायलांचो वांटो आसा हें पळोवन आपणाक खोशी जाता.'

शाळेंत चवथीचो उत्सव मनवपाचो जालो तेन्ना गणपतीचीं सगलींच कामां गांवच्याच लोकांकडेन ताणें वांटून दिलीं. भुरग्यांक अथर्वशीर्श शिकयलें. ताणींच पूजा करपाची. पिकलव्वा दीसभर कामाक वताली. ती सांजवेळा आयले बराबर गणपतीमुखार झाडून धुवन प्रसादाची वेवस्था करताली. आतां उरिल्लें काम म्हळ्यार दनपारचो नैवेद्य. तें काम हांवें गंगव्वाचेर सोंपयलें आनी लक्तुबायेची गजाल म्हळ्यार गंगव्वान सातय दीस सात तरेचीं गोडशीं करून देवाक दाखयलीं. गंगव्वाचे हे कुशलतायेन म्हाका अजाप दिसलेंच पूण कौतुकय दिसलें. हांवें तिका म्हळें, ''गंगव्वा, तूं बऱ्या बऱ्या घरांनी जो देवाक निवेद्य मेळना, त्यातूनय बरो निवेद्य देवाक दाखयलो'' ती म्हणूंक लागली, ''नशिबवान आमीं. झोंपडपट्टेंत रावलीं तरी आमची दानत गरीब न्हय.''

गंगव्वा जरी झोंपडेंत रावली तरीय लेगीत तिका एक शिस्त आनी चारित्र्याचें खळें तिजे भोवतणीं आशिल्लें. घरांत भुरग्यांनी, जाण्ट्यांनी वेळार कामां करूंक जाय हे विशीं तिजी थिराय. ती म्हणटाली मनशान जेवच्यावेळार जेवंक जाय, खावंच्या वेळार खावंक जाय आनी कामाच्या वेळार काम करूंक जाय. झोंपडपट्टेंत रावपी गंगव्वाचीं तरां म्हाका सदींच याद जातात. दूसरी गजाल म्हळ्यार चारित्र्याची. महाभारतांत एका राजाची काणी आसा. तो राजा व्हड पराक्रमी. इंद्रपद मेळोवपासारको ताचो पराक्रम. इंद्राक ताज्या ह्या मोटेपणाचें भंय दिसलें. तो देवाकडेन वचून देवाक सांगूंक लागलो, 'देवा म्हाका तुमच्या राज्याचें भय दिसता. तो आपणालें एक दीस इंद्रपद लेगीत व्हरत तेखातीर

ताका फाटीं उडोवंक कांय उपाय सांग.' देव म्हणूंक लागलो, 'तूं कायंच भियेवं नाका. एकीच गजाल कर की ताचेकडेन वचून तागेलें चारित्र्य मागून घे.' इंद्र ब्राह्मणाचे रूप घेवन ताच्या दरबारांत गेला. ब्राह्मण दारांत आयला हें पळोवन राजान ताका येवकार दिलो, बसूकं आसन दिलें आनी ताचो बरो परामर्श केलो. ताका येवपाचें कारण विचारलें. ब्राह्मण सांगूंक लागलो, 'राजा म्हाका तुगेलें चारित्र्य जाय'. 'व्हर तर,' अशें म्हणून राजान आपणाले कुडिचेर हात भोंवडावन एक पान ब्राह्मणाच्या हातार दवरलें. ताजे फाटोफाट ताजी बुद्ध, शक्त, लक्ष्मी हीं सगळींच तत्वां ताचे कुडीतलीं भायर सरलीं. तांका राजान विचारलें, 'तुमी कित्याक वतात?' ताणीं जाप दिली, 'ज्या जाग्यार चारित्र्य ना त्या जाग्यार आमी रावनात!'

हे काणयेंतलो काल्पनीक आनी अतितायेचो वांटो सोडलो जाल्यार एक गजाल सोडपासारकी ना, ती म्हळ्यार चारित्र्याची. गंगव्वाच्या उलोवण्यांत एक चारित्र्याची बसका आशिल्ली. गंगव्वा घरांत आसा अशें म्हळ्यार वाड्यार बेबदे उणो बोवाळ करताले. शांतताय नंदताली. मनीस खंयच्याय कुळांत जल्माक आयलो तरीय ताका व्हडपण मेळटा तें ताज्या कर्तूबान. गंगव्वालेगीत अशीच एक कर्तुत्ववान बायलमनीस. तेखातीर तिची याद सदींच जाता.



# निलाप्पा

सदांभशेन हांव दोंगरार वचूंक भायर सरलो. सदांच्यो खांचीखळयो चुकयत एकदांचो दोंगरामाथ्यार पावलों. दोंगरावेल्यान वारें खायत भोंवतनां शाराचो बरोचसो भाग दिसता. उंच उंच बंगले दोंगरा वांगडा सर्त करतात काय किर्ते अशें पळ्यतल्याक दिसता. हालींच ह्या दोंगरार 'झोंपडपट्टी' तयार जाल्ली. शारांतल्या विंगड-विंगड बांदकामांनी वावुरपी कामगार सदांच खंयच्यान तरी येवन झोंपड्यो बांदताले. आयज एक नवी झोंपडी दिसली म्हूण सहज तिचेवसल्यान पळयत हांव फुडें वचूंक लागलों.

फुडल्यान एक म्हातारो खोंकीत खोंकीत सामकार आयलो. तकलेक पिंजको फेटो गुटलायल्लो. पायांक पठाणी जोतें, आंगाक म्हेळें खोमीस असो भेस. ताका चलतनां पळोवन म्हाका उगडास जालो तो ल्हानपणांत पुस्तकांत ''आजोबा खोकू-खोकू खोकतात'' ह्या धड्यांत पळयल्या म्हाताऱ्याचो, लागसार येतकीर हांवें ताका हटकीलो.

''नीन्नु हसरेयणु'' (म्हाकां इतलेंच कानडी येता) एक विडयेचो झुरको मारून थांबलो आनी ताणें जाप दिली, ''निलाप्पा''.

''निलाप्पा, तूं खंयच्या गांवचो रे ?''

''कोंकणी आता नहीं, साब'' - ताणें जाप दिली.

''आरे, पूण तुका समजता काय नां ?''

''समजता, अच्छा बोलनेकू आता नहीं !''

मागीर सदांच दोंगरार निलाप्पाची गांठ पडूंक लागली. देखून इश्टागत वाडूंक लागली. वळख वाडली. सवकासायेन बाकीच्या घरगुती विशयांचेर आमच्यो खबरो रंगूंक लागल्यो. एकदां हांवें ताका सुर्वेचो प्रस्न परत विचारलो.

''निलाप्पा, तुजो गांव खंयचो रे ?''

''बसनबगेवाडी, बिजापूर, साहेब'' - निलाप्पान जाप दिली.

''मागीर तूं इतलो पयस कसो आयलो ?''

''गांवांत पोट भरना सायब, दोन-दोन तीन-तीन वर्सां पावसूच पडना. पावस पडलो जाल्यार गांव उबो रावता ना जाल्यार गांवांचे गांव वसाड पडटात. पोटाखातीर किर्तेंय तरी खटपट करची पड्टा. देखून आमच्यो अशो उठाबश्यो सुरू जातात. कामाखातीर बिऱ्हाड फाटीर घेवन गांवांन गांव भोंवचें पडटा. मागीर 'भटकी जमात' म्हूण लोकांकडल्यान हिणसून घेवचें पडटा सायब'' निलाप्पा पोटतीडकीन उलयतालो. हांव आयकतालों.

ह्या 'उपेक्षीतांचे अंतरंग' आलटून-पालटून पळयतना म्हजेय भीतर

कितेंतरी खेल अशें जाणवतालें.

निलाप्पा सदांच सकाळीं उठून कामाक वतालो. सांजवेळचो सोऱ्यान तर्रर जावन खोंपींत येतालो. पूण सोऱ्यानादान तो केन्नाच बदल्लो ना. तो केन्नाच गाळी मारी नासलो. कामार सावन येतकीच मोन्यांनी जेवन तो न्हिदतालो.

एक दीस सकाळींच दोंगरार निलाप्पा मेळ्ळो. म्हाका पळेतनाच खोशयेन सांगूंक लागलो, ''मास्तर, फाल्यां आमचेकडेन आबा पणशीकार येवपाचे आसात. आमगेरूच ते रावतले.

''आरे, पूण ते कित्याक येतले?'' मदींच हांवें प्रश्न केलो.

''फाल्यां आमचे थंय यल्लमाची पुजा आसा, सायब. त्या निमतान ते येतले''. निलाप्पाच्या सावळ्या मुखामळार खुशालकाय भरून ओत्ताली. मागीर दुसऱ्या दिसा निलाप्पाचे वस्तीर आबाजी पणशीकार आयले. निलाप्पागेर सगळे लोक जमले. निलाप्पाच्या आपोवण्याक लागून हांव लेगीत गेलों. आयज सगळींच झोंपडपट्टेंत खोशी आशिल्लीं. 'साधुसंत येती घरा तोची दिवाळी दसरा'. खरेंच आयज झोंपडपट्टेंन जशी कितें दिवाळीच आशिल्ली. कोणूच सोऱ्याक आफडूंक नाशिल्लो. सदचीं झगडीं, गाळी आयकूंक येनाशिल्ल्यो रडप, बोवाळ नाशिल्लो; बायलो यल्लमाचीं गितां गायताल्यो. कार्यावळीक उपाट गर्दी जाल्ली.

म्हज्या मनांन घर करून आशिल्लो विचार परत उसळ्यो मारूंक लागलो. ह्या लोकांनी सोरो सोडलो जाल्यार हेंच चित्र सदांच दिसूंक शकतलें. आबाजीचेर हांची श्रद्धा आसा. आबाजीन सांगल्यार हे लोक तशे वागतले. सोरो पिवप सोडटले. मोटे आशेन हांवें ल्हवूच आबाजीक सांगलें, ''आबाजी, आयचे हे कार्यावळींत लोकांक सोरो सोडूंक लायात. तो पळय लोकाप्पा, हो सदांच सोऱ्याक वीस रूपया खर्च करता. ताची बायल लेगीत सोरो पियेता. त्या मानान निलाप्पा उणो पियेता. पूण ताकाय सदांच पांच-सात रूपया लागतात. सोऱ्याक लागून तकलीच वयर काडूंक शकनात हे लोक''.

आबाजीक म्हजी सूचोवणी मानवली. पुजा सोंपतकीच ताणें आपल्या प्रवचनांत भक्तांमुखार दारूबंदीचें म्हत्व फोडणीशी करून सांगलें. सोऱ्याच्या नादान सुखी संवसार मातयेभरवण कसो जाता हें ताणें सुरकुबुशीत करून सांगून निमाणेकडेन ताणें म्हळें:

''म्हज्या मोगाळ भक्तांनो, आयज तुमीं सगळ्यांनी मेळून पुजा केली. देखून देवाचे कृपेक तुमीं पात्र जाले. आमचे संस्कृतायेंन त्यागाचें म्हत्व सांगलां. आयज तुमी एक त्याग करूंक जाय. म्हाका तुमकां आयज अशें सांगपाचें आसा

की, तुमी आतां सोऱ्याचो त्याग करात. तसो सोपूत घेयात.''

आबाजीची आज्ञा आयकून एकेक भक्त फुडें येवंक लागलो. सोरो सोडपाचो सोपूत घेवंक लागलो. इतल्यान निलाप्पाचेर पाळी आयली. निलाप्पा कितें करता हाचेर सगळ्यांची नदर आशिल्ली. निलाप्पा फुडें आयलो. धोंपरांक नेट दिवन तो उबो रावलो आनी गंभीरतायेन सांगूंक लागलो, ''आबाजी, हांव फट कित्याक उलोंव? काम करून येतकीच ह्या थकिल्ल्या जिवाक मात्सो सोरो लागताच. पूण म्हज्या सोऱ्या पिवपान म्हज्या संवसारार कांयच वायट परिणाम अद्याप जालोना. म्हजीं पोरांय जोडटांत. तेन्ना अशे तरेन पराथप म्हाका योग्यतायेचें दिसना''. निलाप्पाचीं दांडगेपणां पळोवन आबाजी निर्शेले. पूण निलाप्पान हार खालीना. निलाप्पाच्या ह्या प्रामाणिकपणान हांवय खीणभर निर्शेलों'. आनी सोबा नाका म्हूण आबाजीन कार्यावळ सोंपयली.

फुडें कांय दीस गेले. काळीं कुपां मळबांत जमूंक लागलीं. पावसाळो लागसार पावलो. एक दीस सकाळीं फुडेंच पागोटी बांदून, करकर व्हाणांचो आवाज करीत निलाप्पा म्हज्या सामकार आयलो. बारीक सारीक गजाली जातकीत निलाप्पान सांगलें.

''मास्तर, हांव मात्सो गांवांत वचून येतां. बसनवाडीक थोडीशी जमीन आसा. वरूण राजाचे उपकार जाल्यार पेरून येतां. तोमेरेन आमच्या घराकडेन मात्शें लक्ष दवरात'' म्हजो निरोप घेवन निलाप्पा गांवांत गेलो.

म्हजी सदींची कार्यावळ थारायल्लीच आशिल्ली. सदांच दोंगरार वचप, पावसाळयांत अस्तमेवसल्यान दर्याचीं उठपी ल्हारां पळोवप, भुरग्यांवांगडा गजाली करप. थंयसूनच शाराची उंचाय आनी झोंपडपट्टेचो विस्तार नियाळून परत येवप. अशे बरेच दीस गेले. म्हाका सदांच निलाप्पाचो उगडास जातालो, आनी मागीर चुकिल्या-चुकिल्यापरी जातालें. निलाप्पाच्या घराय हांव मदीं मदीं चौकशी करतालों. पूण कांयच पत्तो लागलोना. निलाप्पाक बरोंवक - वाचूंक ये नाशिल्लें. तरीय ताचें एकाद्रें पत्र-बित्र येवपाचीय शक्यताय नाशिल्ली. हांव मात निलाप्पाची वाट पळयतालों.

आनी मागीर एक दीस निलाप्पा गांवांतल्यान आयलो. येतना वाटेरच तो उपाट सोरो पियेल्लो. झेडपत - झेडपत तो घरा आयलो आनी जेवन न्हिदलो. सांजेचो हांव दोंगरार गेलों. पळय जाल्यार निलाप्पा खोंकीत - खोंकीत सामकार आयलो.

''कितें निलाप्पा, केन्ना आयलो?'' - हांवें प्रस्न केलो.

''आयज सकाळींच, मास्तर'', तार्णे जाप दिली.

''खूप दिसांनी आयलो, आमकां किर्ते हाडलां रे गांवातसावन?'' - हांवें फकाणांनी म्हळें.

''आपल्या पुडव्याचे व्हर्व्येतल्यान शांगो आनी तवशीं भायर काडून म्हज्या मुखार दवरीत तार्णे म्हळें, ''हें पळय सायब, तुमचेचखातीर हाडल्यांत. म्हज्या शेतांतलीं''.

म्हाका निलाप्पाची अपुर्बाय दिसली. ताचो चेरो वायटकारासारखो दिसलो म्हूण विचारलें:

''निलाप्पा, तूं दूयेंत बि आशिल्लो काय किर्ते? खुपूच सुकिल्लोसो दिसता.''

''म्हजो प्रस्न आयकून निलाप्पा खो - खो हासूंक लागलो. मुळचोच काळसट निलाप्पा आपले धवेफुल्ल दांत भायर काडून हांसतना मजेशीर दिसतालो! तार्णे हांसतच म्हळें:

''किर्ते सांगूं सायब, आतां हांगची सवंय जाल्या. गांवांत हांगच्यासारको बरो सोरो मेळना. खंयचेतरी हातभट्टेवेलो सोरो पियेवन जीव सामको विटलो. ताचो भलायकेचेर जायतो परिणाम जालो. आतां ह्या सोऱ्याच्या नादान निजाचेंच हांगा रावचें पडटलेशें दिसता.''

निलाप्पाचो तो निश्चेव हांव आयकतच उरलो. निलाप्पा मात पोटभर हांसतालो. ''आनी किर्ते - किर्ते केलें गावांत वचून?'' आतां मात निलाप्पाची गाडी नेटान सुरू जाली.

''चौगां भुरग्यांचीं लग्नां थारावन आयलों, सायब''

''किर्ते म्हण्टा तूं निलाप्पा? आनी लग्नां तरी कोणाचीं थारायलीं?'' अजापून हांवें किळांचूच मारली. रंगार येवन निलाप्पा सांगूंक लागलो.

''हें पळय सायब, म्हजीं स पोरां. तांतल्या रम्याचें लग्न जालां. आतां लक्ष्या, शिवा, गोऱ्या आनी सुशा हांचीं लग्नां थारावन आयलों. लक्ष्या आतां मोटो जाला. मेस्त्री आसा. ताका एक चेडूं पळयलां. चार एकर जमीन, घड्याळ, सायकल आनी लग्नाचे कपडे इतलें दिवपाचें थरलां. शिवाक चड येणावळ ना. तरीय ताच्या लग्नाचो खर्च आनी एक तोळो भांगर दिवपाचें केलां. सुशीक फक्कत चार हजार रूपया दितलों आनी गौरीकूय तिलेच''.

हें सगळें आयकतनां म्हज्यांतलो 'सुधारक' सवकासायेन जागो जातालो. निलाप्पाक गाडयेचे 'स्पीड ब्रेक' करून हांवें म्हळें:

''आरे, पूण तुजीं शिवा आनी गौरी ल्हान आसात. तांका येन्नाच

कित्याक लग्नाचे बेडयेंन बांदता? शिकूंदी तांकां, हुशार जांवदी...'' म्हाका मदींच आडावन ताणें म्हळें:

''तुमचें सगळें खरें सायब, पूण आमच्या भुरग्यांचे बाबतींत तशें जायना. आतां अशें पळयात, म्हजीं पोरां कामाक वतात. शिमिटाचीं पोतीं उखलतात. उदक मारतात. पोटापुरतें जोडतात. अशावेळार लग्नां केलीं जाल्यार आपआपलो संवसार करूंक शिकतलीं. म्हजी आतां पिराय जाली. चड दिसांची 'गॅरेंटी' ना. म्हजे दोळे उक्ते आसतना पोरांक संवसाराक लायलीं म्हण्टकीर हांव मेकळो... म्हज्या फाटल्यान म्हज्या पोरांचीं लग्नां कोण करतलो? आनी फाल्यां सकाळीं पोर कोणाचोय हात धरून पळून गेलें जाल्यार तें बरें? मागीर तेपरस हेंच बरें न्हंय?''

विडयेच्या झुरक्यावांगडा पयसुल्यान पसवत येवपी काळखाचो वेध घेवपी निलाप्पाचे ते दोन दोळे पळयतां - पळयतां हांव थंड जालों. निलाप्पाच्या युक्तिवादान आयज म्हाकाय जापेक म्हारग करून सोडील्लो.



# मुपण्णा पुजारी

दोंगराचेर शाळा काडली. तिच्या कामाच्यो तीन अवस्था जाल्यो. पयले अवस्थेंत शंकरप्पा, शिवाप्पा अशे लमाण लोक म्हजेसरीं चड आयले. दूसरे अवस्थेंत करीमसाब, मौलासाब अशे लोक आयले आनी तिसरे अवस्थेंत मुपण्णा, जाकप्पा, शामलप्पा हे लोक भीतर सरले.

मुपण्णाचो गांव शिमोग्यालागीं आसा. बोकड्यो सांबाळप हो ताचो पिळग्यांनी चलत आयिल्लो वेवसाय. त्याच धंद्याक लागून तो गोंयांत पावलो. मुपण्णा हो पयलीं मिलिट्री डेपोलागीं खोंप घालून रावतालो. ताच्यो बोकड्यो, बोकडे मिलिट्रिचे लोक विकते घेताले. ह्या बोकड्यांक सदांच सांबाळप, भोंवडावन हाडप हें काम मुपण्णाच करतालो. सदांच शाळेकडेन बोकड्यो घेवन येवप, तांकां भोंवडावप अशे तरेचीं कामां तो करतालो. शाळा म्हळ्यार तें मळच कशें. त्या मळार पानां, तण अशें चरवण बोकड्यांक मेळटालें आनी एक फावट बोकड्यांक सोडटगीच मुपण्णा म्हजेलागीं गजाली मारूंक बसतालो.

मुपण्णा आनी तागेले भाव हे सगलेच बोकड्यांच्या धंद्यांत घुसपून पडिल्ले एक भाव करियप्पा हो कसायाचें काम करतालो. रातभर बोकडां मारून तो उडयतालो आनी उपरांत ताचोच भाव जाकप्पा सकाळीं वचून बोकडां सोलून तांकां हुमकळावन दवरतालो. तिसरो भाव मल्लाप्पा तो बोकड्याचें मास कापून मिलिट्रीक पुरवण करतालो. मुपण्णा ह्यो सगल्यो गजाली म्हाका फातरार बसून सांगतालो आनी तागेल्यो गजाली आयकतां, आयकतां शाळेखातीर हो मनीस उपेग पडत काय किर्ते हाची सुलूस घेयत हांव रावतालों. शाळे लागसार आशिल्ल्या फातराचेर बसून आमच्यो कितल्योशोच गजाली चलताल्यो. एक दीस हांवें ताका म्हळें, ‘मुपण्णा, तूं हांगाच कित्याक रावंक येना ?’’ पयलीं पयलीं म्हजें उलोवप ताणें फकाणाचेर व्हेलें. पूण एक दीस खरेंच उठून साटली पोटली घेवन तो दोंगराचेर शाळेकडेन पावलो. शाळे लागसार आशिल्ले नवे तांकयेकडेन ताणें खोंप घाली. चार जाण भाव, चौगांच्योय चार खोंपी थंय तयार जाल्यो.

मुपण्णा तसो सादो मनीस हारशाभशेन. हारशा सामकार दुसरो मनीस उबो रावलो की तोय हारसो जाता. मुपण्णाचेंय तशेंच जालें. ताका स्वताचो असो विचार खूब कमी. दूसरो मनीस जशें उलयता तशें तो उलयत वता. मुपण्णा आयज शाळा बांदया म्हणटगीच तो म्हण्टालो बांदया. खंयच्याय विशयांत तो दूसऱ्याकडेन रोखडोच सहमत जाता हे ताचें खाशेलेंपण. मुपण्णालीं भुरगीं पयलीं सावनच शाळेंत येतालीं. तागेलो धंदो बोकड्यो राखपाचो. पयसोय बरो मेळयतालो पूण ताजो परिणाम ताच्या सदच्या जिविताचेर खूब उणो. वर्सा दोन

वर्सांनी तागेल्या घरांत पाळणो हालतालो आनी बाबड्याक हारीन पांच धुवो जाल्यो. यम्मी, कम्मी अशे तरेचीं नावां ताणें धुवांक दवरिल्लीं. दोंगरार येतसावन ताजीं भुरगीं म्हजे शाळेंत येवंक लागलीं. व्हडली धूव यम्मी धाऐक वर्सांची. एक दीस तिचेकडेन नियाळून पळेल्यार तिच्या गळ्यांत एक मणी आसा अशें म्हाका दिसलें. म्हाका मोटें अजाप जालें. ही चली धा वर्सांची लेगीत जावंक ना पूण तिच्या गळ्यांत मणी आसा. हांवें ही गजाल मुपण्णाक विचारली तो म्हणूंक लागलो की ''तिचे आमीं लग्न केलां. आमचे जमातींत भुरग्यांचें ल्हानपणांतच लग्न करपाची चाल आसा. तांतूंत नवें अशें कांयच ना''. म्हाका मात्शी खंत जाली. भुरग्यांतले हीण गूण काडून उडोवचेखातीर आमी रात दीस यत्न करतात. भुरगेपणांत लग्न करपाची चाल बंद करचे खातीर कितल्याशाच सुधारकांनी यत्न केल्यात, जीण वेंचल्या पूण आजूनय रानां-वनांनी रावपी लोक, गांवगिऱ्या वाठारांनी रावपी लोक सुधारूंक ना. तांचे मेरेन समाज सुधारणेचो उजवाड पावंक ना.

मुपण्णा हो जरी शारांत आयलो तरी ताजे रानवटीपण उणें जावंक नाशिल्लें. ताज्या बोल्सांत पयशे आयिल्ले. पूण संस्कृताय येवंक नाशिल्ली. आतां लग्न तर ताणें केलांच, तें काय आतां मोडूंक येना. पूण हांवें ताका म्हळें, ''मुपण्णा, आतां यम्मीक शाळेंत तरी सारकी धाड. तिका सारकी शिकूंदी. घडये तिचें फाटली पिळगी सामाजीक दुयेंसातल्यान मुक्त जायत.'' मुपण्णा खो खो करून हांसलो. ताजें सदींचेंच हांसप तें. ताज्या मनांत तांतूंतलें कितें भीतर सरलें हें हांव सांगूंक नकळो, पूण दुसऱ्यालागीं सहमत जावप हो ताचो गूण ताणें दाखयलो. शाळा आतां बरीच वयर सरिल्ली आनी 'परशुराम गिरीजन संघ' स्थापन जाल्लो. अशा वेळार संघाचो अध्यक्ष कोणाक करचो हे विशीं खूब भासाभास जाली. हो नाका, तो नाका अशें करीत करीत निमाणे मुपण्णाच्या नांवाक सहमती जाली, कित्याक तर मुपण्णा हो कोणाच्याय हाताचें बावलें जावंक पावतालो. खंयच्याय पंगडाक तो आपलो मनीस न्हय अशें दिसनाशिल्लें, सगळ्यांकच तो बरो, पूण तो कोणाच्याच पंगडांत ना ही ताची अवस्था सगळ्यांक जाय आशिल्ली.

मुपण्णा संघाचो अध्यक्ष जालो. मुपण्णाच्या आंगात अध्यक्ष जावपासारकी कसलीच पात्रताय ना. ताका बरोवंक, वाचूंक येना. ताका चार कडेन वचून काम करपाची जांव संघाचें काम करपाची सवंय ना. सय कर म्हटलें की तो मुपण्णा अशी रोमी लिपींत सय करपाक शिकलो. तागेलो बोकड्यांचो वेवसाय बरो चलतालो. सदांच बोकडे विकून ताका पयशे मेळटाले. बोकड्यांच्यो तकल्यो तो बेंगळूराक धाडटालो खंय. कितें करता देवाक खबर. आत्र्या पयऱ्यान तो बेंगळूराक वता. बोल्सांत चार पयशे आशिल्ल्यान तो येतांवतां लोकांक च्या

दिता, खावंक जेवंक दिता. ताका लागून सुरवेक बरेच लोक ताका भुल्लें. म्हाका लेगीत खूब फावट बाजारांत मेळटगीच तो च्या पियेवपाचो आग्रो करता. च्या म्हळ्यार बेटीच च्या न्हय तर तिचेवांगडा खावंक लेगीत मागयता. पूण हांव चडसो ताचे मजगतीं वचना.

लांब रूंद आशिल्लो मुपण्णा ताज्यासारकेच लांब, रूंद पुडवें न्हेसता, खोमीस घालता. हातांत पुडव्याचो एक शेव घेवन चलपाची तची पद्धत खाशेली. मुपण्णाकडेन पयशे आसात, दोंगरावेल्या लोकांक दिसपट्टीं रिणां काडपाची संवय आसा. बड्डी म्हळ्यार कळांतर, वृद्धी हें मुळावें उतर ताजेवेल्यान बड्डी हें कानडी उतर जालें. बड्डी हें उतर लेगीत वृद्धी ह्या उतरावेल्यान आयलां जांवये. मुपण्णा लोकांक रिणां दिता आनी तांच्या कडल्यान पठाणी कळांतर घेता अशें हांवें आयकलां. ह्या सगल्या गुणांक लागून मुपण्णा संघाचो अध्यक्ष जालो हांतूंत अजापाची गजाल ना. मुपण्णा अध्यक्ष जातगीच ताणें सगल्यांक च्या दिली. कोणालेंय कितेंय काम आसल्यार तो मुपण्णालागी वतालो. ताका आपणाली आडखळ सांगतालो. मुपण्णा हां, हूं, हां, हूं करून ताका सागंता, ''तूं कांयच भियेवं नाका, तुका जाय तशें हांव करतां.'' पूण हाजो अर्थ ती गजाल जातलीच अशी न्हय. मुपण्णाक दुसरो कोणूय सांगपी मेळ्ळो जाल्यार ताच्या मता भशेन तो तकली हालयता.

दोंगरार संघ जायत सावन मुपण्णाक लागीं करून आपल्या मताभशेन ताका उलोवंक लावपी मनीस दोंगरार तयार जालो. ताका लोक खाडयो म्हणटाले. खाडयो सांगता आनी मुपण्णा आयकता, अशी परिस्थिती जावंक लागली. कोणेंय घर बांदलें तरी संघाच्या नांवांन ते पट्टी घेतात. कोणय घर विकलें जाल्यारय पट्टी चूकना. मुपण्णाच्या नांवान खाडयाचें सगलें राजकारण चलता. कुशीक रावन, नामा निराळो जावन. एक फावट टी.व्ही. चे लाके म्हजेसरीन आयले. तांकां टी.व्ही.चे कार्यावळीखातीर शाळेचीं कांय चित्रणां घेवपाचीं आशिल्लीं. मुपण्णाक हांवें सांगलें. ''पळय टी.व्ही.चे लोक आयल्यात. ते शाळेचें चित्रण करूंक सोदतात'', अवश्य जावचें पूण तेखातीर च्या पाण्याची वेवस्था करपाक जाय कांय कितें? शाळेचें टी.व्ही. शुटींग जाता ही गजाल खाड्याक बरी दिसूंक ना. टी.व्ही.च्या निमतान भायले लोक हांगां येतले. आमगेलें बरें वायट जिवीत चित्रावन टी.व्ही.चेर दाखयतले. हांगां चोरीमारी जाता. खाड्यान ताजे मनांत कितें कितें रंग भरले हें साांगप कठीण. तो मनीस दूरदर्शनाचेर शाळा दाखोवंक तयार जालो ना. निमाणें दूरदर्शनाचे लोक आयले आनी हात हालयत परत गेले. खाड्याक खूब आनंद जालो पूण ताजे सांगणेवेल्यान शाळेचें लुकसान जालें हें ताच्या लक्षांत येवंक ना.

दिशीं दिशीं दोंगरार राजकारण वाडटा. घर बांदपी लोकांकडल्यान घेतिल्लो पयसो, घर विकपी लोकांकडल्यान घेतिल्लो पयसो हाचो हिशेब सारको लागना. कित्याक तर खाडयो मुपण्णाच्या नांवान धोशी घालीत आसा. खाडयो सांगता आनी तो आयकता. करीमसाब म्हण्टा खाडयाच्या उलोवपांत कितें जादू आसा कोणाक खबर. तो उलयता तशेंच मुपण्णा करता. दोंगरावेली वस्ती दिशीं दिशीं वाडत चल्ल्या. पयशे घेवन रावपाक सुवात दिवपाचो रासवळ वेवसायच ह्या दोगांनी चालू केला. पूण खंयच्याय वेवसायाक देंवतेय दीस आसतात. भरती आयली की लोक त्या धंद्याक बरो म्हणटात. मुपण्णाक लागून संघाचे दोन फांटे जालें. मुपण्णाल्या त्रासांक कांटाळून कितल्याशाच लोकांनी संघ सोडपाची धमकी दिल्या. मुपण्णा अध्यक्ष जाल्यार आमी दूसरो संघ काडटले अशेंय कांय जाण म्हणटात, पूण ह्या खंयच्याच गजालींनी मुपण्णा बेजार जायना. ताजें मन फातरापरस घट. ताजेर कसलोच परिणाम जायना. खाडयो आयलो की, खाडयाचे स्कूटरीचेर बसून तो बाजारांत भोवंक चल्लो.

संवसारांत अशींय कांय मनशां आसतात. तीं दुसऱ्याच्या दुखान खंती जातात, दुसऱ्याच्या सुखान सुखी जातात. कांय जाण दुसऱ्यालें दुख तें आपणालेंच अशें समजून वावुरतात. कांय जाण तांतूंत इतले घुस्पून पडटात की दुख कोणाक जालां हेंच कळना. हालींच्या संवसारांत मात मनीस खूबच आत्मकेंद्रीत जाला. आपणाले भोंवतणीच तो वंय बांदता. दिसाचीं चोवीस वरां आपणालोच विचार करता. 'भर्तुहरी' ह्या बरोवप्यान संवसारांत चार तरेचीं मनशां आसात अशें सांगलां. जे मनीस दीस रात दुसऱ्यांखातीर वावुरतात ते सत्पुरूश. जे सुवार्थ सादुनय परमार्थ करतात ते संवसारीक. मदल्या पांवड्यावेले लोक जे सुवार्थाखातीर दुसऱ्याची गोमटी कातरतात ते नीच लोक, आनी आपणालो कांयच फायदो नासतना दुसऱ्याचो घात करतात तांकां कितें नांव दिवंचे तंच समजना अशें भर्तृहरी म्हण्टात.

मुपण्णा हो हांतूंतल्या खंयचे वर्गवारींत येता हें सांगप कठीण. ताका तकली आसा पूण तो विचार करिना! परप्रकाशी. खाडयो ताजी वाट लायता हें ताका कळटा पूण तो खाडयाची संगत सोडूंक तयार ना. असो हो मुपण्णा, ताका कितें करचें तेंच समजना.

✿✿✿

# करीम साब

दोंगरार शाळा बांदपाचें काम सुरू जालें तेन्ना थंय सात-आठ घरां आशिल्लीं. शंकराप्पा, निलाप्पा, पिकलव्वा, गंगारामण्णा, परमण्णा, अशे कांय जाण म्हजे बरे वळखिचे जाल्ले. सगळेच जाण सामके गरीब. दिसभर काम केलेबगर रांदनीचेर आदन चडना. पूण सगळ्यांकच भुरग्यांक शिक्षण दिवपाची उमेद. हे सगळेच लोक सांगतात तें आयकुपी पूण फुडें सरून तें काम करपाची तांकां संवय नाशिल्ली. कांय लोकांक जल्मासावन अशी संवय जाता. चड करून सावकारागेर कामाक वचपी लोकांक, 'हांव सांगतां तूं आयक' हेंच आयकुपाची संवय आसता. तशे म्हजे वांगडी. तांकां शाळा जाय आशिल्ली पूण ती फुडें सरून बांदपाची तांक नाशिल्ली. अशा वेळार एक नवो मनीस म्हज्या मुखार आयलो तो म्हळ्यार 'करीम साब'.

'करीमसाब नेगलूर' अशें ताचें नांव. दोंगरार येवचे आदीं तो रावणफोंडार रावतालो. मागीर कांय दीस मडगांवच्या जुनता क्वाटर्सालागीं ताणें खोंप घाली. रातयांत शें, शंभर खोंपी वसोंन करीम साब तांचो मुखेली जालो. मडगांवां रावपी झोंपडीवाल्यांची पयली संघटणा ताणें स्थापन केली पूण ताका ही झोंपडपट्टी तिर्गोंवक येस आयलें ना. आनी एक दीस तो आपणाली साटली-पोटली घेवन दोंगरार आयलो. असोच एक दिसा सांजवेळा हांव शाळेंत वचून म्हगेलें काम केलें आनी सदचे भाशेन पासयेक म्हूण मठामेरेन वचूंक भायर सरलो. दोंगरार दिशीं-दिशीं नव्यो खोंपी तयार जातात्यो. एके खोंपीमुखार उबो रावन एक मनीस विडी फुसकायता. भिरभिरीत दोळे, बारीक केंस, काळो रंग, धवे फुल्ल दांत असो करीमसाब लुंगी न्हेसून म्हज्या मुखार आयलो. हांवें ताची वळख करून घेतली. कोणूय नवो मनीस आयलो जाल्यार ताची वळख जावप खूब गरजेचें अशिल्लें. शाळेच्या कामांत अशा लोकांचो आदार मेळ्ळो जाल्यार म्हगेलें काम मात्शें ल्हव जातलें.

करीमसाब हो मुळचो हुबळीलागीं आशिल्ल्या 'नेगलूर' ह्या गांवचो. गांवांत पोट भरना, पावस सारको पडना, पिकावळ बरी मेळना, अशा कांय कारणांक लागून करीमसाब बायल-भुरग्यांसयत गोंयांत पावलो. हे गजालीक आयज सुमार पंचवीस वर्सां जावन गेलीं. दोंगरावेल्या मिलिट्री पुरवणे खात्यांत ताका 'हेल्पराची' चाकरी मेळ्ळी आनी शाळेलागीं रावन नोकरी करप सोपे जाता अशें पळोवन तो शाळे लागसार खोंप बांदून रावंक लागलो. तो स्वता नेणार पूण ताका वेव्हारीक गिन्यान बरें आसलें. दोंगरार शाळा बांदतना जायत्या तरांचीं आडमेळीं आयलीं. एक म्हळ्यार हांव जरी शिक्षक आसलों तरीय म्हाका शाळा

बांदचे खातीर किर्ते वावर करचो पडटा, मानायाकडेन कसो वेव्हार करचो पडटा हे विशीं गिन्यान एकदम उर्णे आशिल्लें. दोंगरावेली शाळा बांदपाचें काम हांवें शंकराप्पाक दिलें. तो मेस्त्री म्हूण वावुरतालो आनी भायल्या कोणाक काम दिल्यार तें जावप कठीण जातालें. थंय उदक नाशिल्लें, वचूंक बरो रस्तो नाशिल्लो. अशा वेळार ह्या शंकराक पायां पडल्याबगर काम जावप सोपें नाशिल्लें. शंकराप्पाक हांवें पयलींच अडेज हजार रूपया दिले आनी काम सुरू करपाक सांगलें. खरें म्हळ्यार पयलीं पयशे दिवप साप चुकीची गजाल. खंयच्याय मानायाक पयलींच पयशे दिल्यार तो मागीर तोंड दाखयना. पूण म्हाका दिसतालें, शंकरप्पा तशें करचो ना, कित्याक तर तागेलींय भुरगीं शाळेंत येतालीं. पूण बाकीचे मानाय कामांत करतात तशेंच शंकराप्पानय करपाचें थरायलें. पयशे घेवन बोल्सांत घाले पूण काम चालू करपाचें नांवच काडना जालो. म्हजेर आकांत आयलो. हांवें लोकांकडल्यान शाळेखातीर पयशे हाडिल्ले ते पयशे शंकरप्पाक दिले आनी शंकराप्पा शाळेच्या कामाक हात लायना. एक दीस करीमसाब करनाळे, गंगारामण्णा, दादा मुल्ला अशे कांय जाण म्हजे घरा आयले. अचकीत तांकां पळोवन म्हाकाय अजाप जालें. शंकरप्पाचें आनी पयशांचें नाटक तांकां सगल्यांक खबर अशिल्लें. करीमसाब फुडें सरून म्हाका म्हणूंक लागलो, 'मास्तर, शंकराप्पा आयज रातिचे गाडयेन बायल-भुरग्यांसयत बिजापुराक वता आनी तो बेगीन परथून येवपाचीं लक्षणां दिसनात, हें आयकून म्हाका शेळो घाम आयलो. आरे देवा! आतां किर्ते करप अशें म्हणून हांवें कपलाक हात लायलो. लोकाले पयशे, शाळा बांदपाची जापसालदारकी हांवें घेतल्या. अशा वेळार, दुश्काळांत तेरावो म्हयनो कसो, हो शंकराप्पा म्हाका सांपडलो. बाप्पाय ना आनी पुडवेय ना तशें पयशेय नात आनी शाळाय ना अशी परिस्थिती आतां जातली, असो विचार करतनाच करीमसाब फुडें येवन म्हाका सांगूक लागलो, 'मास्तर भियेवं नाका, आयज रातीं शंकराप्पा स्टेशनाचेर आयलो की आमी ताका धरून दवरतात. उपरांत ताका पयशे दिल्याबगर फुडें वचूंक दिवपाचें ना.' हांवें करीमसाबाक म्हळें, 'बाबारे! तूं म्हण्टा तें खरें, पूण ताका धरून मारपेट दिवन पयशे ताचकडल्यान घेवप म्हाका कांय शक्य जावचें ना, 'तूं कांय भियेंवनाका मास्तर, हांव पळेतां तें' अशें म्हूण करीमसाब फुडें आयलो. आमी सगल्यांनी बसून एक येवजण केली, की आमी सगल्यांनी खंय मेळपाचें, शंकराप्पाक पयलीं कोणे घट धरपाचो.... हाची सगली आंखणी करून आमी स्टेशनार पावले. तेन्ना रातिचीं साडे-आठ वरां जाल्लीं. करीमसाब, करनाळे, गंगारामण्णा, दादामुल्ला आनी हांव अशे आमी पांचयजाण स्टेशनाभायर ओट्यार बसून शंकराप्पाची वाट पळोवंक लागले. थोड्या वेळान कमलव्वा ही शंकराप्पाची बायल भुरग्यांक घेवन स्टेशनांत भीतर सरली. पूण तिच्या वांगडा शंकराप्पा ना. आमगेली येवजण घडये शंकराप्पाक पयलींच कळ्ळी

जावंये म्हूण ताणें वेगळेंच नाटक केलें. बायल भुरग्यांक फुडें धाडून गाडी सुटपाच्या वेळार तो एकदम भीतर सरतलो अशें म्हूण ताणें येवजील्ले. कमलव्वा आनी तिचीं भुरगीं गाडयेंत बसलीं आनी गाडी सुटपाक पांच मिनटां आसात म्हळ्यार शंकराप्पा बेगबेगीन स्टेशनाभीतर सरून दब्यात वचूंक लागलो. तो बरो जाल्लो. अशे वेळार ताका वचून धरप म्हळ्यार सोपें काम न्हय. हातांत कुराड घेवन भोंवपी बेरड कसो तो. आतां शंकराप्पाक वचून कोण धरतलो अशें हांव चिंत्तालों. जणएकलो एकमेकाल्या तोंडाक पळयता. शंकराप्पाल्या बोल्सांत चाकू आसलो. कितेंय शस्त्र आसुंये. ताणें ताका धरपी मनशाक चाकू मारल्यार कितें करतलो ? अशा वेळार करीमसाब फुडें आयलो. 'मास्तर हांव धरतां ताका' अशें म्हणून तो धांवत फुडें गेलो आनी ताणें शंकराप्पाक एकदम दावकुलांक धरून दब्यांतल्यान सकयल देंवयलो. करीमसाबाच्या फाटोफाट आमी सगलेच प्लॅटफोर्मार धांवले. शंकराप्पा तसो घटमूट मनीस. करीमसाबान आपणाक धरला अशें लक्षांत येतगीच ताणें करीमसाबाचेर दोन थापटां फुलयलीं पूण करनाळे, दादामुल्ला, गंगारमण्णा हांणी ताका घट धरून स्टेशनारच उबो केलो. कमलव्वाक सामकार कितें घडटा तें पळेना फुडें तिवूय गाडयेंतल्यान सकयल देंवली आनी भुरग्यांक थंयच सांडून स्टेशनाभायर धांवक लागली. प्लॅटफोर्मार शंकराप्पा, ताजीं भुरगीं आनी करीमसाब आनी तांचेवांगडी हांची एकच झटापट चालू आशिल्ली. म्हाका नदरेसामकार पळोवन शंकराप्पा मात्सो कांचवेलो. हांव नाशिल्लों जाल्यार तो नेटान झगडीं करताशिल्लो. मनशाक निमार्णे एक मन म्हूण असताच. तोंडान जरी मनीस कितेंय उलयलो तरी पापी मनशाक ताचें मनच खायत आसता. हो आनीक घांटयांचो कसलो बोवाळ महूण थंय लोकांची गर्दी जाली. म्हाकाय कांय लोक विचारूंक लागले. 'आरे तूं प्रोफेसर ह्या घांटयावांगडा कितें करता ?' मागीर तांकां सगली काणी सांगची पडली. हेवटेन कमलव्वा जी नीट्ट गेली ती पोलीस स्टेशनाचेर. तिणें वचून पोलिसेंत कागाळ केली की आपणाल्या घोवाक लोक धरून मारतात आनी करीमसाबान आपणाक मारली. पोलीस थंय पावले आनी तांणी करीमसाबाक पोलीस स्टेशनार व्हेलो. आनी ताचे फाटल्यान आमी सगळेच पोलीस स्टेशनार पावले. शंकराप्पा आनी हेर वांगड्याक पोलिसांनी सोडले पूण करीमसाब मात कमलव्वान केल्ले कागाळीक लागून थंयच उरलो. पोलिसांनी ताका बरोच बडयलो. बाकीचे सगले घरा गेले पूण हांव मात पोलिस स्टेशनार बसल्लों आनी पोलिसांच्या सायबाक मेळून ताका खरी गजाल सांगली आनी कमलव्वान फट कागाळ करून करीमसाबाक भीतर उडयला हेंवूय ताच्या कानार घालें. पोलीसांच्या सायबान करीमसाबाक सोडयलो. पूण मार-पेट जाल्ल्यान ताका चलूंक येनाशिले. फाटीर, पायांर माराचे वळ येवन तो सामको जाम जाल्लो. हांवें ताका म्हगेले स्कूटरीचेर बसोवन सोमतोच हॉस्पिटलांत व्हेलो

आनी म्हजे वळखीच्या दोतोराक मेळून ताका हॉस्पिटलांत भरती केलो. चार दीस ताका बापड्याक हॉस्पिटलांत काडचे पडले. हांव ताका सदींच च्या-पाणी व्हरून दितालों. एक दीस ताजी घरकान्न म्हज्या घरा आयली. सामकी रडकुरीच जाल्ली. ‘कितें जालां गे?’ हांवें तिका विचारलें. घरांत कांय ना, भुरगीं उपाशीं आसात. तें आयकून म्हाका चर्र जालें. हांवें तिका बेगबेगीन लातभर तांदूळ दिले आनी एक वीस रूपयांची नोट दिवन सांगलें, ‘हें घेवन वच. करीमसाब आतां बेगीनच घरा येतलो.’ आमचे हे शाळेक लागून बेठोच मार खालो हाचें म्हाका दुख जालें. बारीक मनशां लेगीत एकाद्र्या वेळार खंयचोय त्याग करूंक जांव वेळार जीव दिवंक लेगीत फाटीं फुडें सरनात.

शाळेचें काम करतना करीमसाब सदांच म्हजे वांगडा रावलो. केन्नाय कसलेंय काम आसलें जाल्यार करीमसाब सदींच फुडें. शंकराप्पा पयशे खावन गेलोच पूण उपरांत आमी सगळेच ह्या प्रकरणावेल्यान एकठांय आयले. कोणाकडेन वचपाचें आसल्यार करीमसाब म्हजे वांगडा येतालो. ताजेकडेन कसलेंय काम नेटान करपाचो एक गूण अशिल्लो. एकाद्री गजाल करपाची म्हळ्यार ती कशी करूंक जाय हाची येवजण तो करतालो. कोणाम्हऱ्यांन वचून ताजी तोखणाय करून ताका फुलोवन आपणालें काम सादून कशें घेवप हें करीम साबा लागीं शिकचें. ताका उलोवपाचो गूण बरो आसा. सदांच भाशण करप हें ताचें खाशेलेंपण. दोंगरार आयल्या उपरांत ताणें झोंपडीवाल्यांची संघटणा परथून चालू केली. तेखातीर तो विंगड-विंगड पक्षांच्या फुडाऱ्यांकडेन वतालो, तांचेलागीं वळखी करतालो. फुडाऱ्यांकय करीमसाबासारको मनीस वेंचणुकेच्या वेळार उपेगी पडटालो. शाळा सुरू केले उपरांत ‘‘परशुराम गिरीजन संघ’ आमी काडलो तेन्ना ताचो खुबसो कारभार करीमसाब चलयतालो. रावपाखातीर घर, रेशनकार्ड असले विशय घेवन सरकाराकडेन वचपाची ताची तयारी आसली.

करीमसाब गोंयांत आयलो तेन्नासावन केन्नाकेन्नाय कोपाचें घेवपाची ताका संवय जाल्ली. कोणा ना जाल्यार कोणाक तरी फुलां माळून तो सांजवेळच्या कोपाची वेवस्था करतालोच. ताचें पांच - स जणाचें कुटूंब, ते मानान येणावळ उणी. तो मुसलमान जावन सोरो पियेता हे गजालीचें ताचे घरकान्नीक दुख जातालें. सोरो पियेवन येतगीच तो तिकाय धाडय बडय करतालो. गोंयांत भायले लोक येतगीच पयलें काम करतात तें म्हळ्यार पियंक शिकपाचें. खूबशा कामगारांची येणावळ सोऱ्याक काबार जाता. करीमसाब तसो बरो मनीस. ताका आपणाली शीम समजताली. पूण वेसन हाचो अर्थच असोः तें मनशाक बांदून दवरता, विचार करपाची शक्त ना करता. पूण करीमसाबाच्या जिवितांत एक खीण असो आयलो, ताका लागून करीमसाब सामको बदल्लो.



एक फावट करीमसाब म्हजेलागीं आयलो आनी सांगूंक लागलो ''मास्तर आतां आमच्या दोंगरार मुसलमान लोक खूब आसात, आमकां एक मशीद बांदूक जाय'' हांवें ताका म्हळें, ''आरे आमच्या देसांत मंदिरां आनी मशिदी उणीं आसात काय किर्ते?'' पूण ताजे तकलेंत मशीद बांदपाचें आशिल्लेंच. हांवें ताका खूब फावटी समजावपाचो यत्न केलो. 'करीमसाब, तुमी लोक हांगा आयल्यात ते पोटाखातीर. मशीद, मंदीर तुमच्या गांवांत ना म्हूण कांय तुमी हांगां येवंक नात. तुमकां नमाज पडपाचो आसल्यार सकयल वचून मशिदींत नमाज पडात. जांकां देवळांत वचपाचें आसा ते देवळांत वचात. पूण मंदीर मशीद अशें कांयच करनाकात. ही झोंपडपट्टी, जर फाल्यां सरकारान मोडली जाल्यार मंदीर-मशिदीची जतनाय कोण करतलो? म्हगेल्या प्रस्नाक ताचेलागीं जाप नाशिल्ली. ताणें मशीद बांदप हें काम मनाचेर घेतिल्लें. ह्या कामाक ताका तागेल्या फुडारपणाचे गूण उपकारा पडले. ताणें गांवांतल्या सगल्या मुसलमानांक एकठांय करून म्युनसिपालटी, कोमुनीदाद हांचे नदरेमुखार दोंगरार मशीद बांदली. मशीदेक लागून करीमसाबान सोरो पियेवपाचें सोडून दिलें. करीमसाब सामको धर्मपिसो जालो. ताणें खाड वाडयलें, तकलेर धवी तोपी घालून तो मौलाना कसो भोंवक लागलो. मशीद बांदपाच्या कामांत ताचे आनी म्हजे मतभेद जाले तरीय आमची इश्टागत चालूच आसा.

करीमसाबागेर ईद आसलो की ताचीं भुरगीं आमगेर 'शीर कुर्मां' घेवन येतात. करीमसाबालीं सगलींच भुरगीं म्हजेकडेन शिकलीं. अब्दुल, माबुली, बाशा हीं ताच्या भुरग्याचीं नांवां. तांकां हांवें गितेचेर दोन अध्याकय शिकयले. गणपती अथर्वशीर्श शिकयलें, इतलेंच न्हय तर माबुली हो इतलें बरें म्हणटालो की एक फावट ताची रेडिओचेर कार्यावळ लेगीत जाली. म्हजे शाळेंत शिकपी भुरग्यांक हांवें धर्मीक भेदभाव केन्नाच शिकोवंक ना. चवथ जांव, ईद जांव सगलीं भुरगीं 'ईश्वर अल्ला तेरो नाम' अशें म्हणून प्रार्थना करतालीं. करीमसाब ह्या सगल्या कार्यावळींन वांटो घेतालोच आनी वेळार मुखेल सोयऱ्याखातीर च्या-पाण्याची वेवस्थाय करतालो.

एक फावट दोंगरावेले मशिदीआड कांय कागाळी चालू जाल्यो. करीमसाबाची आनी म्हजी इश्टागत खुबशा लोकांक मानवनाशिल्ली. तांणी करीमसाबाक सांगलें की तुजो मास्तरच कागाळी करता म्हूण. एक फावट करीमसाब आमगेर आयलो आनी सांगूंक लागलो, ''मास्तर, तूं आयज मात्सो आमचे मशिदींत यो. आमचो मौलाना तुका मेळूंक सोदता'' हांवें ताका म्हळें तुजो मौलाना तुका व्हड आसत पूण हांव ताका मेळूंक सोदिना. ताका जाय

जाल्यार म्हाका मेळूंक येवचें'. हें आयकून करीमसाबाक खूब वायट दिसलें. कांय दीस तो म्हजे सरीन येना जालो. हालीं करीमसाब निवृत्त जावंन नेगलूराक वचून रावंक लागला. थंय शेत भात आसा तें रोवन गांवांत रावपाचो ताणें निश्चेव केला. पयर दोंगरार गेल्लेकडेन तो म्हाका मेळ्ळो. खूब दिसांनी ताची भेट जाली. शाळेकडल्या फातरार बसून आमी खूब गजाली केल्यो. ''मास्तर म्हाका आता गोयांत रावपाचें ना. घरकान्नीक हांव सदींच सांगतां की आतां गोंय सोडून आमी या. पूण भुरगीं ल्हानाचीं व्हड हांगा जाल्यांत तांकां गोंयचो मोग. घरकान्न आनी भुरगीं गोंय सोडून येवंक तयार नात. तेखातीर येवन वचून हांगां रावचें पडटा. हावें ताका म्हळें तूं हांगां राव नातर ना राव. आमची शाळा जो मेरेन आसा तो मेरेन तुजी याद म्हाका सदींच येतली.

✿✿✿

# तारप्पा

दोंगरावेले सगलेच लमाणी. शिवप्पा लमाणी, गोंविदा लमाणी अशें लमाणी हें आडनांव लायतात. तारप्पा हो एकच मनीस जाका लमाणी म्हणूंक लज दिसता. तो आपणाक तारप्पा रजपूत अशें म्हणून घेता. रजपूत ही राजस्थानांतली एक शूर जमात. रजपूत लोकांनी आमचो इतिहास परजळीत केला. शिवाजी महाराज लेगीत आपणाक सिसोदिया ह्या क्षत्रीय घराण्याचो असो म्हणून घेवंक खोशी मानताले. लमाण ही जमात कर्नाटकांतल्या धारवाड, हुबळी, शिमोगा हातूंतल्या रानवटी वाठारांनी रावता. तांचे आचार-विचार चडशे मागास जमातीं सारखेच पूण तांची भास मात कन्नड भाशेपरस आर्य भासांत लागींची. कन्नड गितां आयकून कांयच अर्थ समजना पूण लमाणी गितां, हिंदी, मराठी ह्या भासांक लागींचीं.

तारप्पा हो शंकराप्पालो जावंय. ताचे पयले बायलेची धूव ही ताराप्पाची बायल. तारप्पा हो वेगळोच मनीस. हांव दोंगरार पावलों तेन्ना एक दीस तारप्पाची वळख जाली. लांब केंस वाडोवन तारप्पा एके सायकलीवेल्यान हाश हुश करीत चडटी काडटालो. म्हाका पळोवन तो देंवलो. घडये म्हाका तो वळखलो जांवये, कित्याक तर खूबशे जाण म्हाका वळखताले. पयसुल्यान पळोवन कांय वेळार भुरगीं घरा वचून सांगतालीं. ताराप्पा म्हजेसरीं आयलो आनी म्हाका शाळेविशीं प्रस्न करूंक लागलो. म्हाकाय तारप्पा सारख्या मनशाची गरज आशिल्ली. तो गंवड्याचें काम करतालो. हावें ताका म्हळें 'ताराप्पा तूं फाल्यां शाळेकडेन यो. आमकां जमीन मेजून आनीक एक वर्ग काडपाचो आसा. दुसऱ्या दिसा ताराप्पा आयलो. हातांत सूत घेवन ताणें जमनीक नमस्कार केलो आनी जमीन मेजून तो उबो रावलो. हांवें ताका म्हळें तारप्पा तूं शाळेक कितेंय मदत कर. पूण तारप्पा सामको चिकू मारवाडी. दोंगरावेल्या ज्या मनशांनी शाळेखातीर कांयच करूंक ना असो मनीस कोण? असो प्रस्न केल्यार तारप्पाकडेन बोट दाखोवचें पडटलें. ताराप्पा दर वर्सा तिरूपतीक वता. देवावेलें फूल चूकत पूण तारप्पाचो नेम चूकना.

तारप्पा तिरूपतीक वचून देवाक केंस ओंपता. दोन दीस रावन उपास तापास करता आनी येतना प्रसादाचे लाडू हाडून लोकांक वांट्टा. तारप्पाचो एक गूण म्हळ्यार तो सोऱ्याक अजिबात तोंड लायना. दोंगरावेलो एकूच मनीस जो सोरो पियेना. सुरवेक तो शंकरप्पाचो जावंय म्हूण ताज्या हातासकयल काम करतालो, पूण फुडें शंकराप्पाक देंवती कळा लागली आनी तारप्पा दिशींदिशीं वयल्या पांवड्यार वचूंक लागलो. ताका गवंडेपण येतालेंच पूण मागीर ल्हवू ल्हवू

करून शंकराप्पाले मेस्त्रीपण ताणें हातासलें. दीसरात काम करून ताजी आतां बरी उदरगत जाल्या. पयलीं ल्हानशे खोंपींत रावपी तारप्पा एका बऱ्या घरांत रावता. ताजेकडेन एकदोन स्कूटरी आसात. हाता सकयल शंबर मनशां काम करतात. घरांत रेडिओ, व्हिडिओ, अशो जायत्यो वस्तू ताणें हाडल्यात.

सुरवेक सादो अशिल्लो तारप्पा आतां लाखांच्यां गजाली सांगता. व्हडल्या व्हडल्या आमदारांवांगडा तो वावुरता. एक वेळ आमच्या सारख्या मनशाक मंत्र्यांक मेळप कठीण पूण तारप्पा मंत्र्यावांगडा च्या पियेत बशिल्लो दिसता. कित्याक तर झोंपडपट्टेंतल्या राजकारणांत तारप्पाचें महत्व वाडलां.

गोंयांत भायर सावन पोटापाण्याखातीर येवपी लोकांचे पंगड, जाती धर्मा प्रमाण वेंचणुको जायत चल्ल्यात. केरळी लोकांचो, कन्नड लोकांचो अशे भाशीक पंगड आसातच. ते भायर लमाण लेगीत हजारांनी आसात. तांकां एकठांय हाडून, तांचीं मतां मेळोवप हें राजकरणी लोकंक गरजेचें जावन आसता. हे खातीर राजकारणी लोक तारप्पा सारखेल्या मनशाचो आदार घेतात. तारप्पा खरें पळेल्यार नाकासामकार वचपी मनीस. शाळा कशी चल्ल्या, थंय कितलीं भुरगीं येतात, कितें करतात हाची ताका गंधवार्ता ना. पूण तो मौलासाबाल्या राजकारणांत घुस्पलो. मौलासाबान ताजेर कितें जादू केलो काय कितें तें म्हाकाच खबर ना. पूण एक दीस तो मौलासाबाक घेवन शाळेंत आयलो आनी म्हाका सांगूंक लागलो, 'गुरूजी म्हाका शाळेचे हिशेब पळोवपाचे आसात'. हांवें ताका म्हळें 'हिशेब तयार आसात, ते एकल्याक दाखोवंक मेळनात. तेन्ना तूं बसका आपय, हांव हिशेब मांडटां' ही सगली तकली मौलासाबाची पूण अशा गजालींनी लोक भुल्लुसताले. दूरदर्शनावेले कार्यावळींत शाळेच्या भुरग्यांची एक कार्यावळ जावची आसली. शिक्षकांनी बरी कार्यावळ बसयली पूण मौलासाबान आडखळ हाडली. पयल्या दिसा रातीं जाल्ले बसकेंत ताणें तारप्पाक उलोवंक सांगलें, ''ही कार्यावळ जाल्यार नाकाशिल्ले लोक हांगा येतले, आमचे मदीं धोशी घालतले'' त्या दिसांचें तारप्पाचें उलोवप आयकून तारप्पाविशीं म्हज्या मनांत बऱ्यो भावना आशिल्ल्यो त्यो नश्ट जाल्यो. दुसऱ्याच्या पोशान उदक पियेवपी तारप्पासारखेल्या मनशाकडेन कितलेय पयशे आसल्यार लेगीत ताजो कांयच उपेग जावचो ना अशें हांवें थारायलें.

खरें पळेल्यार तारप्पान दोंगरावेल्या गरीब लोकांक फुडारीपण दिवपाची गरज आसली. लमाण लोक मुळांतच गरीब, शहामृगाभशेन कोसांत तोंड लिपोवन बसपी. तांच्या जिवितांत सुदारणा जावप कुस्तार. पिळग्यांच्यो पिळग्यो रानांत राविल्ल्यान तांचेर रानवटीपणाची सावळी पडिल्ली आसा. जनावरांभशेन काम करप आनी सोरोपियेवन वाटेकुशीक न्हिदप अशे तरेची जीण लमाणांची.

दीस-रात सावकारागेर रावप, रिणां काडप आनी तीं पावोवपाखातीर जीण भर वावरप. अशे हे लोक गोंयांत आयले, तांची येणावळ वाडली पूण संस्कृताय वाडूंक ना. पयसो मेळयतात पूण ताचो विनियोग वा उपेग कसो करचो हें तांकां समजना. तारप्पामुखार अशीं कामां दोंगरा येदीं उप्रासलीं. पूण तारप्पा हो आपणाल्या दादागिरींतच उरलो. एक फावट दोंगराचेर पुलिसांची घुरी आयली. हालीं खुबशेकडेन चोरयो जातात जांव, स्मगलिंग जाता. अशा वस्तूंचो संबंद खंयच ना खंयच्यातरी झोंपडपट्टेंकडेन पावता. फाटीं एका पंदरा सोळा वर्सांच्या भुरग्याचो ताज्या वांगडच्याच भुरग्यांनी कुळेंच्या रानांत व्हरून खून केलो. हीं भुरगीं दोंगरावेलीं. मडगांवच्या एका वेपाऱ्याचे डाल्डाचे दबे गुदामांतल्यान दोंगरावेलयाच कांय लोकांनी चोरून व्हेले. अशो कागाळी पुलीस स्टेशनार दीस रात येत आसतात. आनी आठ दिसांनी एक फावट तरी पुलिसांची घुरी दोंगरार पडटा.

हे फावटीचे पुलिसांचे घुरयेंत तारप्पा सांपडलो. ताच्याच घरांत व्हिडीओ, रेडिओ अशो कितल्याशोच वस्तू स्मगलिंगाच्यो आसूंक जाय असो दुबाव आयलो. पुलिसांनी ताच्यो सगल्यो वस्तू जप्त करून व्हेल्यो आनी ताका पावती हाडून दाखोवपाक सांगलें. तारप्पाक नाका जीव जालो. अशावेळार राजकरणान ताका वाटायलो. ज्या मंत्र्यांवांगडा तो च्या पिता, वावुरता तांणीच ताका सोडोवन हाडलो.

ह्या दिसांनी तारप्पा मात्सो बदल्ला अशें आयकूंक येता. आपणाल्या कवचांतल्यान तो भायर सरूंक लागला. हालीं तागेलो मौलासाब हो इश्ट हिंदूक मुसलमांनाच्या चेपणासकयल दवरूंक सोदता अशें ताणें आयकलां. तेखातीर आपूणय आतां हिंदूंखातीर वावरूंक जाय अशें ताका दिसूंक लागलां. संघाचे पयशे कोणे खाले हेविशीं संघाचे बसकेंत तो प्रस्न मांडटा. मुपण्णा, मौलासाब फटींग अशें तो म्हणूंक लागलो. इतले दीस ताच्या आदारान मौलासाबान उबी केल्ली चौकट आतां कडकडूंक लागल्या. तारप्पान फाटल्या पंचवीस वर्सांत बरोच पयसो जमयला. तागेल्या गांवांत ताणें घरां बांदल्यांत, जमनी घेतल्यात अशें लोक सांगतात. पूण हांगा मात तो खोंपींतच रावता. ताका गांवांत फ्लॅट घेवन रावप कांयच न्हय. तो कितल्योशोच बिल्डिंगी बांदता. पूण दोंगर सोडल्यार झोंपडपट्टेचें राजकारण कोण करतलो ? ह्या लोकांचें एक बरें आसता. तांका पयशे मेळटात ताजो हिशेब जांव पावत्यो आसनात. लाखांनी रूपया जोडल्यार लेगीत ते खोंपींतच रावतात. सरकारी सवलत येवजणांचो लाव घेतात. आनी सरकाराक फटयतात. सरकारान अशा लोकांचो सोद घेवन तांकां झोंपडपट्टेंतल्यान भायर काडल्यार कितल्याशाच वायट धंद्याक आळबंद येतलो.

तारप्पासारखे मनीस हे एके नदरेन देख घेवपासारखे. रानांतल्यान आयले आनी हांगासरल्या सगल्या उदरगतीच्या कामांचो लाव घेवन लाखांनी रूपया जोडले. आयज कितलेशेच गोंयकार अशे आसात, तांकां आंगकश्ट करूंक नाका. सरकारी सिरवीस जाय. मनशाक कश्टांशिवाय आनी त्रासांशिवाय कांयच साद्य जायना. जिणेंत जर कितेंय येस मेळयतलो जाल्यार खर कश्ट काडप हें गरजेचें. तारप्पाकडल्यान ही देख आमी घेवंक जाय.



# पद्मा

एक दीस सकाळचीं भोंवडी आटापून हांव घरांत भितर सरूंक लागलों. कोणतरी बायल मनीस म्हजे घरकान्नीकडेन उलयता अशें म्हाका भायल्यानच आयकूंक आयलें. हांव घरांत भितर सरलों, दुदाची पिशवी मेजार दवरली आनी घाम सुकोवंक पंखो लावन कदेलाचेर बसलों. फुडल्या सालांत एक बायल मनीस ल्हव आवाजांत उलयताली. आनी म्हजी घरकान्न तिका म्हणटाली, 'आतां हांव कितें करूं बाये? पयलींच तुवें सांगल्यार कितेंय उपाय करूंक जातालो. आतां मास्तरच कितेंय करता जाल्यार पळय'. दोगांच्योय गजाली हांव भितरल्यान आयकतालों. हांवें भायर वचनासतना दूद तापोवंक दवरलें. च्या केली आनी आमकां सगळ्यांकच च्या घेवन भायल्या सालांत गेलों. म्हजे घरकान्नीकडेन गजाली मारपी बालमनीस शांतव्वा. हें म्हजे लक्षांत आयलें.

'हो पळय आयलो तुजो मास्तर', अशें घरकान्नीन तिका म्हळें आनी ती आपणाल्या कामाक लागली. हांवें शांतव्वाक च्याचें कॉप दिलें आनी विचारलें, ''कितें शांतव्वा आयज कितें हाडलां?'' 'हाडलां किते? मास्तर म्हज्या नशिबांत कितें वाडलां तें विचार.' ती म्हणूंक लागली. शांतव्वा ही एक गरीब आनी अनाथ बायल मनीस. दोंगरार ल्हानशी खोंप घालून ती आपणाले धुवेक पद्माक घेवन रावताली. पद्मा तशें ल्हानच. धा-बारा वर्सांचें आसुंये पूण चुटचुटीत. पद्मा दिसपाकय तशें बरें. तें खुबशे फावटी शाळेंत येवन बसतालें. मास्तर म्हाका वाचूंक शिकय, बरोवंक शिकय अशें म्हणून म्हजे फाटीक लागतालें. सदांचे म्हजे शाळेंत येवन बरोवंक, वाचूंक शिकलें. पूण तें नेमान शाळेंत येवपी भुरगें न्हय. बारा तेरा वर्सां जातगीच कश्ट करपी लोकांच्यो चलयो कामाक वतात तशेंच पद्मालेगीत ल्हवू ल्हवू करून कामाक वचूंक लागलें. पद्माची आवय शांतव्वा हॉस्पिटलांत काम करताली. झाडू मारप, जमीन पुसप अशे तरेचीं बारीक सारीक कामां करून शांतव्वा आनी ताची धूव पद्मा बरी जीण सारतालीं. शांतव्वाक केन्नाकेन्नाय रातपाळयेक वचचें पडटालें आनी ताका लागून पद्मा खूबशे फावटी घराकडेन एकलेंच उरतालें.

शांतव्वा आतां कित्याखातीर आयल्या हें म्हज्या लक्षांत येवंक ना. पूण कितेंय तरी काम आसले बगर ती येवची ना म्हणटगीच हांवे तिका विचारलें. खरें म्हळ्यार तिणें पुराय घडणूक म्हगेले घरकान्नीक पयलींच सांगिल्ली. आतां म्हजे खातीर ती परथून तीच गजाल सांगूंक लागली. ती म्हणूंक लागली ''म्हगेल्या पद्माक दीस गेल्यात''. दोंगरार तरेकवार लोक रावतात. हांवूय खूब फावटी रातपाळयेक लागून भायर उरतां आनी म्हजे फाटल्यान पद्मा कितें करता

हें म्हाका समजना''. तिगेलो हो प्रस्न पळोवन म्हाकाय कितें करचें हें समजना जालें. गोंयांत जांव खंयच्याय गांवांत चांचाळ वस्तू जावंक लागल्यो की अशे तरेचे प्रस्न उप्रासतात. चड करून झोंपडपट्टेंत. कोणाचोच कोणाकडेन व्हडलोसो संबंद येना. तरेकवार गांवांतल्यान लोक एकठांय येतात, रावतात. हें विचार मदींच म्हज्या मनांत येवन गेले. आनी हांवें शांतव्वाकडेन तकली वयर काडून पळयले. शांतव्वा म्हज्या तोंडाकडेन पळेताली. हांव कितें सांगता तें आयकूंक ती उत्सूक जाल्ली. शांतव्वाकडल्यान आनीक थोडी म्हायती मेळोवची हे नदरेन हांवें तिका विचारलें ''शांतव्वा, पद्मा दिसपट्टें कितें वावर करता, खंय वता, खंय भोंवता हे विशीं तुका कितें म्हायती आसा ती सांग''. कित्याक तर पद्माक जरी हांव वळखतालों तरीय तें हालींसराक व्हडलेशें शाळेक येनाशिल्लें.

शांतव्वा सांगूंक लागली. ''मास्तर, तुका खबर आसा. पद्मा हालीं कामाक वता. सकाळीं उठून जेवणाची भूती घेवन तें कामाक भायर सरता आनी सांजवेळा घरा येता. दोंगरावेलीं जायतीं भुरगीं ताजेवांगडा कामाक वतात. तांच्यावांगडा भोंवप, खावप हें आतां सदचेंच जालां.'' ''आगे, पूण इतले दीस तुका आपणाल्या धुवेचो दुभाव कसो आयलो ना?'' अशें म्हणटगीच शांतव्वा सांगूंक लागली. ''दुभाव आयलो तरी हांव कितें करतलीं? चलयेक घरा बसून दवरतलीं? कामां-धंद्याक तर वचूंकच जाय. पोट तर भरूंकच जाय. म्हणटगीच भायर भोंवपी भुरग्याक हांव कशी साबांळटलीं? शेजारी पाजारी म्हणटाले तो नरसु पद्माची वाट लायतलो, तो ताका सिनेमाक व्हरता, पोव हाडून दिता पूण हांव ओगीच नरसूक विचारूंक गेल्यार तो म्हाका मारूंक येतलो. दोंगरार रावपाचें जाल्यार लोकांचें वायटपण घेवन कशें चलत? म्हजो आनीक कोण आसा?''

शांतव्वाच्या सगल्या उलोवपांतल्यान कांय मुद्दे म्हाका समजले खरे पूण तांतुंतल्यान मार्ग काडप कुस्तार आशिल्ले. हांवें तिका म्हळें हांव कितें करपाचें तें पळेतां. आतां म्हाका चड वेळ ना. सांजवेळा दोंगरार वचून चौकशी करतां. अशें म्हणून हांवें शांतव्वाक परतिली. शांतव्वा परथून गेली तरी तिचो प्रस्न दीसभर म्हज्या दोळ्यांमुखार दिसतालो.

सांजे दोंगरार वचून हांवें करीमसाब, गंगाराम, हांचेलागीं वासपूस केली. आनी ताजे वेल्यान पद्मामाची काणी म्हजा दोळ्यांमुखार आयली. पद्मा ही तशी वायट चली न्हय पूण घरांत आवय एकटीच आनी कोणाचोच धाक ना. शांताय दिसपाक बरी. अशा वेळार असल्या चलयांचे फायदो उठोवपी तवनास भुरगे समाजांत सदांच वावुरतात. नरसू हो दोंगरारच रावपी एक भुरगो. लोकांच्यो सायकली सारक्यो करप, मोटारी चलय अशे तरेचीं कामां नरसू करपाक एकदम हुशार. मोटारी भोंवडावपी, सायकली सारक्यो करपी नरसू, पद्माक आवडटालो.

तो सदींच ताका कामार वतना मोटारीन व्हरतालो. हांतूंतल्यान नरसू आनी पद्मा हांची घट इश्टागत जाली आनी तांतूंतल्यान पद्माचें हें प्रकरण उप्रासलें.

करीमसाब फुडें सांगूक लागलो, ''हे पळय गुरूजी, तूं हें भानगडींत पडूं नाका. नरसूचो पयरच साखरपुडो जाला, तेर्मूय जाला. आतां तू कितेंय बोवाळ करशी जाल्यार नरसूचे लोक येवन तुकाच मारूंक लेगीत उणे नात.'' ही सगली वस्तुस्थिती आयकून म्हाकाय वायट दिसलें. पद्माचे आवयक, लोक नरसूआड कागाळ करपाक वच म्हूण फुडें काडटाले. दुसऱ्या दिसा ती परथून आमच्या घरा आयली. तिका हांव कितें करतलों तें जाणा जावंक जाय आसलें. आनीक एक वस्तुस्थिती म्हाकाय समजून घेवपाची आसली ती म्हळ्यार पद्माक कितले म्हयने जाल्यात. शांतव्वा हॉस्पिटलांतच काम करताली, तरीय तिणें म्हका सांगलें ना. तिणें पद्माक हॉस्पिटलांत व्हरून दाखयलें म्हणपाचें म्हाका लोकांनी सांगलें. तिका हांवें विचारल्ले,

'पद्ममाक कितले म्हयने जाल्यात?'',

''पांच - स म्हयने जातले, गुरूजी''

''इतले दीस तूं थंड कित्याक बसली? तुज्या लक्षांत कशें येवंक ना?''

''ना गुरूजी, तशें वाडट्या आंगांचें तें. आनी इतली बारीकसाण कोण धरता?''

''मागीर तुवें ताका हॉस्पिटलांत व्हरून दाखयलां?''

''दोतोर म्हणटा तांकां आता कांयच करप शक्य ना''.

शांतव्वान प्रस्न निर्माण केलो पूण तो प्रस्न सुटावो करप खूबच कठीण आसलें. हांवें ताका म्हळें तुका जर नरसूचो दुभाव येता जाल्यार तुज्या शेजारचे दोन-चार लोक तुज्या वांगडा घेवन यो. तांणी ही गजाल पळेल्या अशें तांणी म्हाका सांगूंक जाय. शांतव्वाक हांवें परथून धाडली. पूण शांतव्वा परथून आयलीच ना कित्याक तर तिजे वटेन उबो रावतलो शेजरा-पाजराचो एकूय मनीस तिका मिळलो ना.

समाजांत आमकां दुसऱ्याक फुडें करपी, दुसऱ्याक मुखार काडपी अशे खूब लोक आसतात. शांतव्वान अशें करचें तशें करचें असो उपदेश करपी ताचे शेजारी. पूण एकूय मनीस शांतव्वाचे दिकेन उबो रावंक तयार नासलो. कित्याक तर फाल्यां कितेंय जाल्यार दोंगरावेलो लोक तांकां, जिवानीशीं मारूंक लेगीत फुडें फाटीं पळेवचे नांत. आठ दिसांनी नरसूच्या लग्नाक म्हाकाय आपोवणें आयिल्ले. नरसू बाशिंग बांदून सव्यार उबो रावलो, लग्न जालें. नरसू लग्ना उपरांत म्हाका पायां पडूंक आयलो पूण ताजेकडेन वयर मान करून पळोवपाची म्हाका लज

दिसली. एके चलयेची वाट लावन दुसरे चलयेकडेन लग्न करून नामां निराळे जावपी लोक समाजांत खूब आसात.

नरसूचे बायलेक ही वस्तुस्थिती घडये केन्नाच कळची ना. पूण नरसूक मन आसलयार ती गजाल ताका जल्मभर खायत रावतली. एक दीस दोंगरार गेल्लेकडेन म्हाका पद्मा मेळ्ळें. हांडीर एका भुरग्याक घेवन ते खेळयतालें. ताका पळोवन म्हज्या आंगार कांटो आयलो. फुलपाखरासारकें हांगा थंय धांवपी, सदींच म्हजे शाळेंत येवन गुरूजी म्हाका शिकय म्हूण हट्ट धरपी हें निर्मळ चली. ताची ही दशा जावप? म्हाका खूब वायट दिसतालें पूण हांव कांयच करूंक शकनाशिल्लों.

ताळी ही एका हातान केन्नाच वाजना. चले भुरग्यांवांगडां चली भुरग्यांचीय भोव चूक आसता. कित्याक तर तांणी समजूंक जाय फाल्यां अशें कितें बरें-वायट जाल्यार ताचें फळ चलयेकूच भोगचें पडटा. चलो थंयसावन ल्हवूच कूस मारता. आनी हो समाज निमार्णे बोट दाखयता तो चलयेकच. तेन्ना चलयेन खंयचेंच पावल उबारतना सादूर रावन समजीकायेन एक -एक पावल घालूंक जाय. चलये वांगडा तिच्या आवय-बापायचीय चूक आसता. तांणी तिका वयार आयली म्हणटगीच बऱ्या-वायट गजालींची शिकवण दिवंक जाय. आपले चलयेचेर तांची बारीक नदर आसूंक जाय. ती खंय वता, कितें करता, कशी वागता बारीक - सारीक गजालीचेर लक्ष आसूंक जाय. आनी तांणी आपले चलयेक पावला कणकणी सादूर करूंक जाय. आयचो समाज इतलो भ्रश्ट जाला आनी बायलेक तर असल्या जगांत कांयच मोल दिना. बायल म्हळ्यार शारिरीक सुख घेवपाचें खेळणेंच अशे नदरेन हे दादले तिचेकडेन पळयतात. तेन्ना असल्या वायट नदरांसावन वाटावन रावतलो जाल्यार बायलांनी सादूर रावप भोव गरजेंचे.

❁❁




# खांजापीर

दोंगरावेले वस्तेचे तीन पांवडे आसात. पयल्या पावंड्यावल्या मनशांनी खांजापीर हाजो आसपाव जाता. खांजापीर हें नांव आयकल्या उपरांत खाड, मिशयो आशिल्लो मनीस दोळ्यांसामकार येता पूण प्रत्यक्ष खांजापीर ह्या मनशाक पळेलो की ही कल्पना खरी थारना. खांजापीर हो मिरजेलागीं आशिल्ल्या मालगांव ह्या वाठारांतलो. ताज्या नांवावेल्यान तो मुसलमान अशें कळटा. पूण ताजे आचार विचार पळेल्यार ताचेकडेन मुसलमानपणाचें कांयच ना. तो पुडवें न्हेसता, बोंदेर शें खोमीस घालता. तकलेर मातशें खरड आसा. मराठी बरी उलयता. ताका लागून खांजापीर हें नांव सोडल्यार ताजेकडेन मुसलमानपण कांयच ना.

हेर लोकांभशेन खांजापीर पोटाखातीर गोंयांत आयलो हें सांगपाची गरज ना. मालगांवां आसतना तागेलो एक पानाचो मळो आशिल्लो. पूण एकदोन वर्सां पावस उणो पडिल्ल्यान ताजो मळो सुकलो आनी तो गोंयांत पावलो. मोंती दोंगरार तो मायक्रोव्हेव स्टेशनाच्या बांदकामांखातीर पावलो. ताका धड कसलेंच काम येना. मानायपण करूंक तांक उणी. कश्टांचें काम ताका निखालूस जमना, गवंडपण, फातर तासप असले तरेच्या कामाक कुशलताय लागता. तांतूंतय तो मात्सो दावकुरो! पूण काम चालू आसतना वयल्याचाराचीं कामां करूंक तो हुशार. मानायांक च्या हाडून दी, उदक हाडून दी, बजारांल्यान सामान हाड असल्यो गजाली करूंकय एक मनीस लागताच. 'मायक्रोवेव्ह स्टेशनाच्या' बांदकामावेळार असलींच कामां तो करतालो. 'मायक्रोव्हेवा'म्हऱ्यांतच ताणें एक खोंप घाली. आनी थंयच तो रावंक लागलो. बांदकामार वावुरतना काशी हे बायलेकडेन ताची वळख जाली. काशी हिंदू. गांवान सोलापूरची. घोवान तिका सोडली म्हण्टगीच कोणाच्यातरी पालवान ती गोंयांत पावली. काशीबाय माती भरून हाडपाचें, जांव फातर कुशीक उडोवपाचें असलें काम करताली. केन्ना केन्नाय खांजापीर कायलींत माती भरून तिजे तकलेर उबारतालो, तिका च्या हाडून दितालो. ल्हवू ल्हवू तिची खांजापीराकडेन दाट वळख जाली. आनी ती दोगांय जाण एकठांय रावंक लागलीं. काशीबाय हिंदू, खांजपीर मुसलमान. दोगांचेय एकमेकाकडेन कशें जुळलें हे सांगप कठीण. खूब फावट मनीस गरजेंतल्यान तडजोड करता तशेंच कितें जालें जांवये. दोगांनीय फाटलो फुडलो विचार करिनास्तना एकठांय रावपाचो निश्चेव केलो.

अशेंच तीं दीस सारतालीं. दीसभर काम करतालीं, वावुरतालीं, एकमेकांक आपलें सुखदुःख सांगतालीं. पूण खांजापीर घोव आनी काशीबाय

बायल अशे तांचे संबंद आसात, अशें सांगूंक कठीण जातालें. दोंगरावेल्या खूबश्या घराब्यांनी अशीच परिस्थिती दिसताली पूण ताचें व्हडलेशें कोणाकच कांय दिसनाशिल्लें. काशीबाय देवदेव करताली. खांजापीरय व्हडलसो मुसलमान धर्माचो मोगी न्हय. दोंगरावेल्या सगळ्या वातावरणांत खांजापीर केन्नाच एकजूट जालो ना. संघाच्या बसकांक तो येतालो पूण एक उतर लेगीत उलयनाशिल्लो. शाळेच्या कार्यावळींनी तो वांटो घेतालो पूण फुडें फुडें येवन आपूणच व्हड मनीस अशें दाखयनाशिल्लो. खंयच्याय कामाक तो हातबोट लायतालोच पूण काम जाले उपरांत, खांजापीर आपयल्यार लेगीत येवचो ना. एके तरेची अलिप्तताय ताचे वागणूकेंत आसली.

संवसारांत आमी सदांच पळेतात की मनशां मर मेरेन काम करतात, शिकतात, चाकरी करतात, शेतांभाटां वसयतात. हे सगळे वेव्हार मनीस करतात. ते आपणालें मन बांदून दवरपाखातीर मनशाच्या सरभोंवतणी ज्यो वस्तू आसतात तांकां विशय अशे म्हणटात. खाणाजेवणाच्यो वस्तू, संगीत, साहित्य, कला, सरभोंवतणी पातळिल्लो सैम अशा तरेच्या वस्तुंनी सदांच आपणालें मन घुस्पावन दवरता. ते विशय म्हळ्यार मनाक बांदपी वस्तू. मनीस कांय वेळार बांदूनय पडटा. ह्या वस्तुंचो ताचो मोह सुटना. तुकाराम महाराजाची बायल जिजाई, तुकाराम महाराज संवसाराकडेन लक्ष दिना आनी ताळ कुटीत बसता अशें म्हूण ती तुकाराम महाराजाक सदांच दुशण दिताली. तिचो आपल्या संवसाराचेर, म्हशीं दाशींचेर खूब मोग आशिल्लो. निमाणें एक दीस तुकाराम म्हाराज वैकुंठाक वचूंक भायर सरलो. ताका देवाचें आपोवणें आयलें, व्हरूंक विमानय आयलें. तुकाराम महाराज विरक्त तो वैकुंठाक वचूंक भायर सल्लो. आनी घरकान्नीक म्हळ्यार जिजाईक विचारलें. ''आगे, तूं येता'' तिका विमान पळोवन खोशी जाल्ली पूण तिगेलो जीव म्हशींत घुस्पून आशिल्लो. ती म्हणूंक लागली, ''पळेयात, म्हगेली म्हस व्हियेवपाची आसा. हांव तुमचेवांगडा वैकुंठाक गेलीं जाल्यार म्हगेले म्हशीचें कोण करतलो ?'' अशें घुस्पून पडप सभाविक, पूण खांजापीर हो वेगळेच तरेचो मनीस. आपणालें काम बरें, आपूण बरो. हे तरेन तो वावुरतालो. वर्सांचीं वर्सां गेलीं पूण खोंपींत तीं दोगांच जाणा रावतालीं. एक दीस काशीबायन खांजापिराक म्हळें, पीरसाब आमी आतां जाण्टीं जायत चल्ल्यांत. दोगांकय ''आगापिछा'' कांयच ना. आमकां जाणटेपणांत कोण अन्न पाणी दितलो. खांजापिराकय केन्नाकेन्नाय अशे विचार येताले पूण ताचे अलिप्ततायेक लागून ह्या विशयाचेर केन्नाच चड विचार करूंक ना. काशीबाय फुडें म्हणूंक लागली आमी एक ल्हान भुरगो पोसको घेंवया. खांजापिरान तकली हालयली. कित्याक तर भुरगो पोसूंक घेतलो म्हणटगीच ताजी उस्तवारी कांशिबयकच करची पडटली. काशिबायन कोणाचे तरी वळखीन एक पांच स

वर्सांचो भुरगो आपणागेर दवरलो. ताचें नाव 'गनी'. एक दीस काशीबाय त्या भुरग्याक घेवन शाळेंत आयली. म्हाका म्हणूंक लागली ''मास्तर, ह्या भुरग्याक तूं बरें शिकय. हांवें ताका पोसको घेतला''.

काशीबाय, खांजापीर गनीक खावंक जेवंक बरें दितालीं. ती ताका शाळेंत घेवन येताली. पूण खांजापीर ताज्या सभावाक लागून वयल्याचाराक जाय तितलोच मोग गनीचेर करतालो. गनीची माया अशी ताका केन्नाच लागूंक ना. हे उरफाटें काशीबाय गनीक जीव की प्राण करताली. लाड कौतूक करताली. सकाळचो एक वेळ शाळेंत वचून येतगीच गनी सांजवेळा गड्यांनी, जांव आपालिपांनी खेळून दीस सारतालो. आनी सांज जालयाबराबर काशीबाय कामांवेल्यान येवन ताका जेवंक दिताली. 'गनी' धा - बारा वर्सांचो जालो. आतां ताका शाळेंत वचपाची रूच नाशिल्ली. ताचे वांगडचे भुरगे शारांतल्या वाठारांनी वचून बारीक-सारीक कामां करताले. हॉटेलांनी काम करप, झाडपाचें, आयदना धुवपाचें काम अशीं कामां करून गनी चार पयशे बोल्सांत उडयतालो. ताज्या बराबरचे वांगडी लक्ष्मण, टिपू, जलीन रातच्या वेळार भायर वचून बारीक-सारीक चोरयो-मारयो करताले. तांच्या सांगातान गनी बारीक-सारीक चोरयो करूंक शिकलो. एक फावट देसायाच्या गुदांवांचेर डाल्डाचे दबे चोरतना ताका देसायान धरलो, आनी पुलिसांचे सुवादीन केलो. गनी घरा येवंक ना म्हणटगीच काशीबाय चिंतेस्त जाली. रातीं खांजापीर घरा आयलो त्या वेळार तिणें खांजापीराक सांगलें, 'पीरसाब, गनी आयज घरा येवंक ना. पळय. किते जालें ते?' ताजो सोद घेवंक सकयल तो आयलो जाल्यार लक्ष्मणान ताका सांगलें की डाल्डाचे दबे चोरतना पुलिसांक गनी सांपडलो आनी ताका बंदखणींत दावरला. खांजापीर वेगोवेग म्हज्या घरा आयलो. म्हाका म्हणूंक लागलो 'मास्तर, गनीसाब पुलिस स्टेशनाचेर आसा, ताका कितेंय करून घरा हाडूंक जाय'. खांजापिराची म्हाका व्हडलिशी काळजी नाशिल्ली. तो अलिप्त मनीस पूण काशीबाय कितें करीत हाचो नेम ना. हांवें पुलिस स्टेशनार वचून ''गनी आजून ल्हान भुरगो आसा, तांतूंत फुडें तो सुदारपाची शक्यताय आसा'' अशें पुलिसांक सांगून ताका घरा हाडलो. काशीबायक पोसक्या भुरग्याचीं लक्षणा दिसूंक लागलीं. पूण करतली कितें? ती गनीची आवय-बापूय दोनीय जाल्ली. त्या दिसा सावन खांजापिराच्या मनांतल्यान तो सामको भायर सरलो. भुरग्याक पोसको घेवन काशीबायन तांच्यामुखार आतां कितें वाडून दवरलां हे ताका समजूंक ना.

दिशीं दिशीं गनीचे चाले वाडूंक लागले. गनी दीसभर घरांत न्हिदून रावतालो आनी रात जाली की भायर सरून चोरयो-मारयो करतालो. ह्या सगल्या कारणांक लागून खांजापिराचें आनी ताचें कशेंच जमना जालें. खांजापीर एक



उलयलो की तो ताका दोन सांगतालो. एकदीस सकाळीं खांजापीर ताका उठोवंक लागलो जाल्यार खांजापिराक ताणे धुकलून उडयलो. काशीबायची मात अवस्था खूब कठीण जाली. जाणटेपणांत आदार म्हूण भुरगो सांभाळ्ळो पूण तो सामकोच दिवटो. खांजापीर आनी गनी ह्यो दोन तरसादी सांबांळप तिका दिशीं दिशीं कुस्तार जावंक लागलें. गनी आतां सतरा-अठरा वर्सांचो जालो. इतले दीस तो ल्हान चोरयो करून घरा येतालो. पूण आतां दोंगरावेले वाटेन येतना वतना चेडवांचीं फकाणां करप, सोरो पियेवन शेजाऱ्यांक गाळी मारप अशे तरचे धंदे गनीसाबान चालू केले. खांजापीर सामकोच वाजेलो. काशीबायेविशीं ताका आपुलकी आशिल्ली पूण गनीसाबाक पळेल्यारच ताजी तकली घुंवताली.

एक दीस रातीं काशीबाय न्हिदिल्ली आसतनाच ताणें आपणालें सामान एकठांय करून घराचो निरोप घेतलो आनी ताणें गोंय सोडलें. परथून मालगांवां गेलो. इतले दीस गोंयांत काडले पूण ताका गोंयचो मोग असो लागलो ना. मालगावांत तो गेलो पूण थंयय ताका कोणेंच लागीं केलो ना. चार दिस हेवटेन तेवटेन सोयऱ्यांगेर रावन तो परथून गोयांत पावलो. पयर एक दीस बाजारांत भोंवतना खांजापीर म्हाका दिसलो. बोंदरें पुडवें, बोंदरें खामीस, खाड-केंस वाडिल्ले, पायांत जोतें ना अशे अवस्थेंतलो खांजापीर पळोवन म्हाका दुःख जालें. खांजापीर आतां मडगांवांत रावता पूण दोंगरार येना. खंय तरी रेल्वे स्टेशनाचेर जांव बांदकामांचेर आशिल्ल्या जाग्यांनी तो न्हिदता आनी दीसभर खंय कितेंय काम मेळटा काय म्हणून भोंवत आसता.

महाभारतांतल्या अश्वथाम्यांभशेन ताणें आपल्या पायांक चक्रां बसयल्यांत अशें म्हाका दिसता.

✿✿





## ‘‘दोंगरावेल्या मनशां’’ विशी...

डॉ. श्री. शं. फडके हांचे ‘दोंगरावेलीं मनशां’ हे कोंकणी साहित्यातलें एक वेगळ्या प्रकारचे पुस्तक. वास्तव व्यक्तिरेखा, ‘रिपोर्ताज’ आनी ‘आत्मपर’ लेखनाचो हो एक अप्रुप नमुनो. कोंकणीत असल्या साहित्याची गरज आसा, ती थोडीभोव डॉ. फडके हांणी ह्या पुस्तकातल्यान भागयल्या...

एक तेप असो आशिल्लो कि ‘शिक्षक’ हो गावचो ‘सर्वेसर्वा’ आसतालो. फकत ‘मास्तर’ न्हंय, तर ‘तत्वगिन्यानी’, ‘इश्ट’, ‘मुखेली’.... आदी. ‘दोंगरावेल्या मनशां’च्या नदरेन तांचो ‘गुरुजी’ असो आसा. देखूनच ही मनशां आपल्यो अडीअडचणीं, सुखादुखां, व्यथा-वेदनां, भाव-भावनां, आशा-सपनां, उमाळे उत्फर्के, कळवळे-चुरचुरे ह्या ‘गुरूजी’ मुखार उक्ते करतात. ‘गुरूजी’ तांचो ‘आदार-आलाशिरो’ डॉ. फडकेक ही सुवात फावो जाल्या कारण डॉ. फडके तांचेमदी समरस जाल्यात... मनीस कुळयेच्या... मनीसपणाच्या भावनेन... ही व्यक्तिचित्रां वाचतना मराठीतले दिग्गज बरोवपी भौ. व्यंकटेश माडगूळकार हांगेल्या ‘बनगरवाडी’ ह्या नवलकाणयेचो आनी तांतूतल्या ‘मास्तरा’ची याद जाल्याबगर रावना. त्या ‘मास्तरां’न डॉ. फडके म्हळ्यार ‘गुरूजी’ दिसता, आनी ‘बनगरवाडी’च्या जाग्यार ‘मोंती दोंगर’ रूपकारता...

भास, धर्म, जात, रितीरीवाज, जीणेंचे तत्वगिन्यान वेगळें, अन्नाडी पुण सुशिक्षित, काळाप्रमाण बदलपी, पैशांनी गरीब-दुबळी पुण मनान गर्भश्रीमंत - खानदानी, झोपडपट्टी संस्कृतायेन वावुरपी तरी आपले पुर्विल्ले गिरेस्त दायज, सांबाळपी, चारित्र्यांक जपपी पुण दिकाभूल जांवन पावलां घसरपी, पोटांखातीर दीसरात कश्टुपी. सपनां पळोंवपी, धर्मीश्ट, चळवळी, सदाचारी तितकीच कारस्थानी. दुराचारी, राजकर्त्यांच्या, दुश्ट राजकर्णाच्या भकीक पडिल्ली, सामान्य तरीय असामान्य, अशी ही ‘दोंगरावेंली मनशां’ म्हळ्यार मनीस सभावाच्यो विंगड-विंगड पतीच. अश्या ह्या मनशांचे ‘अंतरंग’ डॉ. फडकेनी बेस बऱ्या रीतीन उक्तायल्यात. तातूंतल्यान तांचो मनीसपणाचो ‘गहिवर - उमाळो’ दाटून आयिल्लो दिसता आनी सामाजिक बांधिलकायेतल्यान हे सगळे लेखन जाल्ल्यान ते वाचप्यांच्या मनात ह्या मनशांबद्दल सहानभूती निर्माण करता. हेच ह्या पुस्तकाचे जैत जांवन आसा...

एकाद्र्या कुशल चित्रिकांन रंग आनी पिशोलाच्या आदारान कॅनव्हासाचेर चित्रां रेखची... रंगोवची, त्या चित्रांत रंगावांगडा ‘जीव’ भरचो तेच प्रमाण डॉ. फडके हांणी थोड्याच उतरांनी कुशळतायेन आनी फिशालकायेन ही ‘दोंगरावेंल्या मनशां’ची चित्रां रेखल्यात... चित्रायल्यात; ती दरएकल्या कोंकणी वाचप्यांन मुदलांतून वाचूंक जाय....

**- प्रा. रवींद्र रमाकांत म्हाड्ळोळकार**

Printed at Samrat Printers, Banastarim, Goa. Ph. (0832) 287755